# गोंयांतले पारंपारिक खेळ

संपादक

***प्रा. भूषण भावे***

संकलन

***रोमिला डायस***

***पिंगल सतरकर***

***सीमा गांवकर***






**गोवा कोंकणी अकादेमी**

*243, पाटो कॉलनी, पणजी,*

*गोंय 403 001*

# गोंयांतले पारंपारिक खेळ (कोंकणी)

संपादन

***प्रा. भूषण भावे***

प्रकाशन क्र. 63



**उजवाडावपी :**

राजू गांवस

सचिव

गोवा कोंकणी अकादेमी

पणजी-गोंय 403 001.

**छापपी :**

**ग्रेस प्रिंटर्स**

जी-8/बी, इंदिरा अपार्टमेंटस्,

कोंब, मडगांव-गोंय 403 601.

फोन : 2735768

**मुखचित्र आनी भितरली चित्रां :**

अरुण नाईक

पयली आवृत्ती:

मार्च, 2005

मोल : 140/-

# Goyantale Paramparik Khell (Konkani)

Edited by :

**Prof. Bhushan Bhave**

Publication No. 63



Publisher:

**Raju Gawas**

Secretary,

Goa Konkani Akademi

Panaji-Goa 403 001.

Printer:

**Grace Printers**

G/8, Indira Apartments,

Comba, Margao-Goa 403 601.

Phone : 2735768

Cover & Inside Sketches:

**Arun Naik**

First Edition:

March, 2005

**Price : 140/-**

दळणवळणाचीं वा करमणुकेचीं
कसलींच सादनां
नासतना....
सांघिक आनी निकोप वृत्तीचे
खेळ सोदून काडून
मनरिजवण करून घेवपी
सगल्या
पूर्वजांचे कल्पकतायेक....

# अकादेमीचे वतीन....

मनशाच्या जिवितांत खेळांक सुमाराभायलें महत्व आसा. खेळ कुडीक व्यायाम तर दिताच पूण चपळताय आनी शिटूकपणूय दिता. खेळांत कल्पकते बरोबर बुद्धिमत्तेचोय वापर जाता. खेळांत स्वता खेळटल्याक आनंद मेळटा आनी खेळ पळयतल्याकूय आनंद मेळटा. खेळांत स्पर्धात्मक उमेद वाडीक लागता.

अश्या खेळ ह्या विशयावेलें हें पुस्तक उजवाडायतना अकादेमीक खोस भोगता. हें लोकवेदावयलें पुस्तक आसा. जाय जाल्यार ताका बालसाहित्याचेंय पुस्तक म्हणूं येता. जाय जाल्यार इतिहास - संस्कृती ह्यावूय विशयावयलें पुस्तक म्हणूं येता.

खंयचेय तरेच्या लोकसाहित्यांत त्या - त्या वाठाराची संस्कृताय, इतिहास, परंपरा, चालीरिती, हावेस / स्रद्धा समजण्यो हांची झलक पळोवंक मेळटा. पारंपारिक नदरेन गोंयांत (म्हणचेपरस कोंकण किनारपट्टींत) खेळत आयिल्ले हे खेळ अशेच तरेन खूब आदल्या तेंपावयल्या लोकांची जीण, चालीरिती, स्वभाव वैशिश्ट्यां बी दाखयतात. परंपरांच्यो कांय खुणो आनी कुरवो तांचेभितर सोदूं येतात.

गोंय विद्यापिठाच्या पदवेच्या अभ्यासक्रमांत 'अभ्यास - प्रकल्प' नांवाचो एक पेपर सुरू केला. आदीं थारावन घेतिल्ल्या एका विशयाचेर विद्यार्थी, पंगडान वा एकल्यान संशोधनाचे चिकित्सक नदरेन अभ्यास करून तो वावर प्रकल्पाच्या रूपान सादर करतात. अश्याच एका प्रकल्पाखाला 'गोंयांतले पारंपारिक खेळ' हो विशय फर्मागुडीवेल्या पी.ई.एस्. च्या श्री. रवी सिताराम नाईक महाविद्यालयाच्या विद्यार्थ्यांनी घेतिल्लो आनी प्रा. भूषण भावे हांच्या मार्गदर्शनाखाला अभ्यास करून प्रकल्पारुपान विद्यापिठाक भेटयल्लो.

त्या प्रकल्पाचेर आदारून ह्या पुस्तकाची निर्मिती जाल्या. अशेतरेचे जायते खेळ आजुनूय अभ्यास करीनासतना नदरेआड उरल्यात. तांचेर चडांत चड अभ्यास जावंचो हे नदरेन अकादमीचें हें एक पावल.

सांघिक भावनेक पुश्टी दिवपी आनी निरोगी सर्तीक (Healthy Competition) चालना दिवपी हे खेळ भुरग्यांनी (आनी जाण्ट्यांनी लेगीत) वाचचे आनी खेळचे असो आवंडो.

ह्या पुस्तकाक वाचपी बरो येवकार दितले अशी आस्त.

**पुंडलीक नायक**

अध्यक्ष

गोवा कोंकणी अकादेमी

# अनुक्रमणिका

# प्रस्तावना

**'गोंयांतले पारंपारिक खेळ'** ह्या पुस्तकावरवीं पी.ई.एस्., फर्मागुडी हांगाच्या श्री रवी सिताराम नाईक महाविद्यालयाच्या कोंकणी विद्यार्थ्यांनी अभ्यासाचो एक वांटो म्हण ह्या विशयाक हात घातिल्लो. विशयांतली रूची वाडिल्ल्यान उपरांत लेगीत तांणी हो वावर चालू दवरलो, त्या वावराचेर आदारून हें पुस्तक घडलां. 'पारंपारिक' हें उतर काटेकोरपणान वापरीनासतना फाटल्यो कितल्योशोच पिळग्यो खेळत आयल्यात आनी आयजूय खेळटात वा खेळिल्ल्याची याद आसा ते - ह्या अर्थान वापरलां.

ह्या खेळांभितर 'कबड्डी' सारके राष्ट्रीय नामना फावो जाल्ले खेळ आसात, तशेच परंपरेन खेळत आयिल्ले पूण आधुनिक नामावळीचेय खेळ आसात (देखीक रिंगांनी, रिंगा - रिंगा रोजी). गोंयचे समाजीक - अर्थीक जिणेंत दखल घेवपासारको गडगडो आसा तशेंच जागर, धालो, गोफ हे सारकेले उत्सव-खेळ लेगीत आसात. आदल्या काळार मनरिजवणेचें कसलेंच सादन नाशिल्लें. तशेंच आपणाक आनंद दिवपी दरेक गजाल पयलीं देवाक - सृश्ट रचतल्याक ओंपपाची वृत्ती आशिल्ल्यान हे खेळ धर्म - संस्कृतीकडेन जोडिल्ले दिसतात. पूण खरेपणान तांची निर्मिती खेळांच्याच उद्देसांखातीर जाल्ली हें अभ्यास करतकीच होल्मता. (आदल्या काळार आनी आयजूय बी - नाटकाक 'खेळ' च म्हणटात हें तेच खातीर.)

ह्या वावरांत 'धिरयो' ह्या मोनजातींच्या एकाच खेळाचो आस्पाव केला. अशेतरेचे आनीकूय खेळ आसात. (देखीक कोंब्या झुजी) मनीस आपले रिजवणेखातीर मोनजातीक झुंजयतालो. आयज अश्या खेळांक सरकारी आनी समाजीक पावंड्यार मान्यताय ना, ही बरी गजाल. ह्या पुस्तकांत संस्कृतायेच्या सकयल्या पावंड्यावेले धरून कल्पकताय आनी बुद्धीमत्तेचो मिलाफ आशिल्ल्या वयल्या पावंड्यावेल्या खेळांचोय आस्पाव जाला. देखीक 'गोफ' हो तरुणाईचें रसरसतेंपण आनी चैतन्य दाखोवपी खेळ वा 'ताबूलफळ्यां' सारको बुद्धीमान खेळ.

हे सगले खेळ वाचप्याचे सोयीखातीर अक्षरानुक्रमान मांडल्यात. त्या त्या खेळाचे उपप्रकार त्याच खेळाभितर आस्पावल्यात. ह्या खेळांनी वापरिल्ली उतरावळ आगळीच परिभास कशी. एकेवटेन वेव्हाराचो, दीसपट्टे जीणेचो संदर्भ घेतनाच, दुसरेवटेन आपणाक जाय तशी मोडटा. हांतूंतली जायतीं उतरां आयज 'लुप्त' जाल्यात. देखून तांची एक सूची वांगडा जोडल्या. हें पुस्तक विद्यार्थ्यांनी वाचचें देखून खेळांचीं रेखाटनांय काडून घेतल्यांत. तशेंच एकाच दृश्टीक्षेपांत ह्या खेळांची वळख घडची म्हण कांय तकटे निमाणेकडेन दिल्यात.

खेळ खेळटना डाव येता - खेळपाची पाळी येता

त्या खेळगड्याक 'म्हार' ह्या जातीयवाचक नांवान संबोधताले. समाजाचे उच्चनीच वृत्तीक लागून 'म्हारान आफडप' वर्ज्य आशिल्ल्यान खेळांत तोच संदर्भ वापरताले. चडश्या खेळांनी हेंच जातीयवाचक उतर वापरताले अशें आसलें तरी कांय खेळांनी बेबो, भोजो अशींय उतरां वापरताले. समाजीक समता आनी समरसतेचो पुरस्कार ह्या न्यायान आनी नात्यान ह्या पुस्तकांत सगलेकडेन 'बेबो' हें उतर वापरलां. (इंग्लिशींत लेगीत 'डॅन' हें उतर लेगीत.)

आयज पुराय संवसार जीवघेवपी सर्तीकडेन वचपाक लागिल्लो आसतना, निकोप सांघिक वृत्ती वाडोवपी, कुडीक आनी मनाकूय व्यायाम दिवपी, मातयेकडलें नातें राखून दवरपी ह्या घरांतल्या आनी मैदानी खेळांकडेन भुरग्यांचें लक्ष वचचें हो ह्या प्रकल्पाचो उद्देस. समाज आनी संस्कृताय बदलत आसता देखून आयज हे सगले खेळ सगल्यांनी खेळचे असो आग्रो धरप चुकीचें पूण संस्कृताय बदलत आसतना ती मूल्यवेवस्था आनी संस्कार आदले वेवस्थेकडल्यानूच घेता. आयचे पिळगेकडेन लेगीत नवे-नवे खेळ स्वीकारतना, ह्या परंपरीक खेळांकडल्यान मूल्यां घेवपाक विसरचें न्हय. कॉम्प्यूटरावयल्या खेळपाच्या नादांत आपले पांय मातयेपसून पयस व्हरचे न्हय हो आवंडो.

हो वावर पुस्तकरूपान उजवाडायिल्लेखातीर गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपकार मानतां. ह्या पुस्तकाचें भास-संपादन केल्लेखातीर प्रा. प्रकाश थळी हांचे तशेंच छापणावळीखातीर ग्रेस-प्रिंटर्स हांचे उपकार.

■■

# (2) गोंयांतले पारंपारिक खेळ

## अटक - मटक

**खेळाचें नांव** : अटक - मटक

**खेळाचो प्रकार** : घरांतलो, सांघिक. हो खेळ भुरगीं घरांत, वासरेंत वा सालांत बसून खेळटात. हो खेळ चडांत चड 5-6 भुरगीं खेळटात.

**खेळाचो काळ** : हो खेळ भुरगीं पावसांत खेळटात

**खेळाचो वेळ** : चड करून तीनसांजचो वा रातचो खेळटात.

**खेळाक लागपी वेळ** : चडांत चड 5 मिणटां.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 6 ते 11 वर्सां. चडकरून चलयो.

**खेळाक लागपी साहित्य** : कांय ना.

**नेम आनी अटी** :

1. वर्तुळ करून बसप
2. सगल्यांनी दोनूय हात जमनीर दवरप.
3. जाचें बोट निमणे उरता ताचेर कुटली घालप.

**खेळपाची रीत** :

भोंवताडो करून बसतकीर सगल्यांनी दोनूय हात जमनीर दवरप. तांचेच भितरल्या एकट्या खेळगड्यान आपखोशयेन फुडें सरप आनी सगल्या भुरग्यांच्या बोटांक हात लावन एक पद म्हणप.

*अटक मटक चवळी चटक*
*चवळी जाली गोड-गोड,*
*जिबेला आला फोड-फोड*
*जिबेचा फोड फुटे ना, फुटे ना,*
*डॉक्टर मामा उठे ना, उठे ना*
*डॉक्टर मामा उठला*
*जिबेचा फोड फुटला.*

हें पुराय पद म्हणून जातकीर निमणे ओळींतलें निमणे अक्षर ज्या भुरग्याच्या बोटाचेर येता, ताणें आपलें बोट मोडून धरप. अशे तरेन सगल्या भुरग्यांच्या हाताचीं बोटां सुटत वतात. पूण ज्या भुरग्याचें बोट निमणे उरता त्या भुरग्याच्या हातार कुटली पडटा. कुटली कोणाचेरूय पडपाक शकता. पद म्हणटा ताचेर लेगीत. कित्याक तर पद म्हणप्याचो एक हात मुखार आसता आनी आपल्या दुसऱ्या हातान तो बोटां मेजीत आसता.

■■

# आट्यांनी

खेळाचें नांव : आट्यांनी

खेळाचो प्रकार : वैयक्तिक / सांघिक / मैदानी. ह्या खेळांत कमींत कमी एकटो आनी चडांत चड 2-3 भुरगीं खेळटात.

खेळपाचो काळ : गीम

खेळपाचो वेळ : मांजवेळार

खेळाक लागपी वेळ : 5 मिणटां लागतात.

पिरायगट आनी लींगगट : 5 ते 10 वर्सां. हो खेळ चलेच खेळटात.

खेळाक लागपी साहित्य : सायकलीचो / स्कुटरीचो / मोटरसायकलीचो टायर, एक फूट लांब बडी वा रिंगायेदे रुंदायेचो पत्र्याचो आटो, दोन फूट लांब लायटीची तार.

**नेम आनी अटी :**

1. खेळाची सुरवात आटो वा टायर हातान धुकलून करप.
2. खेळटना आटो वा टायर जमनीर आडवो पडूंक फावना.

**खेळपाची रीत :**

हो खेळ भुरगीं सर्ती लावन खेळटात वा एकेकटो उमेदीक खेळटा. सुरवेक टायर वा आटो धुकलतकीच तो पडचो न्हय म्हण वडयेन वा सरयेन सांवाळचें पडटा. ज्या भुरग्याचो आटो जमनीर पडटा तो भुरगो बाद थारता.



# आप्पड - पाप्पड

| | |
|---|---|
| खेळाचें नांव | : आप्पड - पाप्पड |
| खेळाचो प्रकार | : घरांतलो, सांघिक. हो खेळ भुरगीं घरांत खेळटात. चडांत चड 10 - 12 जाणां खेळटात. चडांत-चड भुरग्यांक खेळपाक घेवपाक जाता. |
| खेळाचो काळ | : गिमांत, पावसांत, हिंवाळ्यांत. |
| खेळाचो वेळ | : केन्नाय |
| खेळाक लागपी वेळ | : कमीत कमी 15 मिणटां |
| पिरायगट आनी लींगगट | : 3-7 वर्सां. हो खेळ चडकरून चलयो खेळटात. |
| खेळाक लागपी साहित्य | : कांय ना. |
| नेम आनी अटी | : कांय नात. |

**खेळपाची रीत :**

1. पयलीं सगलीं भुरगीं गोल करून जमनीर बसतात.
2. तातूंतलें एक भुरगें सगल्या भुरग्यांक हात फुडें करून ताळट जमनीर तेंकोवन एकामेकाच्या वयल्यान हात दवरपाक सांगता.
3. मागीर सगलीं भुरगीं हात एकामेकाचेर दवरतात. तें भुरगें आपलो एक हात तांचेर दवरता आनी आपल्या दुसऱ्या हातान तांच्या हातीर दवरून "आप्पड-पाप्पड धरगे बेबी म्हजो कान" अशें म्हणटा. मागीर हात ताच्या खांदार दवरता.
4. मागीर परते "आप्पड-पाप्पड धरगे बेबी म्हजो कान". मागीर दुसऱ्या भुरग्यान आपलो हात तातूंतल्या खंयच्याय भुरग्यांच्या खांदार दवरपाचो.
5. अशें करून तीं सगलीं भुरगीं आपले हात एकामेकाच्या खांदार दवरून 'क्यांव-म्हांव' अशें म्हणून एकामेकांक हालयतात आनी मागीर तांच्या खाक्याक हात लावन तांका एकामेकांक खातकुल्यो करतात.
6. आनी अशें करून हो खेळ सोंपता. मागीर परतून भुरगीं खेळपाक सुरवात करतात.
7. एकादलें भुरगें रडलें जाल्यार हो खेळ भुरग्याक हांसोवपाक जाता. चड करून ल्हान ल्हान भुरग्यांक.

■■

# आपा-लिपा - प्रकार (1)

**खेळाचें नांव** : आपा-लिपा - 1

**खेळाचो प्रकार** : मैदानी. सांघिक. हो खेळ भुरगीं वरे तरेन लिपूंक मेळटा थंय खेळटात. खेळाक कमीत-कमी 5-6 भुरगीं लागतात.

**खेळपाचो काळ** : हो खेळ भुरगीं गिमांत वा शियांत खेळटात.

**खेळपाचो वेळ** : चड करून सकाळ वा दनपार.

**खेळाक लागपी वेळ** : 10 मिनटां.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 5 ते 12 वर्सां. चले वा चलयो खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : कांय ना

**नेम आनी अटी** :

1. बेब्याक उबो रावपाक एक वर्तुळ काडप
2. बेब्यान लिपतल्याक पळोवंक फावना
3. टिपो घालतल्यान वर्तुळांतूच येवन टिपो घालप

**खेळपाची रीत** :

10, 20, 30, ते 100 पर्यंत नंबर घालप. ज्या भुरग्याचेर शंबर नंबर येता तो सुट्टा. निमाणेमेरेन ज्या भुरग्याचेर शंबर क्रमांक येना तो बाद थारता आनी बेबो जाता.

बेब्यान आपल्या वर्तुळांत उबे रावन दोळे धापप. बाकीच्या गड्यानीं आडस आशिल्ल्या जाग्यार लिपप. लिपिल्ल्या भुरग्यांनी कुटुऱ्यो म्हणले उपरांत तांणे ताका सोदपाक वचप. बेब्यान चड पयस वचूंक फावना कित्याक तर जर तो चड पयस गेलो जाल्यार लिपिल्लीं भुरगीं सहजतायेन टिपो घालतलीं. बेब्यान दुसऱ्या भुरग्याक टिपो घालूंक दिवप नासता. जर एकाद्या भुरग्यान वर्तुळान येवन बेबो जांवचो पडटा. आनी जर कोणूच टिपो घालूंक शकलोना जाल्यार पयलीं सोदून काडिल्लो गडी दुसरें फेरयेत बेबो जाता.

(टिपो घालप म्हळ्यार लिपलेल्या मनशान बेब्याची नदर चुकोवन वर्तुळांत येवन ते सुवातेक स्पर्श करप आनी तोंडान 'टिऽऽपो' अशें म्हणप)



# आपा-लिपा - प्रकार (2)

**खेळाचें नांव** : आपा-लिपा - 2

**खेळाचो प्रकार** : घरांतलो, सांघिक.

**खेळपाचो काळ** : केन्नाय.

**खेळपाचो वेळ** : सकाळ वा सांजवेळार.

**खेळाक लागपी वेळ** : 10 मिनटां.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 5 ते 12 वर्सां. चले वा चलयो खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : एक लेंस

**नेम आनी अटी** : 1. बेब्याचे दोळे लेंसान बांदप

**खेळपाची रीत** :

बेब्याच्या दोळयांक लेंस बांदप. उपरांत ताणें हेर वांगड्याक हात मुखार करून सोदप. जर एकादरें भुरगें ताका सापडलें जाल्यार तांणे त्या भुरग्याचें नाव सांगप. जर बेबो वळखुपाक असफल जालो जाल्यार ताकाच परत बेबो जावंचे पडटा.



# आपा-लिपा - प्रकार (3)

**खेळाचें नांव** : आपा-लिपा - 3

**खेळाचो प्रकार** : मांविक / मैदानी.

**खेळपाचो काळ** : केन्नाय. चड करून गुटयंच्या दिसांनी.

**खेळपाचो वेळ** : केन्नाय. (चडकरून सांजवेळा).

**खेळाक लागपी वेळ** : साधारण 1 मिनिट

**पिरायगट आनी लींगगट** : 8 तें 15 वर्सां. चडकरून चल्यांच खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : कांय ना

**नेम आनी अटी** :

1. वेव्यान दोळे बंद करप.
2. टिचकी मारल्या उपरांतच वेव्यान दोळे उगडप

**खेळपाची रीत** :

वेव्यान आपले दोळे बंद करप आनी गीत म्हणप

*कोणी तरी यावे*
*आणि टिचकी मारून जावे.*

हें पद म्हणटकीच एकल्यान येवप आनी वेवो भुरग्याच्या कपलार टिचकी मारून आपल्या जाग्यार बसप. वेवो भुरग्यान टिचकी मारिल्ल्या भुरग्याचें नांव सांगप. नांव अचूक सांगल्यार टिचकी मारपी वाद जाता. आनी चूक सांगल्यार परतून तोच वेवो जाता.

■ ■

# आबुलान - बाबुलान

| | | |
|---|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : | आबुलान - बाबुलान |
| **खेळाचो प्रकार** | : | सांघिक. मैदानी, हो खेळ चडांत चड 10-15 भुरगीं खेळटात. |
| **खेळपाचो काळ** | : | गिमांत. |
| **खेळपाचो वेळ** | : | सांजवेळार. |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : | कमीत कमी अर्द वर. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : | 8 ते 9 वर्सां. हो खेळ चडकरून चलयो खेळटात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : | कांयच लागना |
| **नेम आनी अटी** | : | हो खेळ खेळटना आबुलान-बाबुलान हें पद म्हणप गरजेचें |

**खेळपाची रीत** :

1. पयलीं सगलीं भुरगीं एकठांय जातात. तातूंतलीं दोन हुशार अशीं भुरगीं कडेक रावतात. ती दोगांय भुरगीं आपले हात वयर करून एकामेकाचे हात धरतात आनी पद म्हणटात. तें म्हळ्यार :

   आबुलान बाबुलान
   बाबूची तोपी ल्हान
   शिवाजी कातवा
   हात माजे तलवा
   कोंवडेचें अंडें
   वारा खेड
   तामरेतीर पानां
   मेजार फुलां
   लपलाय कोण
   हा बघा चोर.

2. आनी अशें म्हणटा आसतना हेर सगळीं भुरगीं तांच्या हाता पोंदच्यान एके लायनीन वतात.
3. पद सोंपता आसतना कोणूय भुरगें तांच्या हाता पोंदा येता, तेन्ना तीं दोगांय 'हा बघा चोर' अशें म्हणून दोन हातांनी त्या भुरग्याक घट धरतात.
4. मागीर तें भुरगें त्या दोंगाच्याय भितरल्या एकट्याक मेळटा.
5. अशे रितीन दुसऱ्या डावाक जे भुरगे मेळटात ते दुसऱ्या गड्याक मेळटात आनी अशें करून सगळीं भुरगीं तांका दोंगाकूय वांटून दोन पंगड जातात .
6. तीं खेळपाक दोन पंगड करतात. दोन पंगड मेळून मदीं एक शीम मारतात आनी दोनूय पंगड शीमेचे दोनय वटेन रावतात.
7. एके वटेनचो पंगड दुसऱ्या पंगडाच्या भुरग्यांक दुसऱ्या गटाचीं भुरगीं त्या पंगडाच्या भुरग्यांक ओडटात.
8. आनी जर एक भुरगें दुसऱ्या पंगडान ओडून व्हेलें जाल्यार तें भुरगें त्या पंगडाचें जाता.
9. अशें करून सगळीं भुरगीं एका पंगडान ओडलीं जाल्यार तो पंगड ह्या खेळांत जिखता.

■■

# इति इति पाणी

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : इति इति पाणी |
| **खेळाचो प्रकार** | : सांघिक / घरांत वा मैदानाचेर. हो खेळ उण्यांत उणीं 10 भुरगीं खेळटात. |
| **खेळपाचो काळ** | : गिमांत. |
| **खेळपाचो वेळ** | : सांजवेळार |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : सादारण 10 मिनटां. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 4 - 7 वर्सां. चडकरून चलयो हो खेळ खेळटात |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : कांय ना |

**नेम आनी अटी** :

1. सगल्या भुरग्यांनी हाताक हात घट धरून गोल करून उबे रावप.
2. बेबो आसता ताणे मदीं उबें रावप.
3. बेबो 'इति इति पाणी' म्हणटा तर गोल रावतल्यांनी गोल गोल राणी म्हणप.
4. बेबो 'इति इति पाणी' म्हण पांयाच्या तळट्यापासून सुरू करून तकलेमेरेन पावता.

**खेळपाची रीत** :

वर्तुळ करून उबें रावप आनी त्या वर्तुळांत बेब्यान उबें रावप. बेब्यान आपले दोनूय हात, पांयांच्या बोटाक तेंकोवन 'इति इति पाणी' म्हणप. ताजे फाटल्यान 'गोल गोल राणी' म्हणत सगल्यांनी गोल फिरप. जेन्ना बेबो 'इति इति पाणी' म्हणत तकलेमेरेन पावता तेन्ना तो वर्तुळांतल्यान भायर वचपाक पळयता. गोलाकार राविल्ल्या भुरग्यांनी आपापले हात घट धरून ताका भायर वचपापसून आडावप. जर तो वचपाक यशस्वी थारलो जाल्यार ज्या भुरग्याचो हात सोडून गेलो तो खेळगडो बेबो जाता.

■■

# इस्पिकांचे खेळ जोडयांनी

**खेळाचें नांव** : जोडयांनी

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक. घरांत, (सालांत, वासरेंत) खेळटात. हो खेळ 3 वा 4 जाणांनी खेळपाचो.

**खेळाचो काळ** : कार्डांचो खंयचोय खेळ खेळपाक थरावीक काळ लागना. पूण भुरगीं चडशीं पावसांत खेळटात.

**खेळाचो वेळ** : दनपारचो, सांजवेळार आनी रातचो.

**खेळाक लागपी वेळ** : चडांत चड 3-4 मिणटां लागतात.

**पिरायगट आनी लींगगट** : ल्हान भुरगीं चड खेळटात. 9 वर्सां पिरायेचीं धरून ते कॉलेजीचीं भुरगीं मेरेन (कोणूय खेळपाक शकतात).

**खेळाक लागपी साहित्य** : एक कार्डांचो बारेंज लागता.

**नेम आनी अटी** :

1. जें कार्ड जमनीर उदारें दवरता तें कार्ड खंयच्याय कार्डाक जोडी करूक उपकरता.
2. एक ओडलेलें कार्ड जर त्याच अक्षराचें कार्ड असत जाल्यार जोडी करूंक आनी नासत जाल्यार तें कार्ड तशेंच दवरप.

**खेळपाची रीत** :

सुरवातीक एकटो कोणूय कार्ड रांगेंत / वळींत पसरायता. तातूंतलें एक-एक कार्ड तीन-चारूय जाण काडटात. जाचें कार्ड व्हडलें आसता ताका वांटणी पडटा. हो खेळ खेळपाची तरा वा पद्दत बुर्राच्या खेळासारखीच. वांटणी करपी खेळगडे आपले दावे वटेच्यान 5-5 वा 3-3 कार्डां सगल्यांक घालता. मागीर तो एक कार्ड जमनीर उदारें (आरतें) दवरता आनी त्या कार्डाचेर उरिल्लीं सगळीं कार्डां परतीं मारता / दवरता. वांटणी ज्या खेळगड्याकडच्यान सुरू केल्ली तो खेळगडो आनी बाकीचे सगलीं पयलीं जोड्यो जाल्लीं कार्डां काडून सकयल दवरतात. दोन कार्डां आयलीं जाल्यार एक जोडी जाली. ती मागीर खंयच्याय रंगाची आसल्यार जाता. दुसरें म्हळयार एकाच नंबराचीं वा अक्षराचीं कार्डां आयलीं जाल्यार दोन कार्डांची एक जोडी जाता. (देखीक, दोन चवके वा आठके; दोन राण्यो, दोन गुलाम बी). उरिल्लीं कार्डां तशींच दवरप आनी तेच खुणेचें दुसरें कार्ड (खंयच्याय रंगाचे) आसलें म्हणटकीच जोडी लावप. हें सगलें खेळ सुरू करचे

आदीं करप. जोड्यो जाल्ल्यो आसात जाल्यार पयलींच कुशीक काडून दवरप. वांटणी सुरू जाल्ली त्या खेळगड्यान एक जमनीवयलें कार्ड ओडप. जर त्याच अक्षराचें, नंबराचें कार्ड आसत जाल्यार जोडी जाता आनी नासत जाल्यार तें कार्ड तशेंच दवरप. हो नेम सगल्या खेळगड्यांक लागता. सगलें खेळगडे एक-एक पान, कार्ड ओंडटात आनी जाता तशी एक-एक जोडी जमनीर दवरतात. जाचीं कार्डां पयलीं सोंपतात तो पयलीं सुट्टा आनी जर निमाणे जमनीवयलीं सगलीं कार्डां जोड्यो जाल्योनात जाल्यार ताणीं एकमेकाचीं पानां ओडपाचीं. पयल्या खेळगड्यान दुसऱ्या गड्याचें खंयचेंय एक कार्ड काडपाचें. जोडी जाली जाल्यार बरें आसा नातर तशेंच दवरप. दुसऱ्यान तिसऱ्याचे आनी तिसऱ्यान चवथ्याचें अशें चक्राप्रमाण घुंवत रावता. खेळून-खेळून निमाणेकडेन दोगूच जाण उरतात. एकट्याकडेन दोन कार्डां जाल्यार दुसऱ्याकडेन 2 उरतात. पयलो खेळगडो दुसऱ्या खेळगड्याकडच्यान एक कार्ड घेता आनी आपली जोडी करता आनी तें पान कार्ड घेवपी खेळगड्याक वांटणेक पडटा.

**2) खेळपाची रीत** (दुसरे तरेची) - पयल्या खेळाप्रमाण व्हडलें कार्ड काडपी खेळगड्याक वांटणी पडटा. कार्डां वांटपी खेळगडो वांटचे पयलीं 4 राणयो, 4 राजा आनी 4 गुलाम काडून कडेक दवरता. ह्या 11 कार्डांचो ह्या खेळाकडेन कांयच संबंध आसना. फकत 1 गुलाम दवरतात. ह्या खेळांत सगलीं कार्डां वांटपाचीं. कार्डां सगल्यांक चड (एक पान / कार्ड चड पडटात) पयल्यांत पयलीं सगळ्यांनी जोड्यो जाल्लीं कार्डां कुशीक काडून दवरप. उरिल्लीं (बिन जोडयेचीं) कार्डां हातांत धरप. पयल्या खेळगड्यान दुसऱ्या खेळगड्याचें खंयचेंय कार्ड काडप (खंयचें कार्ड काडलां तें कळना) आपली जोडी जाली तर कार्डां कुशीक दवरप ना. तें पान तशेंच दवरप. हो नेम सगल्यांक लागता. म्हणजे सगल्यांनी अशेंच करीत रावप आनी आपल्यो जोड्यो करप. अशीं दुसऱ्याची कार्डां काडटना मदींच तो गुलाम कोणाकय वता. पयलीं गुलाम कोणाकडेन आसा हें कोणाकूच कळना आनी कोण कोणाक सांगना. कित्याक तर तांका तो गुलाम दुसऱ्याक गेल्यार पुरो जाता. ज्या खेळगड्याकडेन निमाणेकडेन गुलाम उरता तो हारता. म्हूण गुलाम कोणाकूच नाका आसता आनी असलोच जाल्यार कार्डां परत-परत किशीत रावता. कार्डां किसतात कित्याक तर दुसऱ्या खेळगड्यान पळयल्लें ते कार्ड खंय आसा (मदीं वा कुशीक) जाल्यार तो कार्ड चुकून लेगीत काडिना. निमाणेकडेन ज्या भुरग्याकडेन / खेळगड्याकडेन गुलाम उरता तो हारता आनी ताका वांटणी पडटा.



# पैशांनी

**खेळाचें नांव** : पैशांनी (2 जाणांनी)

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक, घरांत (सालांत, वासरेंत) खेळटात. हो खेळ कमीत कमी 2 जाणांनी खेळपाचो.

**खेळाचो काळ** : कार्डांचो खंयचोय खेळ खेळपाक थराविक काळ लागना पूण भुरगीं चडशीं पावसांत खेळटात.

**खेळाचो वेळ** : दनपार आनी रात

**खेळाक लागपी वेळ** : चडांत चड 10-15 मिणटां लागतात.

**पिरायगट आनी लींगगट** : ल्हान भुरगीं चड खेळटात. 9 वर्सां पिरायेचीं धरून ते कॉलेजीचीं भुरगीं मेरेन (कोणूय खेळपाक शकतात).

**खेळाक लागपी साहित्य** : एक कार्डांची बार्रेज लागता.

**नेम आनी अटी** :

1. वांटणी वा कार्डां घालचे पयलीं चारूय तरांचे एके, राजा, राणी आनी गुलाम काडून कुशीक दवरप आनी मागीर कार्डां वांटप.
2. जर कार्डां काडपाक चुकलो जाल्यार ताका मागीर कार्डां काडपाक मेळनात.

**खेळपाची रीत** :

हो खेळ खेळपाक दोनूच खेळगडे आसतात. म्हणजे एकटो कार्डां पातळायता तातूंतलो एक-एक कार्ड काडटात. जाचें कार्ड व्हडलें येता ताका वांटणी पडटा. वांटणी वा कार्डां घालचे पयलीं चारूय एके, राजा, राणी आनी गुलाम काडून कुशीक दवरप आनी मागीर कार्डां वांटप. कुशीक काडून दवरिल्ल्या 16 पानांक - (कार्डांक) पयशे अशें म्हणटात. ते पयशे दोगूय खेळगडे सारके वांटून घेतात. देखीक (2 राजा, 2 एके, 2 राणी, 2 गुलाम) पयशे हेर वांटिल्ल्या कार्डांत मिक्स करपाचे नात, तर ते कुशीक दवरपाचे. हेर कार्डां हातांत उरफाटीं धरपाचीं आनी एक-एक कार्ड जमनीक उदारें (आरतें) उडयत रावपाचें. दोनय खेळगड्यांनी एक-एक कार्ड एकार-एक उडयत रावपाचें. खेळटा-खेळटा दोगांयचींय कार्डां एकाच नंबरांची वा अक्षरांची आयलीं जाल्यार दुसरें कार्ड पडलां त्या खेळगड्याक जमनीवेलीं सगळीं कार्डां मेळटात आनी जर तो तीं कार्डां त्याच वेळार काडपाक चुकलो जाल्यार ताका मागीर ती कार्डां काडपाक मेळनात. खेळटां-खेळटां एकट्या खेळगड्यांचीं कार्डां सोपतात. तेन्ना ताका आपले पयशे दिवन कार्डां विकतीं घेवचीं पडटा. देखीक एक्याक 20 कार्डां, राजाक 15 कार्डां, राणयेक 10 कार्डां आनी गुलामाक 5 कार्डां. कार्डां विकती घेयत रावत जाल्यार पयशें सोंपतात आनी जाचे पयशें सोंपतात तो हरता आनी खेळ सोंपता.

■ ■

# बुर्रांनी

**खेळाचें नांव** : बुर्रांनी

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक. घरांत, सालांत, वासरेंत खेळटात. हो खेळ 3 वा 5 मनशां खेळटात.

**खेळाचो काळ** : पावसांत, हिंवाळ्यांत, गीमांत खेळटात.

**खेळाचो वेळ** : रातचो चड करुन.

**खेळाक लागपी वेळ** : चडांत चड 5 मिणटां

**पिरायगट आनी लींगगट** : 10 वर्सां उपरांतची भुरगीं ते जाण्टे मेरेन. चले आनी चलयो मेळून खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : एक कार्डांची बार्रेज लागता.

**नेम आनी अटी** :

1. सगल्यांक 3-3 कार्डां घालून जातकीच एक कार्ड मद्दीं उदारें दवरप आनी उरिल्लीं सगलीं कार्डां तशींच परतीं मारप.
2. सगल्यांनी जमनीर दवरिल्ल्या कार्डा सारकेंच कार्ड खेळप. जर तसलें कार्ड ना जाल्यार परतीं दवरिल्लीं कार्डां ओडपाक लागप.

**खेळपाची रीत** :

सगल्यांत पयलीं तीगां वा पांचांमदल्या एकट्यान कार्डां किसप आनी एके रांगेंत पातळावप. पाताळायिल्ल्या कार्डांमदलें एक-एक कार्ड सगल्यांनी काडप. जाचें कार्ड व्हडलें आसता ताका / ताचेर वांटणी पडटा. वांटणी पडिल्लो खेळगडो आपले दावे वटेच्यान वांटपाक सुरवात करता आनी आपलेकडेन पावतकीर थांवता / रावता. ह्या खेळांत तीन फेरयांनी कार्डां घालपाचीं आसतात. तीनूय फेरयांनी एक-एकच कार्ड घालपाचें. सगल्याक तीन-तीन कार्डां घालून जातकीच एक कार्ड मद्दी उदारें दवरप आनी उरिल्लीं सगलीं कार्डां तशींच परतीं मारप. कार्डां पयलीं घेतिल्या खेळगड्यान खेळपाक सुरवात करप. सुरवातीक सगल्यांनी जमनीर दवरिल्ल्या कार्डा मारकेंच कार्ड खेळप. जर तसलें कार्ड ना जाल्यार परतीं दवरिल्लीं कार्डां ओडपाक लागप. जमनीर दवरिल्लें कार्ड येसर ओडीत रावपाचें. जर तें कार्ड आयलें जाल्यार खेळपाचें आनी ताचे फाटल्यान दुसरो कोणूय खेळपाक आसा जाल्यार ताणें खेळपाचें आनी ना जाल्यार तसलें कार्ड येसर ओडीत रावपाचें. दुसरें खेळिल्लें कार्ड आपल्याकडेन ना जाल्यार जमनीवयली परतीं दवरिल्लीं कार्डां ओडीतूच रावपाचें. जर कोणय एकटो खंयचेंय कार्ड खेळ्ळो आनी तें कार्ड दुसऱ्याकडेन ना जाल्यार ताणें जमनीवयलीं कार्डां ओडपाचीं. जर तीं कार्डां ओडटां-ओडटां सगलीं सोंपलीं पूण जाय तें कार्ड मेळ्ळेंना जाल्यार (जें ताचेकडेन ना तें) आपलेकडेन दवरचें पडटा. ताणें सगलीं कार्डां आपलेकडेन दवरले उपरांत पयलो खेळगडो परत आपल्याक जाय तें कार्ड खेळटा. त्या कार्डांचेर मागीर सगळ्या खेळगड्यांनी खेळपाचें.

जर खेळटां-खेळटां एका खेळगड्याचीं कार्डां सोंपलीं जाल्यार तो मुटलो अशें म्हणटात. तो सुटले उपरांत उरिल्ले खेळगडे आपले डावाप्रमाण खेळटात. तीग जाणांतलो एकटो मुटलो म्हणजे 2 जाण उरतात. त्या दोग जाणांतल्यान जर एकट्यान जमनीवयलीं सगळीं कार्डां घेतलीं आनी दुसऱ्याकडेन फकत थोडींच कार्डां आसत जाल्यार चड कार्डां आशिल्लो खेळगडो आपल्याक जाय तशें खेळपाक शकता. कित्याक तर ताका खबर आसता दुसऱ्या खेळगड्याकडेन खंयचीं कार्डां आशिल्यान खेळगड्याक धर-सोड, धर-सोड करपाक लायता. (धर म्हणजे ताजेकडेन जें कार्ड ना तें धर आनी आपणें दिल्ल्या त्या कार्डार सोड) ताका धर-सोड अशें म्हणटात. धर-सोड करपी खेळगडी थोडीं कार्डां आशिल्ल्या खेळगड्याक जेन्ना धर म्हूण कार्ड दिता तेन्ना तो धाकटें कार्ड ताका दिता आनी व्हडलें कार्ड आपलेकडेन दवरता. व्हडलें कार्ड ताचेकडेन दवरलें म्हूण पयलीं खेळपाक ताका मेळटा आनी पयलीं तोच भायर सुट्टा. निमाणेकडेन जाच्या हातांत कार्डां उरतात ताचेर बुर्र येता अशें म्हणटात.

**हेर म्हायतीः**

'बुर्र' ह्या उतराचो अर्थ गाढव (Donkey). गाढव हो तकलेन साप्प बुद्दू, मुर्ख आसता अशें मानतात. जाचेकडेन चड कार्डां उरतात तो बुद्दू, मुर्ख - हाचेवेल्यान ह्या खेळाक हें नाव पडलां.



# मुंगूस

**खेळाचें नांव** : मुंगूस

**खेळाचो प्रकार** : घरांतलो, सांघिक. हो खेळ भुरगीं घरांत, सालांत खेळटात. उण्यांत उणी 2 भुरगीं आनी चडांत चड 2 भुरगीं हो खेळ खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : चड करून पावसांत

**खेळपाचो वेळ** : सांजवेळार.

**खेळपाक लागपी वेळ** : 15 मिनटां. (हो खेळ सरपट जमनीर बसून खेळटात)

**पिरायगट आनी लींगगट** : 10 वर्सां उपरांतचीं भुरगीं हो खेळ खेळटात. हो खेळ चलो / चली कोणूय खेळूंक शकतात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : कार्डां (कट)

**नेम आनी अटी** :

1. पयल्या खेळगड्यान चुकून लेगीत मदीं लावपाचें कार्ड कुशीक लायलें जाल्यार दुसरो खेळगडी आपलें एक कार्ड ताका दिता आनी मुंगूस पडलें अशें म्हणटा.
2. खंयचोय खेळगडो जेन्ना दुसऱ्याक मुंगूस दिता आनी आपलीं कार्डां लायत वता तेन्ना ताका परत एक-दोनदां खेळपाक मेळटा.

**खेळपाची रीत** :

सुरवेक सगलीं कार्डां जमनीर सरपट ओडप आनी तातूंतले एक-एक कार्ड प्रतिस्पर्धी खेळगड्यानी काडप.

जाचें कार्ड व्हडलें आसता ताका वांटणी पडटा. पांच - पांच कार्डां घालून वांटणी करप आनी निमणें कार्ड जमनीर मद्दी आरतें / उदारें दवरप.

जर उदारें कार्ड 3 नंबराचें आसत जाल्यार ताचेर 4,5,6,7....अशे कार्डांचे नंबर येयत रावतले. 2 मेरेन. दोनय खेळगड्यांनी एक-एक पान खेळप. खेळगड्यांनीं वाटिल्लीं सगलीं कार्डां दावेवटेन परतीं करून दवरप आनी मागीर एक-एक खेळप. खेळगड्याक चत्रायेन खेळचें पडटा नाजाल्यार तांका मुंगूस म्हण एक कार्ड दुसऱ्याकडल्यान घेंवचे पडटा. मदल्या नंवराक लागतात तीं कार्डां उजवेवटेन आरतीं दवरप आनी दावेवटेनचीं सगलीं कार्ड सोंपतकीच उजवे वटेनचीं परतीं करून परत खेळपाक लागप. मदीं लायिल्ल्यान नंबराचेंच दुसऱ्या रंगाचें कार्ड आयलें जाल्यार तें मदीं दवरप. अशे तरेन चारूय रंगांची एकाच नंवराचीं कार्डां मदीं लावप आनी तांचेफुडें दुसरीं कार्डां लायत वचप. निमाणेकडेन ज्या खेळगड्याकडेन पानां / कार्डां उरतात तो म्हार जाता आनी ताका वांटणी पडटा. ताचेर मुंगूस पडलें अशेंय म्हणटात.

**हेर म्हायती** :

थोडे लोक हो खेळ पयशे लावन खेळटात जाल्यार भुरगीं मजेखातीर, आवडीन खेळटात.



# मेंढी कोट

**खेळाचें नांव** : मेंढी कोट (2 जाणांनी)

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक. घरांत, सालांत, वासरेंत खेळटात. हो खेळ दोगा जाणांनी खेळपाचो.

**खेळाचो काळ** : पावसांत, हिंवाळ्यांत, गीमांत खेळटात.

**खेळाचो वेळ** : रातचो चड करून.

**खेळाक लागपी वेळ** : चडांत चड 10-15 मिणटां

**पिरायगट आनी लींगगट** : 10 वर्सां उपरांतचीं भुरगीं ते जाण्टे / जाण्टीं मेरेन. चले आनी चलयो मेळून खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : एक कार्डांची बारेंज लागता.

**नेम आनी अटी** :

1. ज्या खेळगड्याक वांटणेंत पयलीं कार्डां मेळटात ताणें एक कार्ड ट्रम्स (तुरूक) म्हण लिपोवन दवरपाचें
2. ज्या कोणाक मेंढी मेळना ताचेर कोट पडटा. (मेंढी म्हळ्यार 10 चें पान (धाको))

**खेळपाची रीत** : सुरवातीक दोगां मदलो एकटो कार्डां किसता / पिसता आनी एके रांगेत पातळायता.

तातूतले दोगूय जाण एक-एक कार्ड काडटात. जाचें कार्ड व्हडलें येता ताका वांटणी पडटा. कार्डा वांटपीय खेळगडो सगळीं कार्डा एकठांय करता आनी किसता. किशिल्लीं कार्डा तो वांट्टा. पयले फेरयेक 5 - 5 कार्डा, दुसरे फेरयेक 5 - 5, तिसरे फेरयेक 4 - 4, चौथे फेरयेक 4 - 4, पांचवे फेरयेंत 3 - 3 आनी सव्वे फेरयेंत 3 - 3 कार्डा वांट्टा. दोगाय जाणांनी पयले आनी तिसरे फेरयेंतलीं कार्डा परतीं दवरप आनी दुसरे आनी चौथे फेरयेंतली कार्डा त्या कार्डांचेर उदारीं दवरप आनी दुसरे आनी चवथे फेरयेंतलीं कार्डा परतीं दवरप आनी दुसरे आनी चौथे फेरयेंतली कार्डा त्या कार्डांचेर उदारीं दवरप आनी दुसरे आनी चौथे फेरयेतलीं 2 कार्डा जमनीर आरतीं परतीं दवरप. निमाणेकडेन 6 कार्डा हातांत धरप. वांटपी खेळगड्यान सदांच निमाणे खेळप. दोगूय खेळगडे हातांतलीं वा जमनीवेलीं कार्डा ट्रप्स (तुरुक) म्हूण लिपोवन दवरतात. ह्या खेळांत दोगूच जाण आशिल्ले कारणान चिंतून खेळचें पडटा. कित्याक तर जमनीर दवरिल्लीं कार्डा दुसऱ्या खेळगड्यान पळयिल्लीं आसतात. ह्या खेळांत हात चड करपाक गरज आसता, कित्याक मेंढी केन्ना आनी कशी येत ती खबर आसना. पयल्या खेळाप्रमाण हो खेळ खेळप. जाच्यो मेंढी थोड्यो जातात ताचेर वांटणी पडटा आनी कोणाक मेंढी मेळना ताचेर कोट पडलो अशें म्हणटात.



# मेंढी कोट

**खेळाचें नांव** : मेंढी कोट (4 जाणांनी)

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक. घरांत, सालांत, वासरेंत खेळटात. हो खेळ चार जाणांनी खेळपाचो.

**खेळाचो काळ** : पावसांत, हिवाळ्यांत, गीमांत खेळटात.

**खेळाचो वेळ** : रातचो / सांजवेळार चड करून.

**खेळाक लागपी वेळ** : चडांत चड 20 मिणटां

**पिरायगट आनी लींगगट** : 10 वर्सां उपरांतचीं भुरगीं ते जाण्टे / जाण्टीं मेरेन. चले आनी चलयो मेळून खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** . : कार्डां (कट).

**नेम आनी अटी** :

1. व्हडलें कार्ड काडटा ताका वांटणी पडटा.
2. ज्या खेळगड्याक वांटणेंत पयलीं कार्डा मेळटात ताणें एक कार्ड ट्रंप्स (तुरूक) म्हण लिपोवन दवरपाचें.
3. ट्रंप्स ओपन करतल्या खेळगड्यान तसलेंच कार्ड खेळचें पडटा.
4. खंयचेय जोडयेक एकय मेंढी आयलीना जाल्यार तांचेर कोट पडलो अशें म्हणटात.

**खेळपाची रीत** :

खेळाचे सुरवातीक सगलीं कार्डा जमनीर पातळावप आनी तातूंतलें एक-एक कार्ड सगल्यांनी काडप. ज्या खेळगड्याचें कार्ड व्हडलें आसता ताका वांटणी पडटा. वांटणी पडिल्ले खोळगडे आपले दावे वटेच्या खेळगड्याक काप मार म्हण सांगता. (काप म्हणजे सगली कार्डा दोनकडेन

विभागपाची) वांटणी सुरू केल्या त्या खेळगड्याकडच्यान खेळाक सुरवात जाता. त्या खेळगड्यान आपल्याक जाय तें कार्ड खेळप. पूण वांटणेचे पयले फेरयेक एक कार्ड लिपोवन दवरप (ट्रंप्स). तो खेळटा तसलेंच तरेचें (देखीक किलवर, बदाम) कार्ड हेर खेळगड्याक खेळचें पडटा. जंय खंयच्याय खेळगड्याक मेंढी मारपाक जाय जाल्यार 10 परस कमी नंबराचीं कार्डा आमल्यारच ताणें मारचीं पडटात. जर अशें केलेंना जाल्यार ती मेंढी दुसऱ्याक वता. ह्या खेळांत ट्रंप्स, मेंढी आनी एक्याक चड म्हत्व आसता. जे जोडयेचें कार्ड व्हडलें आसता ते जोडयेक तो हात (दस्त) वता. ट्रंप्स ओपन करता त्या खेळगड्याक तसलेंच कार्ड खेळचें पडटा. जर तसलें कार्ड ताचेकडेन ना जाल्यार दुसरें कार्ड खेळचें पडटा.

आपल्या साथीदारान जर व्हडलें कार्ड वा ट्रंप्स कार्ड मारलें जाल्यार दुसऱ्याक मारपाक हरकत ना. कित्याक तर ती मेंढी ताकाच येता. खंयचोय हात वा मेंढी आपल्याक घेवपाक जाय आनी तसलें कार्ड आपलेकडेन ना जाल्यार ट्रंप्स खेळटकीच, ती मेंढी वा हात येता. निमाणेकडेन जे जोडयेचे हात आनी मेंढ्यो थोड्यो थोड्यो जातात तांका वांटणी पडटा. उण्यांत उणी एक मेंढी आयली जाल्यार बरें. फकत वांटणी पडटा. पूण जर एकय मेंढी आयलीना जाल्यार कोट पडटा.

**हेर म्हायती** :

हो खेळ लोक घरांत, वासरेंत खेळटात. तशेंच ट्रेनींत, पिकनिकेक वेळ पासार करूंक खेळटात. हो खेळ क्लबांतूय खेळटात. एक शिक्षणीक साधन म्हण पत्त्यांचो उपेग केल्लो दिश्टी पडटा. इतिहास, भुगोल, खगोलशास्त्र हांचे शिक्षण दिवपाखातीर खास शिक्षणीक पत्ते तयार केल्यात.



# इस्पिकांचे खेळ



# उबो खो-खो

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : उबो खो-खो |
| **खेळाचो प्रकार** | : सांघिक, मैदानी. हो खेळ उण्यांत उणीं 10 आनी चडांत चड 20 जाणां खेळटात. |
| **खेळपाचो काळ** | : चड करून गिमांत. |
| **खेळपाचो वेळ** | : चड करून सकाळ. |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : सादारण अर्द वा एक वर. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 5 - 12 वर्सां. चडकरून चले हो खेळ खेळटात |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : कांय ना |
| **नेम आनी अटी** | : |

वर्तुळांत दोग दोग गडी उबे रावप.

1. धांवतल्यान खेळगड्याचे मदींच धांवप.
2. खो गड्याच्या मुखार येवन दिवप.
3. खो दिले उपरांत निमणो (तिसरो गडी) आसता ताणेंच धांवप.

**खेळपाची रीत** :

- वर्तुळांत एकाफाटल्यान एक अशे दोग दोग जाण उबे रावतात. तातूंत एक बेबो आसता तर दुसरो धांवपी. धांवपी आपल्याक धरचे पयलींच वर्तुळांत उबे आशिल्ल्याच्या मुखार रावन 'खो' म्हणटा. 'खो' म्हळें म्हणटकच तिसऱ्यान धांवप.



## उबो खो-खो



# कबड्डी (हूतूतू)

**खेळाचें नांव** : कबड्डी

**खेळाचो प्रकार** : मैदानी, सांघिक. हो खेळ चडांत-चड 10 जाण खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : गिमांत / पावसांत / शियांत

**खेळपाचो वेळ** : सकाळ वा सांज

**खेळाक लागपी वेळ** : कमीत कम 15-20 मिनटां लागतात.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 10 वर्सां उपरांतले भुरगे. हो खेळ चले आनी चलयो खेळटात. (चड करून दादले)

**खेळाक लागपी साहित्य** : कांय ना.

**नेम आनी अटी** :

1. ह्या खेळांत दोन पंगड आसतात.
2. घुरी घालपी खेळगड्याक दुसऱ्या पंगडावटेनचे घुरयेवळीक स्पर्श करचो पडटा.
3. घुरी घालतल्यान कबड्डी वा हुतूतू स्वर सोडूक उपकरना.
4. घुरी घालपी खेळगड्यान बोनस वळीक स्पर्श केल्यार त्या पंगडाक एक अदीक बोनस गूण मेळटा.

**खेळपाची रीत** :

कबड्डीचो खेळ दोन पंगडांभितर खेळटात. दरेक पंगडांत धा खेळगडे आसतात. तातूंतले सात खेळगडे खेळ खेळटात, तीन खेळगडे राखीव आसतात. पंगडांतलो एक खेळगडो एकच वेळा हुतूतू ना जाल्यार कबड्डी हो सूर धरत आपल्या विरोधक पंगडाचेर घुरी घालता आनी आपल्या हातांचो नाजाल्यार पांयांचो वापर करून विरोधी पंगडाच्या

खेळगड्यांक बाद करपाचो यत्न करतात. ह्याच वेळार विरोधी पंगडाचे खळगडे, ह्या खेळगड्याक धरून बाद करपाचो यत्न करता. घुरी घालपी खेळगड्यांक दुसऱ्या पंगडावटेनचे घुरयेवळीक स्पर्श करचो पडटा तशेंच दुसऱ्या अर्दात आसतना कबड्डी हो सूर सोडूंक उपकरना, नाजाल्यार घुरी घालपी बाद जाता. घुरी घालपी खेळगड्यान बोनस वळीक स्पर्श केल्यार बोनस गूण मेळटात. पूण तेखातीर दुसऱ्या अर्दांत उणेंच पांच खेळगडे आसचे पडटात. खंयच्याय पंगडातलो एक खेळगडो बाद जाता. तेन्ना दुसऱ्या पंगडाक एक गूण मेळटा. जेन्ना एकाद्या पंगडाचे सगळे गडी बाद जातात तेन्ना लोण पडली अशें म्हण्टात. त्यावेळार विरुद्ध पंगडाक थारायिल्ले चड गूण मेळटात.

**हेर म्हायती** :

गोंयांत हुतूतू, बंगालांत हुडु, दक्षीण भारतात चेडुगुडु आनी उत्तर भारतात कबड्डी ह्या नांवान वळखतात.

अखिल महाराष्ट्र शारीरीक शिक्षण मंडळाच्या नेमांप्रमाणात कबड्डी खेळपाच्यो तीन पद्धती आसात.

१. संजीवनी पद्धती - हातूंत जेन्ना पंगडाची खेळगडी बाद जाता तेन्ना विरुद्ध पंगडांचो बाद जाल्लो खेळगडी जिवो जाजा आनी खेळांत भाग घेता.

२. गनिमी पद्धत - हातूंत एक फावट बाद जाल्लो खेळगडो लोण जायमेरेन वा डाव सोंपमेरेन खेळूंक शकना.

३. अमेर पद्धत - बाद जाल्लो खेळगडो खेळांत भाग घेवंक शकना पूण तेखातीर विरुद्ध पंगडाक गूण मेळटा. खेळ खेळपाची पद्धत मात वयलेवरीच आसता. दादले हो खेळ 20-5-20 मिनटां खेळटात. तर बायलो 15-5-15 मिणटां खेळटात. मदलीं पाच मिणटां सुटी आसता.



# कलर कलर वॉट कलर?

| | | |
|---|---|---|
| खेळाचें नांव | : | कलर कलर वॉट कलर? |
| खेळाचो प्रकार | : | मैदानी / सांघिक. हो खेळ 10-11 भुरगीं खेळटात. |
| खेळपाचो काळ | : | गिम |
| खेळपाचो वेळ | : | सांज |
| खेळाक लागपी वेळ | : | सादारण 15 मिनटां. |
| पिरायगट आनी लींगगट | : | 8-12 वर्सां भुरगीं. चलयो. |
| खेळाक लागपी साहित्य | : | कांय ना |

**नेम आनी अटी :**

1. सगळ्यांनी सुचयल्ल्या कलराकुच घट धरप.

**खेळपाची रीत :**

सगळ्यांत पयलीं बेबो सोदून काडप. उपरांत तांचे भितरल्या एकल्या खेळगड्यान कलर कलर वॉट कलर असो प्रस्न बेब्याक करप. प्रस्नाची जाप म्हण बेब्यान खंयच्याय एका कलराचें नांव सांगप.

देखीक - गुलाबी.

सगल्या खेळगड्यांनी धांवत वचून गुलाबी कलराक हात लावप. कलराक हात लावचेपयलींच जर बेबो आफुडलो जाल्यार तो बेबो जाता. निमणो प्रस्न नवीन जाल्ल्या बेब्याक विचारप. कलर खंयूय आसतात. झाडाचो, घराचो, कपड्यांचो कसलोय कलर आसूं येता.



## कलर कलर वॉट कलर?



# कानकुटुन्यांनी

| | | |
|---|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : | कानकुटुन्यांनी |
| **खेळाचो प्रकार** | : | घरांतलो, सांघिक. हो खेळ भुरगीं घरांत खेळटात. (हो खेळ आंगणात लेगीत खेळूं येता.) |
| **खेळाचो काळ** | : | ह्या खेळाक काळ लागना. केन्नाय खेळूं येंता. |
| **खेळाचो वेळ** | : | खंयच्याय वेळार खेळूं येता. |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : | 2-3 मिनटां |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : | 9 ते 14 वर्सां. चले-चलयो मेळून खेळटात |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : | कांय ना. |

**नेम आनी अटी** :

1. सगल्यांनी वर्तुळ करुनच बसप.
2. एकामेकांच्या कानांत सांगप.
3. एकट्यान फकत एकदांच एकट्याच्या कानांत सांगप
4. जे आयकूपाक येतां तेच सांगप.

**खेळपाची रीत** :

सगल्यांनी वर्तुळ करून बसप. कोणाय एकल्यान आपले कुशीक बशिल्ल्याच्या कानांत कांय उतरां सांगप. तींच उतरां दुसऱ्यान मागीर आपले कुशीक बशिल्ल्याच्या कानांत सांगप. अशेतरेन एकट्यान दुसऱ्याक, दुसऱ्यान तिसऱ्याक, तिसऱ्यान चवथ्याक अशें सांगीत रावप. अशेतरेन निमाणो जो उरता ताणे मात आपणाक जें किदें आयकुपाक आयला तें मोट्यान सांगप. ताणें सांगले उपरांत मागीर पयलो जो सागंपी आसता ताणें मुळावें वाक्य सांगप. मागीर निमाणो जो आयकुपी आसता ताचेमेरेन पावसर मूळ वाक्यांत कितलो वदल घडटा तें पळोवप आनी ताची मजा चाखप.



# कानकुदुऱ्यांनी



# कापसाचो गुळो

**खेळाचें नांव** : कापसाचो गुळो

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक. मैदानी, भायर. ह्या खेळांत उण्यांत उणीं 10-12 जाणां वांटो घेतात.

**खेळपाचो काळ** : गीम

**खेळपाचो वेळ** : सकाळी, सांजवेळार.

**खेळाक लागपी वेळ** : सादारण दोन वरां.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 8 ते 9 वर्सां. हो खेळचले आनी चलयो खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : कांय ना.

**नेम आनी अटी** : ह्या खेळांत बेबो जाल्ल्या भुरग्यान 'कापसाचो गुळो' म्हणून हेर खेळगड्यांकडेन पळयतकीच तांणी आसा तशें आंगपाय कसलोच अवयव हालयनासतना म्हूर्तीसारकें घट्ट उबें रावप.

**खेळपाची रीत** :

1. पयलीं एक शीम मारप आनी 50 मीटर अशें अंतर दवरप. जो बेबो आसता तो खेळगडो ते शीमेच्या फुडें हेर भुरग्यांक फाट करून उबो रावता. तो उबो राविल्ल्या लागीं गोल आखून घेतात आनी ते शीमेचेर सगळीं खेळपी भुरगीं उबीं रावतात, मागीर खेळ सुरू जाता.
2. बेबो जाल्लो भुरगो शीमेसावन पन्नास मीटर पयस फाट करून उबो रावता.
3. मागीर शिमेचेर राविल्लें भुरगें ल्हव एक एक पावल फुडें सरता. बेबो जाल्या भुरग्यान 'कापसाचो गुळो' अशें म्हणल्या उपरांत फाटल्यान वळून मुखार सरपी भुरग्याकडेन पळोवप.
4. सगळ्या भुरग्यांनी जी शीम मारल्या थंयच्यान मुखार सरपाक सुरवात केल्ली आसता. पूण बेबो जाल्या भुरग्यान 'कापसाचो गुळो' म्हणून ताचें तोंड हेर खेळगड्यांकडेन करतकीच आसा तऽऽशे आंगपाय कसलोच अवयव हालयनासतना म्हूर्तीसारकें घट्ट उबें रावप.
5. जर बेबो जाल्ल्या भुरग्यान खंयच्याय भुरग्याक मात लेगीत हालतना पळयलें जाल्यार ताणे त्या भुरग्याक बोट दाखोवन ताचें नांव सांगप.
6. मागीर तो भुरगो खेळांतल्यना भायर पडटा. बेबो मागीर परत पद म्हणटा 'कापसाचो गुळो'.
7. अशें करून खेळ चालू आसतना बेब्याच्या म्हऱ्यांत हात लावपाच्या अंतरार पवतकीर थापट मारप. हांगा खेळ अर्दो सोपता.
8. आनी बेब्यान फाटीर थापट पडलेबरोबर फाटल्यान म्हळ्यार भुरग्याचे वटेन वळप आनी हेर आशिल्ल्या भुरग्यांनी शीमेवटेन धांवप. शीम हुंपचेआदीं बेबो ज्या भुरग्याक आफुडटा म्हळ्यार हात लायता, तो भुरगो दुसऱ्या खेळांत बेबो जाता.

# कोंब्यांनी

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : कोंब्यांनी |
| **खेळाचो प्रकार** | : घरांतलो, सांघिक. हो खेळ भुरगीं घरांत, वासरेंत वा भायर खेळटात. हो खेळ उण्यांत उणीं एक आनी चडांत चड दोनूच भुरगीं खेळटात. |
| **खेळाचो काळ** | : मे, जून म्हयन्यांत |
| **खेळाचो वेळ** | : सांजवेळार |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : 2 मिणटां (कळयेंतले सगळे बोंगे सोंपमेरेन) |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 6 ते 15 वर्सां. हो खेळ चले-चलयो कोणूय खेळटात |
| **खेळपाक लागपी साहित्य** | : गुलमोहराच्या फुलांचे बोंगे. |

**नेम आनी अटी** :

1. बोंग्यातले सगले कोंबे सोंपमेरेन खेळप.
2. ज्या भुरग्याचे कोंबे पयलीं सोपतात तो हरता.

**खेळपाची रीत** :

शंकराच्या फुलाचे बोंगे घेवप आनी ते पिसडप. भितर सुतां सारके पूण घट अशे कोंबें मेळटात. तांच्या माथ्यार दाळीच्या धापासारखे पूण मातशे लांबट गुळे आसतात. खेळपी दोनूय भुरग्यांनी एक-एक कोंबो हातांत धरप आनी एकामेकाच्या कोंब्याच्यो तकल्यो वांकड्यो धरुन ओडप. ज्या भुरग्याल्या कोंब्याची तकली पडटा ताणें दुसरो कोंबो घेवप. निमाणेकडेन जो खेळगडो कोंबे पयलीं सोंपयता तो हारता.



# कोंयडेबाल

**खेळाचें नांव** : कोंयडेबाल

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक, मैदानी.
हो खेळ भुरगीं मैदानाचेर वा मळार खेळटात.
कमीत कमी चार-पाच जाणांचे दोन भाग करून हो खेळ खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : पावसाळो.

**खेळपाचो वेळ** : सकाळ, सांज

**खेळाक लागपी वेळ** : 15 ते 20 मिणटा.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 10 ते 15 वर्सां.
दादल्यांनीं खेळपाचो खेळ.

**खेळाक लागपी साहित्य** : जित्या कोंड्यान तयार केल्लो कोयंडो आनी बाल.

**नेम आनी अटी** :

1. दोनय पंगडांनी सारकेच गडी आसप.
2. बाल सुमार 4-5 इंच लांबायेचें आसप.
3. बालाच्यो दोनूय कडो तोंकाच्यो आसतात.
4. कोंयड्याचो डाव आशिल्ल्या पंगडाच्या एकूच गड्यान खेळप.
5. बाल जिखपी पंगडांतल्या सगल्या गड्यांनी वांगडाच खेळप.

**खेळपाची रीत** :

हो खेळ खेळपाक दोन पंगड लागतात. ह्या दोनूय पंगडांक मारपी (कोंयड्याचो डाव) आनी जिखपी (बाल जिखप्याचो डाव) ह्या नांवांनी वळखतात. सुरवातीक मळाचे मदीं जमनीक सुमार चार आंगळां ते वेंतभर अशी तीन इंच खोलायेची आनी दोन इंच रुंदायेची चीर घालतात. तिका हूर म्हणटात. मारपी पंगडातलो खेळगडो हुरीर आडवें बाल दवरता आनी बाल पोंदचे खांचीत कोंयडें घालून बाल खोले करून हवेंत उडयतात. जिखपी पंगडातले खेळगडी हें बाल वयलेवयर जिखपाचो यत्न करतात. जर हें बाल जिखपी पंगडाच्या खंयच्याय खेळगड्यान वयलेवयर जिखून घेतलें तर मारपी खेळगडो बाद जाता. जर बाल जिखलेंना तर मारपी खेळगड्याक पयलें जीवदान मेळटा. उपरांत मारपी खेळगडो हुरीत कोंयडो बोटाच्या आदारान वा दुसऱ्या कोंयड्यान उबो करता आनी जिखपी पंगडांतलो खेळगडो खोले केल्लें बाल जंय जमनीर पडलां थंयसून तें हुरीवटेन शेंवटून मारता. जर तें बाल हुरीत उबो केल्या कोंयड्याक लागलें तर मारपी खेळगडो बाद जाता. हे फावटीय मारपी खेळगड्याक जीवदान मेळ्ळें तर मारपी खेळगडो तें बाल जिखपी पंगडाच्या खेळगड्यावटेन कोंयड्यान वावुडटा. हे कृतीक खोजे म्हणटात. हांगा पर्थून बाल वयलेवयर जिखून घेवपाची संद जिखपी खेळगड्याक मेळटा. बाल जिखलें तर जिखपी पंगडांतलो खेळगडो तें बाल आपली कळाशी वापरून मारपी खेळगड्यावटेन अशेतरेन शेंवटिता की एकतर मारपी खेळगडो आपल्या कोंयड्यान

त्या बालाक वावुडल्या उपरांत ताचो झेल अचळय जिखपी पंगडातल्या खंयच्याय खेळगड्याच्या हातांत येवंचो वा कोंयड्याचो स्पर्श बालाक जावंचो न्हय वा स्पर्श जावन वा ना जावन बाल हुरी लागींच जमनीर पडचें. ह्यो तीनूय गजाली घडल्यो तर मारपी खेळगडो बाद जाता. हे फावटीय जर खेळगड्याक जीवदान मेळ्ळें आनी कोंयड्यान वावुडलेलें बाल एका थारावीक अंतराचेर वचून पडलें तर तें बाल आनी हुर हांचे मदलें अंतर जितलें कोंयडे भरतले तितले गूण मारपी पंगडाक मेळटात. जिखपी पंगडाचो खेळगडो तें बाल हुरीवटेन शेंवटिता ताका 'आल्लो दिवप' म्हणटात. आल्लो दितना जर वयर सांगिल्ली खंयचीय एक गजाल घडली तर मारपी खेळगडो बाद जाता आनी त्याच पंगडांतलो दुसरो खेळगडो खेळपाक येता. मारपी पंगडांतलो सगळे गडी बाद जाले म्हणटकच जिखपी पंगडाचे खेळगडी खेळपाक सुरू करतात.



# कोंयडेबाल



# कंवच्यांनी

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : कंवच्यांनी |
| **खेळाचो प्रकार** | : घरांतलो, सांघिक. हो खेळ चडांत-चड 4-5 भुरगीं खेळटात |
| **खेळाचो काळ** | : पावसांत खेळटात |
| **खेळाचो वेळ** | : सकाळ, दनपार वा रात |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : साधारण अर्द वर वा एक वर |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 8 ते 14 वर्सां. चडकरून चलयो खेळटात |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : वेगवेगळ्या रंगांच्यो कांकणाच्यो कंवच्यो : |

**नेम आनी अटी** :

1. खेळाक बेबो नासता.
2. सगल्यांनी भोंवताडो करून बसप.
3. कंवची काडचे पयलीं कंवच्यो मिक्स करूंक जाय.

**खेळपाची रीत** : गोल बसले उपरांत तांचे भितरल्या एकट्या खेळगड्यान कंवची काडप. कंवची काडटना मतींत दवरचें की कंवची दुसऱ्याक दाखोवंक फावना. ताचे कुशीक बशिल्ल्यान वळखून ते कंवचेचो रंग सांगप. जर दुसरो खेळगडो वळखुपाक असफल जालो जाल्यार कंवची काडटल्या खेळगड्यान कंवची कुशीक काडून दवरप आनी परतून तांणींच कंवच्यांनी मिक्स करप. ताचे उपरांत दुसऱ्या खेळगड्यान खेळप असो-हो खेळ. चड कंवच्यो जमतात तो जिखता.

■■

# खांब्यांनी / म्हेडींनी

**खेळाचें नांव** : खांब्यांनी / म्हेडींनी

**खेळाचो प्रकार** : दारांत / सांघिक / मैदानी. हो खेळ कमीत कमी 3 भुरगीं, जंय म्हेडी वा खांबे आसतात ते मेकळे सुवातेर खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : गिमांत / पावसांत.

**खेळपाचो वेळ** : सकाळ वा सांजवेळार.

**खेळाक लागपी वेळ** : कमीत कमी एक वर.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 5 ते 12 वर्सां. हो खेळ चलयो आनी चले खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : म्हेडी / खांबे (हात धरपाक जाय पडटात)

**नेम आनी अटी** :

जर तर 9 म्हेडी आमल्यो जाल्यार त्या खेळाक 10 व्यक्ती खेळपाक जाय पडटात

**खेळपाची रीत** :

1. ह्या खेळांत जर तर 9 म्हेडी आसल्यो जाल्यार 10 व्यक्ती खेळपाक जाय पडटात.
2. सुरवातेक खेळांतलीं 10 जाणां भुरगीं मदीं रावतात. थू-थू करून थुकतात आनी खांब्याक धरपाक वेगीबेगीन धांवतात हाचें कारण म्हळ्यार जाका कोणाक म्हेड मेळना तो बेबो जाता.
3. उरललीं सगळीं भुरगीं खांब्यांक घट धरतात.
4. बेबो भुरगो आखो-माखो तेल माखो, तेलकाराचो डबो फुटलो तेल गे तेल अशें पद म्हणत खांब्याकडेन घुंवत रावतात.
5. मागीर हेर भुरगीं ह्या खांब्यार सावन दुसऱ्या खांब्यार वतात, अदला बदली करतात. हेर भुरगीं एक खांबो सोडून दुसरो खांबो धरतना तांचे खांबो बेब्यान धरलो जाल्यार त्या भुरग्याचेर बेबो जावपाची पाळी येता.
6. अशें करून सगळीं भुरगीं एका खांब्यार सावन दुसऱ्या खांब्यार सावन तिसऱ्या अशीं वतात आनी मागीर चुकून बेबो बेबो जातात.
7. बेबो जाल्ल्या भुरग्याक परत तेल विकपाक भोंवचें पडटा.
8. जेन्ना भुरगीं खेळ खेळपाचो बंद करतात तेन्ना ती त्या खांब्यांचेर सगळीं जाणां येवन थूंकून घरा वतात. बेबो आसता ताका मात थुंकपाक मेळना. तो बेबोच उरता.

**हेर म्हायती** :

हो खेळ भुरगीं बरे तरेन आनी मजेंत खेळटात. ल्हान, व्हड, जाण्टीं लेगीत हो खेळ खेळटात. हो खेळ खेळटना खूब मजा येता. जर तर भुरगीं खेळटना पडली जाल्यार तांचे आवय-बापूय तांका तापयतात. एक गजाल म्हळ्यार ह्या खेळांत वेळ बरो पासार करूंक मेळटा.



# गड्डयांनी

**मुखेल अशे तीन खेळ.**

**1) बोदो खेळ 2) कोयबा 3) मिलांनी खेळ**

## 1) मिलांनी

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : मिलांनी खेळ |
| **खेळाचो प्रकार** | : सांघिक,मैदानी. हो खेळ कमीत कमी 4-5 जाण खेळटात तर बोदो खेळ खेळपाक दोन पंगड लागतात. |
| **खेळपाचो काळ** | : पावसांत खेळटात. |
| **खेळपाचो वेळ** | : सकाळ वा सांज |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : किमान एक वर. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 7 ते 15 वर्सां. दादले वा चले खेळटात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : वाटकुळेच शिमिटाचे गड्डे. (बाजारांत गड्डे विकते मेळटात) |

**नेम आनी अटी :**

1. गड्डे मुखार धावंडायतना गड्ड्यानींच धावंडावप. (एकार एक गड्डो मारुन)
2. गड्डे हातान धुकलूंक फावना.

**खेळपाची रीत :**

ह्या खेळांत जमनीचेर समान अंतराचेर तीन मिलां म्हळ्यार तीन बुराक खणटात. दरेका मिलाची रुंदाय सुमार चार इंच आसली तरी तळाची रुंदाय बरीच उणी म्हळ्यार एक इंच आसता. ह्या खेळांत खेळगडो आपले गड्डे खेळयत खेळत दुसऱ्या खेळगड्याच्या गड्ड्याक मोखून पयस धांवडायतात. तशेंच आपल्या गड्ड्यांची राखण करीत तिनूय मिलांनी आपले गड्डे भरून घेतात. दुसऱ्या खेळगड्याच्या गड्याक आपल्या गड्ड्यान धावंडावपाचे क्रियेक पेणो मारप म्हणटात. जो खेळगडो तिनूय मिलां भरून मेकळो जाता तो जैतीवंत थारता आनी जो शकना ताचेर हार पडटा. हे हारीक ह्या खेळाचे परिभाशेंत 'घूस' अशें म्हणटात.



## 2) बोदो खेळ

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : बोदो खेळ |
| **खेळाचों प्रकार** | : मैदानी, सांघिक. 'मिलानी' हो खेळ कमीत कमी 4 - 5 जाण खेळटात तर बोदो खेळ खेळपाक दोन पंगड लागतात. |
| **खेळपाचो काळ** | : पावसांत खेळटात. |
| **खेळपाचो वेळ** | : सकाळ वा दनपार. |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : किमान एक वर लागता |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 7 ते 15 वर्सां. दादले वा चले खेळटात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : वाटकुळेच शिमिटाचे गड्डे. (बाजारांत गड्डे विकते मेळटात) |

**नेम आनी अटी :**

1. गड्डे मुखार धावंडायताना गड्ड्यानीच धावंडावप. (एकार एक गड्डो मारून)
2. गड्डे हातान धुकलूंक फावना.

**खेळपाची रीत :**

ह्या खेळांत जमनीचेर बारा इंच व्यासाचें एक वर्तुळ काडटात. ह्या खेळांत दोन पंगड आसतात. एक पंगड बोद्यार बसता आनी आपले गड्डे वर्तुळांत दवरता. दुसऱ्या पंगडांतले खेळगडे ते बोद्याभायर काडटात. अशें करतना केन्नाकेन्नाय बोद्याभायल्या खेळगड्याचे गड्डे बोद्यान उरतात. बोद्याभायर आयिल्ल्या गड्ड्याचेर पेणे मारीत मारीत बोद्यासावन ते पयस व्हरतात. थंयसावन ते गड्डे बोद्यार बशिल्ल्या खेळगड्यांनी दोनून कोपरांमदीं धरून पर्थून बोद्यांत हाडून दवरपाचे आसतात.



## 3) कोयबा

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : कोयबा |
| **खेळाचो प्रकार** | : सांघिक, मैदानी. हो खेळ भुरगीं मैदानार खेळटात. ह्या खेळांत कमीत कमी 2 भुरगीं आनी चडांत चड 6 भुरगीं आसतात. |
| **खेळपाचो काळ** | : पावसांत. |
| **खेळपाचो वेळ** | : आसर आसत तेन्ना. |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : किमान 20 - 25 मिणटां. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 6 ते 14-15 वर्सां मेरेनचे भुरगे खेळटात. चलयो हो खेळ खेळनात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : तीन गड्डे, एक चिरो. |

**नेम आनी अटी :**

1. चिन्ह आशिल्लो गड्डो मिलांत पडलो जाल्यार डाव वता.
2. दोन गड्ड्यांतलो एक गड्डो रेशेर आनी दुसरो मिलांत पडलो जाल्यार कोयबा जाता.
3. चिन्ह आशिल्लो गड्डो चिऱ्यार मारतकीच तो चौकोनांत पडपाक फावना.
4. मोखूंक सांगिल्ल्या गड्ड्याक मोखूना जाल्यार डाव वता.

**खेळपाची रीत :**

1 फूट लांबी रुंदीचो चौकोन, तातूंत मील, ताचे फाटल्यान चिरो. खेळाची सुरवात 10, 20....घालून जाता. जो पयलीं सुट्टा तो पयलो खेळटा. तो खेळगडो आपले तीनय गड्डे घेवन चौकोनाच्या 5 पावलां फुडें रेशेकडेन वचून उबो रावता. तो 2 गड्डे एकामेकांक घश्टून चौकोनांत उडयता. जर एक गड्डो रेशेर आनी दुसरो गड्डो मिलांत पडलो जाल्यर कोयवा जाता आनी एक गड्डो रेशेर आनी दुसरो चौकोनाच्या भायर पडलो जाल्यार दुसरो खेळगडी

वचन तो गड्डो रेशेर 4 बोटां पयस दवरता आनी खेळपी व्यक्तीक विचारता 'लागता?' (लागता म्हणजे दोनय गड्ड्यांमदीं चार बोटां जातात काय ना?) जाप 'लागता' म्हण दिली जाल्यार तो सांगता त्या गड्ड्याक मोखप. जर मोखप सारकें जालेंना जाल्यार डाव वता.

मोखू म्हणटा तेन्ना चिन्ह आशिल्ल्या गड्ड्यार मुद्दम खूण करप. गड्ड्यानूच मोखप, रेशेर रावन. पूण चिन्हाचो गड्डो मिल्लांत वा चौकोनात पडूंक फावना. चिन्हाचो गड्डो चौकोनाच्या भायर पडल्यार दुसरो डाव खेळपा मेळटा.

खेळपी व्यक्तीन जर 'लागना' म्हळें जाल्यार दुसरो खेळगडो एका गड्ड्याक मदलें मदलें बोट लावन मातसो फुडें धुकलता आनी खंयच्याय एका गड्ड्याक मोख म्हण सांगता.

'लागता' म्हण सांगल्यार खेळपी व्यक्तीक चिन्ह आशिल्लो गड्डो फातरार मारपाक मेळटा.

**इतिहास / परंपरा / वैशिश्टय :**

हो खेळ पैशे लावन खेळटात. देखून घरचीं हो खेळ भुरग्यांक खेळपाक दिनात. गड्ड्यांनी खेळल्यार शिकूंक पावचेनात. गड्डे ('ढ') जातले अशें म्हण्टात.



# गड्ड्यांनी



# गांठींनी

**खेळाचें नांव** : गांठींनी

**खेळाचो प्रकार** : आंगणांत / सांघिक.

**खेळपाचो काळ** : गिमांत.

**खेळपाचो वेळ** : सांजवेळार.

**खेळाक लागपी वेळ** : 2 वरां.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 8-12 वर्सां. हो खेळ चलयोच खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : कांय ना.

**नेम आनी अटी** :

1. खेळपाक लागपी सुवातेभायर वचप ना.
2. एका भुरग्यान नांव सांगपाचें आनी दुसऱ्या भुरग्या कडच्यान तोपपाचें आसता.
3. तोपता ताचें नांव सांगप ना.

**खेळपाची रीत** :

1. पयलीं सगळीं भुरगीं एकामेकाच्या हाताक घट धरतात.
2. रांगेचे पयलीं भुरगें आसता तें तोपून वचपाचें आसता आनी रांगेच्या दुसऱ्या तोंकार निमाणें भुरगें आसता तें जो कोण बेबो जावपाचो आसता ताचें नांव सांगता.
3. रांगेच्यान पयलें भुरगें तोपोन वचपाक सुरवात करता आनी दुसऱ्या भुरग्यांक तोपता तशें सगळ्यांक गांठ पडत वता.
4. मागीर जें निमाणें भुरगें आसता तें 'बेब्याचें नांव नांव नांव' अशें म्हणून गांठींतल्या एका भुरग्याचें नांव सांगता आनी तें मागीर बेबो जाता..
5. आनी एक गजाल म्हळ्यार नांव सांगपाचें आसता, त्या भुरग्यान जें पयलें तोपता ताचें नांव सांगपाक जायना अशी अट आसा.
6. उपरांत तें बेबो जाल्लें भुरगें त्या भुरग्याक धरपाक वता आनी तें एका भुरग्याक धरता.
7. मागीर त्या बेब्यान आनी ज्या भुरग्याक ताणें धरला तीं दोगांय एकामेकाच्या हाताक धरून दुसऱ्या भुरग्यांक धरतात. जशीं ती बेबो जाल्लीं तांका धरतात तशीं सगळीं बेबो जाल्लीं भुरगीं खूब जातात आनी एकामेकाच्या हाताक धरून तांका धरतात.
8. सगळ्या भुरग्यांक धरतकच जो कोणाक पयलीं धरला तो मागीर बेबो जाता. मागीर ताणें सगल्या भुरग्यांक परतून धरचें पडटा.

**हेर म्हायती :**

भुरगीं खेळटा आसतना पयस धांवपाक गेलीं जाल्यार तांका दुसरीं भुरगीं शिटकावणी दितात. हो खेळ खेळटना मातसो त्रास जाता कित्याक तो एकामेकाच्या हाताक धरून दुसऱ्या भुरग्यांक धरचें पडटा आनी ताका लागून धांवता आसतना आडमेळीं लागतात. जाचेकडेन चड धांवपाक जायना तांका एक संदी मेळटा. ती म्हळ्यार थोडीं भुरगीं तांकां बसपाक लायतात आनी तीं मागीर त्या दुसऱ्या भुरग्यांक धरतात. आनीक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार ह्या खेळांत भुरगीं झगडटात. ताचें कारण म्हळ्यार कांय भुरगीं आपलें नांव सांगलें म्हण त्या भुरग्याकडेन उलयनासतना रावतात.



# गुड्ड्यांचो खेळ

| | | |
|---|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : | गुड्डयांचो खेळ |
| **खेळाचो प्रकार** | : | वैयक्तीक, घरांतलो |
| **खेळाचो काळ** | : | खेळाक अमकोच काळ ना. |
| **खेळाचो वेळ** | : | केन्नाय खेळटात |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : | 1 मिनिट. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : | 5-10 हो खेळ चले खेळटात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : | खंयच्याय शीतपेयाचे बाटलेची गुड्डी. अर्द मिटर लांब बाजारी सूत. |
| **नेम आनी अटी** | : | 1 गुड्डेक दोन बुराक मारप. |

**खेळपाची रीत** :

सुरवातीक गुड्डेच्या दोनूय बुराकांनी सूत घालप. सुताचीं दोनूय तोंका दोनूय हातांनी घट करून घुंवडावप. दोनूय हातांनी सूत ओडप. उपरांत गुड्डी आपशींच घुंवत रावता. आरती-परती घुंवता. अशे रीतीन हो खेळ खेळटात. सुताक एक फावट पीळ पडटकीच सूत आरतें-परतें फिरता तें पळोवन मजा येता.



# चिटयांनी

**खेळाचें नांव** : चिटयांनी

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक, घरांत, सालांत, वासरेंत खेळटात. हो खेळ चार जाणांनी खेळपाचो.

**खेळाचो काळ** : खंयच्याय वेळार.

**खेळाक लागपी वेळ** : चडांत चड 20-25 मिणटां लागतात.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 8-14 वर्सां मेरेनची भुरगीं. (चले आनी चलयो)

**खेळाक लागपी साहित्य** : एक कार्डाचो बार्रेज लागता.

**नेम आनी अटी** :

1. चारय चिट्यांचेर राजा, राणी, चोर आनी पोलीस अशीं नांवां घालप.
2. राजाक 900, राणयेंक 400, पोलीसाक 500 आनी चोराक 000 अशें आंकडे घालप.
3. ज्या भुरग्याक पोलिसाची चीट मेळटा ताणें चोराक सोदून काडप.
4. पोलीसान जर चुकीचो चोर सोदून काडलो जाल्यार पोलिसांचेगूण चोराक मेळटात आनी चोराचे पोलीसाक.

**खेळपाची रीत** :

सुरवातीक चारय खेळपी भुरग्यांचीं कोन्या कागदाचेर नांवां घालतात. मागीर तांचेमदलो एकटो आपल्या हातांत चीट घेवन त्यो हालोवन सकयल जमनीर उडयता. चारय जाणां चिट्यो काडून उगडटात. ज्या भुरग्यांक पोलिसाची चीट मेळटा तांणे चोराक सोदून काडप. तांचेमदलो एकटो त्या कोन्या कागदाचेर सगळ्यांचे गुण बरयता. अशेतरेन हो खेळ खेळटात. निमाणेकडेन ज्या भुरग्याचे गूण चड जातात तो जिखता.

■■

# चुडट्यांनी

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : चुडट्यांनी |
| **खेळाचो प्रकार** | : घरांतलो / वैयक्तीक. |
| **खेळपाचो काळ** | : गिमांत. |
| **खेळपाचो वेळ** | : सकाळ |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : कमीत कमी 10 मिणटां लागतात. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 5 ते 9 वर्सां. हो खेळ चले आनी चलयो खेळटात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : जित्यो चुडट्यो |
| **नेम आनी अटी** | : 1. चुडट्यो जित्योच आसच्यो पडटात |

**खेळपाची रीत** :

चुडट्यांचे वक्ल, गिरगिरें, घडयाळ अशे जायते तरेचे प्रकार भुरगीं करतात. एक अर्द केल्ली चुडटी घेवप + 14 इंच लांब कातरप. तेच चुडटेचे 2 ½ ल्हान कुडके करप. उपरांत लांब चुडटेचेर बारीक चुडटेचो कुडको खुरसाच्या आकारान दवरून पोंदच्यान दोडप आनी तेच चुडटेचें निमाणें टोक बुराकांतल्यान ओडप. म्हणटकीच घड्याळ तयार जाता. हीच तरा वक्ल करपाकय वापरतात. फकत दोन गोल तयार जाले म्हणटकच ताका दोनय वटेन व्हीर तोपप, जालें तयार वक्ल. गिरगिरें करपाक समान इंचाच्यो दोन चुडट्यो घेवप आनी त्यो एकामेकांचेर अदीक चिन्हाच्या आकारान दवरप. ताकाच एक व्हीर तोपप. म्हण्टकीच ताचें गिरगिरें तयार जाता.



# छक्का - वछ्छी

**खेळाचें नांव** : छक्का - वछ्छी

**खेळाचो प्रकार** : घरांतले, सांधिक. हो खेळ भुरगीं वासरेंत खेळटात. उण्यांत उणी 2 भुरगीं आनी चडांत चड 4 भुरगीं हो खेळ खेळपाक शकतात.

**खेळपाचो काळ** : पावसाळ्यांत खेळटात

**खेळपाचो वेळ** : सांजवेळार

**खेळपाक लागपी वेळ** : चडात चड 30-35 मिणटां.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 8-15 वर्सांची भुरगीं. (चले वा चलयो)

**खेळाक लागपी साहित्य** : 25 चौकोनाचें एक फळें वा कार्डबोर्ड (2) 5 फुलांचे कळे (3) 5 व्हीर (1 इंच लांबीचे) (4) 5 फातर (बारीक) वा तिसरेचे कुडके (5) 5 कंवचेचे कुडके (बारीक) (6) 4 मोठ्यो वा आख्ख्यो शिंपयो (तिसरेच्यो).

**नेम आनी अटी** :

1. चारय शिंपयो परत्यो पडल्यार 8 चौकोन खेळप
2. चारय शिंपयो उदारऱ्यो पडल्यार 4 चौकोन खेळप
3. तीन, दोन, एक शिंपी उदारी पडल्यार तितलेच चौकोन खेळप.
4. मदल्या गुणाकार (X) चौकोनाक शेत म्हणटात.
5. दोनय खेळगड्यांच्यो वस्ती खंयच्याय एका खाली चौकोनांत पावल्यार पयल्या खेळगड्याक आपली वस्त आपल्या गुणाकार चौकोनांत हाडची पडता.
6. चारय शिंपयो उदाऱ्यो पडल्यार तांका छक्का म्हणटात.

**खेळपाची रीत** :

पुराय फळें हातान चित्रायल्लें आसता. सुरवेक चारय खेळगड्यांनी आपआपल्यो वस्ती आपआपल्या गुणाकार चौकोनांनी दवरप. पूण मदलो चौकोन (शेत) रिकामो दवरप. हो खेळ जमनीर बसून खेळप. खेळपाची सुरवात शिंपयो उडोवन जाता. ज्या भुरग्याच्यो चड शिंपयो उमथ्यो पडटात ताका पयलीं खेळपाक मेळटा. सापशिडी प्रमाण हो खेळ खेळप. खेळगड्यान चारय शिंपयो हातांत घेवन हालोवन जमनीर उडोवप. सगळ्यो परथ्यो पडल्यो जाल्यार 8 चौकोन खेळप. एक-एक वस्त भायर काडत रावप. आनी फळ्याचो भायलो फेरो पुराय करप. मागीर आपल्या चौकोनाचे दावे वटेनच्या चौकोनांतल्यान वयल्या फेऱ्याक वचप आनी तोय फेरो पुराय करप. दोनय फेरे पुराय जातकीच शेतांत भितर सरप.

सगल्या खेळगड्यांक एक-एक डाव खेळपाक मेळटा. एकाफाटल्यान एकट्यान खेळप. कोणाच्यो सगल्यो वस्ती पयली शेतांत पावतात तो जिखता. खंयच्याय गुणाकार चौकोनांत वस्त आसल्यार दुसऱ्या खेळगड्यान ताका मारपाक जायना.

**इतिहास / परंपरा / वैशिश्टय** : घरचीं भुरग्यांक हो खेळ सांजेच्यावेळार घरांत खेळपाक दिनात. कित्याक तर ह्या खेळांत फातर, व्हीर वापरतात म्हूण. ■■

# तळ्यांत - मळ्यांत

**खेळाचें नांव** : तळ्यांत - मळ्यांत

**खेळाचो प्रकार** : घरांत वा भायर/ सांघिक. हो खेळ चडांत चड 10 भुरगीं खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : गिमांत.

**खेळपाचो वेळ** : सकाळ, सांज

**खेळाक लागपी वेळ** : कमीतकमी 5-10 मिणटां.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 3 - 6 वर्सां. चले वा चलयो खेळटात

**खेळाक लागपी साहित्य** : कांय ना.

**नेम आनी अटी** :

1. सगल्या भुरग्यांनी एकदम उडी मारप.

**खेळपाची रीत** :

सगल्यांनी कमरेर हात धरून वर्तुळ करून उबें रावप. तांचे भितरल्या एकट्यान वर्तुळाचे भायर रावन 'तळ्यांत, मळ्यांत' अशें म्हणप. तळ्यांत म्हळें की सगल्यांनी मुखार उडी मारप आनी मळ्यांत म्हळ्यार फाटीं उडी मारप. म्हणप्यांनी आपली गती वाडयत रावप. चुकता तो बाद जाता. निमणो उरता तो विजयी जाता.



# ताबूल फळें

**खेळाचें नांव** : ताबूल फळें

**खेळाचो प्रकार** : घरांतलो, सांघिक. ह्या खेळांत कमीत कमी 2 आनी चडांत चड 4 जाणां आसतात.

**खेळाचो काळ** : पावसांत वा केन्नाय

**खेळाचो वेळ** : केन्नाय

**खेळाक लागपी वेळ** : 20 ते 25 मिणटां

**पिरायगट आनी लींगगट** : 15 वर्सां उपरांतची भुरगीं ते जाण्टे. कोणूय खेळटात. (चडकरून दादले)

**खेळाक लागपी साहित्य** : ताबूल फळें, दोन रंगांच्यो 12-13 घुलो, चार ताबलां.

**नेम आनी अटी** :

1. दोन फुलयो आशिल्लीं चारूय ताबलां पडलीं जाल्यार बारा गूण मेळटात.
2. एक फुली आशिल्लीं चारूय ताबलां पडलीं जाल्यार आठ गूण मेळटात.
3. दोन फुलयो अशिल्लें एक ताब्ल आनी एक फुली आशिल्लीं तीन ताबलां पडलीं जाल्यार तीन गूण धरप.
4. दोन फुलयो अशिल्लीं दोन आनी एक फुली आशिल्लीं दोन ताबलां पडलीं जाल्यार दोन गूण धरप.
5. दोन फुलयो अशिल्लीं तीन आनी एक फुली आशिल्लें एक ताब्ल पडलें जाल्यार दोन गूण धरतात आनी ताका ताब्ल पडलें अशें म्हणटात.
6. दर एका पंगडान आपल्यो घुलो आपापले वटेंतल्या खणांत एकामेकांचे विरुद्ध दिशेन लावच्यो पडटात.
7. ताब्ल पडटकूच घूल उजोवप जाता आनी उजयल्ली घुलूच खणाभायर पडली की उपरांत दर एका दावाचे गूण जमेक धरप.
8. खेळटना खंयच्याय एका डावाक जर फकत दोन आनी तीन गूण पडले जाल्यार ताबलां विरोधी पंगडाकडेन वतात.
9. ताब्ल बारा आनी आठ अशे गूण पडले जाल्यार मात त्याच खेळगड्याक आनीक एक डाव खेळपाची संद मेळटा.
10. ह्या ताब्लांचे विशेश म्हळ्यार हाका पडिल्ले दोन गूण एक-एक अशे विभागून मेजूंक मेळटात, जाल्यार हेर गूण एकवटीतपणान सलग मेजचे पडटात.
11. ताब्ल पडलेवगर गूण मेजपाक सुरवात करूंक मेळना.

**खेळपाची रीत :**

ह्या खेळांत चारूय ताब्लांचेर एकेवटेन दोनूय तोंकाकडेन दोन-दोन फुलयो जाल्यार दुसरेवटेन एक-एक फुली आसता. हो खेळ दर वटेन एक वा दोन खेळगडे आशिल्ल्या अशा दोन पंगडांमदीं खेळटात. खेळ खेळचे पयलीं दोनय पंगडांमदीं ताबूल फळें दवरतात. दर एक पंगड आपल्यो घुलो आपापले वटेंतल्या खणांत एकमेकांचे

विरुद्ध दिशेन लायतात. मागीर चारूय ताब्लां मुठींत घेवन ताचीं पोंतां जमनीर आपटून आपणाक जाय तशे गूण मेळोवपाच्या उद्देशान ताब्लां एक-दोन फावटी हवेंत उडोवन जिखतात आनी मागीर तीं जमनीर उडयतात. खेळाचे चालीक सुरवात जातली आनी घुलो खणाभायर काडटलो जाल्यार पयलीं ताब्ल पडूंक जाय. पयलें ताब्ल पड म्हणसर मेळिल्ले गूण धरूंक मेळनात.

ताब्ल पडटुकूच घुल उजोवप जाता आनी उजयल्ली घुलूच खणाभायर पडली की उपरांत दर एका डावाचे गूण जमेक धततात. खणाभायर आयिल्यो घुलो वयर आशीं दुसऱ्या पंगडाच्या अर्दातलीं बारा गोटा (खण) चडटा आनी दुसऱ्या पंगडाच्या अर्दातल्या बराय गोटांनी देंवता. सकयल्या गोटांतल्या मागीर जशे गूण पडटात आनी संद मेळटा तशो त्यो घुलो विरोधी पंगडाच्या घुलांच्या खणांत रिगतात आनी क्रमक्रमान विरोधी पंगडाच्यो घुलो बाद करतात. विरोधी पंगडाची घूल वाटेर आडवी आयली जाल्यार पडिल्ल्या गुणांचे संख्येप्रमाण ती बाद करूंक मेळटा.

ह्या खेळांत आपली घूल मारूंक दिवप ना आनी दुसऱ्याची घूल मारप हाकाच चड म्हत्व आसा. देखून खेळ लायतना वारीकसाणीन लावचो पडटा. अशेतरेन दुसऱ्या पंगडाच्यो घुलो जाता तितल्यो मारप आनी आपल्यो घुलो ताच्या घरांत रिगोवप. पटावयल्यो घुलो सोंपतुकुच दुसऱ्याच्या घरांत रिगयल्ल्यो घुलो घेवन खेळ चालू दवरप. अश्या वेळार जर दुसऱ्या पंगडाच्यो घुलो ताच्या घरांतुच आसत जाल्यार त्यो सडमडीत मारून मुखार वचूंक मेळटा. म्हणून सदांच दुसऱ्या गटाच्यो घुलो आपल्या घरांत रिगतात तेन्ना जागो रिकामो करून भायर सरप गरजेचें आसता. निमाणें ज्या गटाच्यो घुलो पटार उरतात तो गट जिखता.

**हेर म्हायती :**

हो घरांत बसून खेळपाचो खेळ. खूब पुर्विल्या काळासावन हो खेळ कोंकणांत खेळटात. पयलीं जेन्ना ल्हान पिरायेचेर चलयांचीं लग्नां जातालीं तेन्ना कांय खेळपाची सादनां दिवपाची रीत आशिल्ली. तशेंच चवथीच्या पयल्या वज्या वेळार खेळपाचीं साधनां धाडटालीं. घराघरांनी ताबूलफळें आसतालेंच. ल्हानापासून व्हडामेरेन सगलेच हो खेळ आवडीन खेळटाले. मेकळो वेळ खर्चुपाचो हो एक बरो खेळ आसलो.

ह्या खेळांत लागपी ताब्लां हीं लाकडाचीं आसतात. केन्ना केन्नाय कोंड्याच्या कांबीचींय ताब्लां करतात. कोंड्याच्या कांबीची ताबलां केल्यार एक फायदो आसता. तो म्हळ्यार तांचे एकेवटेच्यान पांचवो रंग असता आनी दुसरेवटेच्यान गुळगुळीत केल्यार धवसार रंग येता.

अर्विल्ल्या काळांत सगळयाच देशी खेळांकडली लोकांची ओड उणी जाल्ली पळोवंक मेळटा. ते भायर अर्विल्ल्या काळांतल्या तंत्र गिन्यानान तयार केल्ल्या नव्या खेळांची ओड आयचे पिळगेक आशिल्ल्यान पारंपारीक खेळांच्या प्रकाराकडेन एक काळाभायलो प्रकार अशे नदरेन पळोवप जाता. ताकाच लागून एका काळार घराघरांनी आसपी ताबुल-फळें सद्याच्या काळांत दिसनाशें जालां.



# दीस - मीस

**खेळाचें नांव** : दीस - मीस

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक, मैदानी. हो खेळ भुरगीं भायर दारांत वा मैदानाचेर खेळटात. चडांत चड 10-12 जाणां भुरगीं खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : गीम

**खेळपाचो वेळ** : सांजवेळार.

**खेळाक लागपी वेळ** : कमीत कमी 30 मिणटां.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 5 - 12 वर्सां. चले आनी चलयो हो खेळ खेळटात

**खेळाक लागपी साहित्य** : कट्टी आनी एक बोदो (Circle)

**नेम आनी अटी** :

ह्या खेळांत एक नेम आसा की लिपिल्ल्यान कट्टी फकत पांयानीच मोखून मारप आनी वेब्याक कट्टेक हात लावन दीस-मीस अशें म्हणप.

**खेळपाची रीत** :

पयलीं सगळीं भुरगीं एकठांय रावतात आनी तातूंतलें एकटें धा, वीस, तीस, चाळीस, पन्नास अशे शंबर मेरेन आकडे तांचेर धरून मेजता. जाचेर शंवर आकडो येता तो सुट्टा आनी जो कोण निमाणो उरता तो बेबो जाता.

1. पयलीं एक बोदो काडटात आनी एक कट्टी घेतात. तातूंतलो एक भुरगो कट्टी मारपाक रावता आनी हेर सगळीं लिपतात. मागीर तो कट्टी मात्शी पयस मारता आनी तोवूय लिपून रावता.
2. मागीर बेबो जाल्लो भुरगो ती कट्टी हाडून त्या बोद्याक सोदपाक वता. तो कट्टेक पळयता कारण कोणूय लिपिल्लो भुरगो येवन कट्टी मारत म्हण. (कट्टी मारप म्हळ्यार धांवत येवन कट्टेक पांयान आफडप)
3. बेब्याक भुरगें दिसलें म्हणटकीच ताणे त्या भुरग्याचें नांव घेवन कट्टेकडेन धांवत येवन ते कट्टेक हात लावन दीस-मीस अशें म्हणप.
4. मागीर तो परत दुसऱ्याक सोदपाक वतना जर तर दुसरो भुरगो धांवत येवन ताणे ती कट्टी पांयानी मारली जाल्यार जाका बेब्यान सोदून काडलेलो तो बेबो जायना.
5. जर तर कोणेच कट्टी मारूना जाल्यार ज्या कोणाक भुरग्याक बेब्यान लिपिल्ल्या सोदून काडला तो बेबो जाता.

आनीक एक गजाल म्हळ्यार खेळून जातकच सगळी भुरगीं ते कट्टेर थुंकतात आनी ती पयस शेंवटून मारतात. जो कोण भुरगो ते कट्टेर थुंकना त्या भुरग्याक हेर भुरगीं तूं 'बेबो' अशें म्हण चाळयतात.



# दोरयांनी

**खेळाचें नांव** : दोरयांनी

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक वा वैयक्तीक / मैदानी वा घरांतलो.

**खेळपाचो काळ** : गिमांत.

**खेळपाचो वेळ** : सकाळ वा सांज

**खेळाक लागपी वेळ** : 10 मिनटां लागतात.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 5 ते 13 वर्सां. हो खेळ चलयोच खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : एक, देड मीटर लांब दोरी

**नेम आनी अटी** :

1. खेळपाक सुरवात करतकीच मदींच खेळ थांबोवपाक मेळना.

**खेळपाची रीत** :

खेळगडो दोरी घेवन गोल घुंवडायता आनी पांयां पोंदच्यान फाटसून माथ्यावयल्यान घुंवडावन मुखार हाडटा. खेळगडो खेळटना मदींच दोरी पायांक घुस्पून पडलो जाल्यार तो बाद थारता. डाव दुसऱ्याक वता.





# धांवचेल्यांनी / चोर-पोलिस

**खेळाचें नांव** : धांवचेल्यांनी

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक, मैदानी. हो खेळ भुरगीं घरांत, दारांत, मैदानाचेर, वासऱ्यार, सालांत, खंयच्याय जाग्यार खेळटात. ल्हान, व्हड अशी कसलीय सुवात ह्या खेळपाक उपकारता. कमीत कमी 2 आनी चडांत चड 10-12 भुरगीं.

**खेळपाचो काळ** : गीम, पावस, थंडेच्या दिसांनी.

**खेळपाचो वेळ** : सकाळीं / सांजवेळार

**खेळाक लागपी वेळ** : पंदरा मिणटां लागतात.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 4 ते 12 वर्सां. चले आनी चलयो खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : ह्या खेळाक कांयच साहित्य लागना

**नेम आनी अटी** :

ह्या खेळांत जागो थारावन घेतिल्लो आसता त्या जाग्यारूच खेळपाचें आसता. सुवातेभायर धांवपाक जायना.

**खेळपाची रीत** :

पयलीं सगळीं भुरगीं एकठांय उबी रावतात आनी एकलो धा, वीस, तीस, चाळीस, पन्नास अशे शंबर पर्यंत नंबर घालता. जाचेर शंबर आंकडो येता तो सुट्टा आनी अशें करून सगळे जाण सुट्टात. जो कोण निमाणो उरता तो बेबो जाता.

1. पयलीं सगळी भुरगीं धांवतात आनी जो कोण बेबो आसता तो त्या सगळ्या भुरग्यांक धरता.
2. उपरांत बेबो जाका कोणाक पयलीं हात लायता वा धरता तो मागीर बेबो जाता आनी तो परतून सगळ्यांक धरता.
3. आनी एक गजाल म्हळ्यार हो खेळ सर्त लावन खेळटात. जो कोण धांवत पयलीं येता ताका पयलो नंबर मेळटा.

**हेर म्हायती** :

धांवचेल्यांनी खेळटना खूब मजा येता. हो खेळ सगळ्या खेळांपरस खेळपाक वेगळो तितलोच सोपो. तो कोणाकूय येता. ल्हान, व्हड, जाणट्या सगळ्यांनी खेळपाक जाता. ह्या खेळाक खेळटना सगळीं चलयो, चले एकठांय जावन खेळटात.



# न्हंय-दोंगर

| | |
|---|---|
| खेळाचें नांव | : न्हंय दोंगर |
| खेळाचो प्रकार | : सांघिक / मैदानी. चडांत चड 10-12 जाण खेळटात |
| खेळपाचो काळ | : गिमांत, पावसांत |
| खेळपाचो वेळ | : सांजवेळार. |
| खेळाक लागपी वेळ | : कमीत कमी एक वर. |
| पिरायगट आनी लींगगट | : 8 - 10 वर्सां. हो खेळ चले आनी चलयो खेळटात. |
| खेळाक लागपी साहित्य | : कांय ना. |
| नेम आनी अटी | : ह्या खेळाक 'न्हंय' म्हळ्यार खालती अशी जमीन आनी 'दोंगर' म्हळ्यार उबार अशी सुवात लागता. |

**खेळपाची रीत :**

पयलीं सगलीं भुरगीं एकठांय रावतात आनी तातूंतलो एकटो धा, वीस, तीस, चाळीस, पन्नास, अशे शंबर मेरेन आंकडे म्हणटा. जाचेर शंबर आंकडो येता, तो त्या डावांतल्यान सुट्टा. अशें करून शंबर आंकडो येता तो सुट्टा आनी जो कोण निमाणो उरता तो बेबो जाता.

1. बेबो जाल्ले व्यक्तीक हेर भुरगीं एका जाग्यार रावून विचारतात की तुका न्हंय जाय काय दोंगर जाय.
2. ताणें जर न्हंय मागली जाल्यार बाकीचीं दोंगरार रावतात आनी न्हंयेंत येवपाचो यत्न करतात.
3. न्हंयेंत आसतना एखादल्या भुरग्याक जर बेबो आफुडलो जाल्यार तें भुरगें बाद / बेबो जाता.
4. ह्या खेळांत न्हंय म्हळ्यार खालती अशी सुवात आसता आनी दोंगर म्हळ्यार उबार अशी सुवात देखीक -

   न्हंय - सकयल, मेजा सकयल

   दोंगर - मेजार, आड्यार, कदेलीचेर बी...

■■

# फातरांनी

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : फातरांनी |
| **खेळाचो प्रकार** | : घरांतलो, सांघिक. हो खेळ भुरगीं वासरेर वा सालांत खेळटालीं. हो खेळ उण्यांत उणीं दोन आनी चडांत-चड 4-5 भुरगीं खेळटात |
| **खेळाचो काळ** | : हो खेळ भुरगीं पावसांत खेळटात |
| **खेळाचो वेळ** | : चड करून सांजे |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : 5 मिणटां |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 5 ते 12 - 13 वर्सां मेरेनचीं भुरगीं खेळटात. चले वा चलयो एकठांय खेळटात (चडकरून चलयो) |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : एकाच आकाराचे बारीक पांच फातर, सरपट जमीन |

**नेम आनी अटी** :

1. बारीक पांच फातर आसूंक जाय.
2. फातर काडटना दुसरो फातर हालूंक फावना
3. खेळटाना एकाच हातान खेळचें पडटा.

**खेळपाची रीत** :

पांचूय फातर हातांत घेवन हालोवन जमनीर उडोवप. मागीर तातूंतलो खंयचोय एक फातर काडप. पयलीं काडिल्लो फातर हवेंत उडोवप. हवेत उडयल्लो फातर सकयल पडचे आदीं खेळप्यान जमनीवयलो एक फातर मुठींत काडप आनी त्याच हातान हवेंतलो फातर जिखप. अशेतरेन एक एक करून चारुय फातर काडप.



दुसरे फेरयेंत लेगीत तशेंच खेळप. फातर उडोवप. एक फातर काडप. फातर हवेंत उडयल्या उपरांत खेळप्यान जमनीवयले दोन-दोन फातर वांगडाच मुठीन काडप आनी हवेंतल्यान सकयल पडपी फातर जिखप. अशेतरेन तिसरे फेरयेंत पयलीं एक फातर, उपरांत वांगडाच तीन फातर काडून हवेंतलो फातर जिखप. चवथे फेरीत एकदम चारूय फातर मुठींत काडून हवेंतलो फातर जिखप. अशेतरेन ह्यो चार फेरयो खेळटात. पांचवे फेरयेंत पांचूय बोटां जमनीक तेंकोवन ताचो घोडो तयार करप. त्या घोड्यावयल्यान फातर उडोवप. प्रतिस्पर्ध्यान पांच फातरांमदलो राजा खंयचो तें सांगप. खेळप्यान मवकासायेन तीन फातर घोड्यांभितर घालप. निमणो राजा आसता तो फातर एकदम भितर घालप. राजा आशिल्लो फातर मवकासायेन घालूंक मेळना. हें करतना फातर हवेंत उडोवंचो आसता.

उपरांत आपल्या उजव्या हाताच्या फातरांत चार फातर घालप. प्रतिस्पर्धी खेळगड्यान हाताचें मदलें बोट धरून जोरान हालोवप. फातर सगले जमनीर पडले म्हणटुकच खेळप्यान ते वांगडाच आपले मुठींत काडप. निमणी फेरी पयशांची फेरी. हे फेरयेंत पांचय फातर हातांत घेवप. ते मातशे हालोवप आनी परत्या (उरफाट्या) हातीर घेवप. उरफाट्या हातांतले फातर ते मागीर कितलेय आसत, परत आरत्या हातार (तायटार) घेवप. जितले फातर हातांत आसतात तितले पयशे. एका फातराक 10 रुपया.

खेळटना फातर जमनीर पडलो जाल्यार दुसरे व्यक्तीक खेळपाक संद मेळटा. खेळांतले सगले गडी खेळून बाद जाल्या उपरांतूच पयल्या खेळगड्याक आपलो डाव खेळपाक मेळटा. तेन्ना तो ज्या डावांत बाद जाल्लो तोच डाव परतो खेळपाचो. बाद जायनासतना खेळत जाल्यार त्याच खेळगड्याक परती संद मेळटा.

■■

# फोर स्क्वेअर

**खेळाचें नांव** : फोर स्क्वेअर

**खेळाचो प्रकार** : मैदानी / सांघिक. हो खेळ भुरगीं मैदानार सरपट जमनीर खेळटात. हो खेळ उण्यांत उणी 2 भुरगीं आनी चडांत चड 9-10 भुरगीं खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : गिमांत खेळटात

**खेळपाचो वेळ** : सांजेचो वेळ

**खेळाक लागपी वेळ** : 30-40 मिणटां.

**पिरायगट आनी लींगगट** : हो खेळ 8-13 वर्सांचे भुरगे खेळटात. हो खेळ चलयो खेळनात

**खेळाक लागपी साहित्य** : 4 Square ह्या शिगारीच्या पाकिटाच्यो दोनूय बाजू

**नेम आनी अटी** :

1. पयशे गोलाच्या भायर पडलेनात जाल्यार खेळपी व्यक्तीचो डाव वता.
2. खेळगड्यान आपले सगले पयशे सोंपमेरेन खेळचें पडटा.

**खेळपाची रीत** :

सगले खेळगडी एकठांय येतात आनी सरपट जमनीर एक वा देड फूट रुंदीचो गोल काडटात. त्या गोलांत दोन इंच खोल एक खणकूल काडटात. (गड्डो उरता इतलें खोल) तें खणकूल गोलाचें माप काडपाखातीर काडटात. त्या गोलांत सगले खेळगडी आपआपले पयशें एके हारीन मांडटात. पयल्या खेळगड्यान लायलां तितल्याच पयशाचें कार्ड दुसऱ्या खेळगड्याक लावचें पडटा. आपल्याक जाय तितल्या पयशांचीं कार्डां लावपाक मेळनात. कार्डां लायल्या उपरांत गोलाच्या सामकार 7 पावलां फुडे एक आडवी रेश ओडटात आनी थंय वचून एक-एकटो आपली शिंपी खणकुलाक तेंकून आसता ताका पयलो खेळपाक मेळटा. मागीर जण-एकलो आपले पयशे गोलांत मांडटात. सगल्यांक एकाच नंबराचे पयशे लावचे पडटात.

पयलो खेळगडी रेशेकडेन रावन आपली शिंपी गोलांतल्या पयशाचेर उडयता. ज्या पयशांचे नोटीचेर पांय दवरून ती शिंपी काडटा आनी परत ओणव घालून दुसऱ्या नोटीचेर ती शिंपी मोखता. शिंपी मोखून ज्यो नोटी गोलाच्या भायर पडटात ते पयशे खेळपी व्यक्तीचे जातात. ज्या खेळगड्याचे पयशे पयलीं सोंपतात तो हारता.

**इतिहास / परंपरा / वैशिश्टय** : भुरगीं 4 Square च्या कागदांनी खेळिल्लीं घरच्यांक आवडनात. हो खेळ आधुनीक नामावळीचो आसलो तरी खूब आदींसावन खेळत आयल्यात.

**हेर म्हायती** : 4 Square पाकिटांच्यो 7 वेगवेगळ्यो नोटी आसतात. देखीक 10, 20, 50, 100, 200, 500, 1000. 10, 20, 30 ह्यो नोटी मातश्यो ल्हान आसतात जाल्यार 100, 200, 500, 1000 ह्यो नोटी व्हड आसतात. सगल्यो नोटी वेगवेगळ्या रंगाच्यो आसतात.



# बडयांनी

**खेळाचें नांव** : बडयांनी

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक / मैदानी. हो खेळ भुरगीं रस्त्यार खेळटात. हो खेळ उण्यांत उणीं 7-8 भुरगीं खेळटात

**खेळपाचो काळ** : गिमांत.

**खेळपाचो वेळ** : सकाळीं आनी सांजवेळार.

**खेळाक लागपी वेळ** : किमान एक वर.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 6 ते 11 वर्सां. चले, चलयो एकठांय खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : हातभर लांब बडयो.

**नेम आनी अटी** :

1. सगल्यांकडेन बडी आसप गरजेचें.
2. बडी - दांगा पोंदच्यान मारप.
3. बडी मोटच्या (बारीक न्हय) फातराकून तेकोवंक जाय.
4. बडी हातान न्हय तर बडयेनच धुकलप.

**खेळपाची रीत** :

बडयेन जमनीचेर एक सीम काडप आनी ते सीमेर रावन एकएकल्यान दांगा पोंदच्यान बडी मारप. लागीं बडी पडटा तो बेबो. बेब्याची बडी थंयच सांडप. बाकीच्यांनी आपापली बडी फातराक व्हरून तेंकोवप. जो बेबो आसता ताणें म्हऱ्यांत उबो रावप आनी जो कोण ताची बडी पयस उडोवपाक येता ताका धरप. बेब्यान खूब काळजी घेवंची पडटा. हेरांनी आपली बडी हालोवंक दिवंची न्हय. बडी धुकलपाक येतना बेबो एखाद्याच्या फाटीक लागलो जाल्यार ताणे आपली बडी फातराक लावंची. इतल्यान बेबो ताका कांयच करूंक शकना. पूण जर फातराक लावंचे पयलींच जर बेब्यान ताका धरलो जाल्यार तो बेबो जाता.

एखादे फावटीं बडी धुकलतना वयर वता. वयर गेल्ली बडी जर बेब्यान जिखली जाल्यार बडी पावता थंयच्यान पयलीच्या बेब्याक लंगडी घालीत शिमेर येवचें पडटा. पांय तेंकयनासतना जर तो शिमेर आयलो जाल्यार ताचे फाटल्यान जो बेबो जावपाचो आसा तो बेबो जाता. जर ताणें मदीं वाटेर पाय तेंकयलो जाल्यार परतून तोच बेबो जाता. ह्या खेळांत जिखप आनी हारप अशें कांयच ना.



# बाणांनी

**खेळाचें नांव** : बाणांनी

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक / मैदानी. हो खेळ दोगां जाणां खेळटात

**खेळपाचो काळ** : हिंवाळो / शिंयाच्या दिसांनी

**खेळपाचो वेळ** : सकाळीं आनी दनपरां

**खेळाक लागपी वेळ** : एक मिनीट.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 5 - 15. चडकरून चले

**खेळाक लागपी साहित्य** : तणाचें बोंड (बाण)

**नेम आनी अटी** :

1. बोंडाचीं सकयल्लीं कुसां भायर मारप.

**खेळपाची रीत** :

ह्या खेळांत भुरगीं तणाचे बाण एकमेकाचेर तांचे नकळत मारतात.



## बाणांनी



# मिठांनी

| | | |
|---|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : | मिठांनी |
| **खेळाचो प्रकार** | : | मैदानी / सांधिक. हो खेळ कमीत कमी 7 - 8 भुरगीं खेळटात |
| **खेळपाचो काळ** | : | गिमांत. |
| **खेळपाचो वेळ** | : | सांजेवेळार |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : | 15 ते 20 मिणटां लागतात. |
| **पिरायगट आनी लिंगगट** | : | 5 ते 8 वर्सां. चलयो खेळटात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : | कांय ना. |

**नेम आनी अटी :**

1. बेब्यान हात लांवचेपयलीं बसप.
2. बसलेल्यान दुसरो भुरगो येवन हात लायतकीच उठप.
3. वेब्यान उबो आशिल्ल्या भुरग्याक हात लायल्यार तो वेबो जाता.

**खेळपाची रीत :**

बेब्यान सगल्या भुरग्यांक धरपा खातीर तांचे फाटल्यान लागप. बेबो ज्या भुरग्यांचे फाटीक लागता तांणी बेगीबेगीन आपल्याक धरचें न्हय म्हण जमनीर बसकण मारप. मागीर तांच्या खंयच्याय एका वांगड्यान ताका येवन हात लावप. बसतल्यान परत धावपाक सुरवात करप. बसतल्याक कोणेय येवन हात लांवचे न्हय म्हण बेब्यान जतनाय घेवंची पडटा. बेब्यान उबो आशिल्ल्या खंयच्याय खेळगड्याक हात लायलो जाल्यार तो बाद जाता.



# मिलांनी

**खेळाचें नांव** : मिलांनी

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक. हो खेळ भुरगीं मैदानाचेर खेळटात उण्यांत-उणीं 4-5 जाणां हो खेळ खेळटात

**खेळपाचो काळ** : पावसाळो

**खेळपाचो वेळ** : सकाळी, दनपारां.

**खेळाक लागपी वेळ** : कमीत कमी एक वर

**पिरायगट आनी लींगगट** : 5 ते 10 वर्सां हो खेळ चलयो खेळटात

**खेळाक लागपी साहित्य** : वाटकुळींच सात मिलां. काकणांची कंवची वा फातरांची ल्हानशी कळपी.

**नेम आनी अटी** :

1. वाटकुळींच सात मिलां काडप.
2. खेळप्यान लंगडी घालुनूच खेळप.
3. खेळप्यान एकदांच खेळप.

**खेळपाची रीत** :

मिलां काडटना आपल्या पांयाचो उपेग करून वांटकुळींच सात मिलां काडप. ह्या खेळांत डॅन असो कोणूच नासता. खेळगडी पाच आसत जाल्यार तांचे भितरल्या एकल्यान खेळपाक सुरवात करप.

सुरवातीक कंवची पयल्या मिलांत उडोवप. खेळप्यान त्या मिलांत पांय दवरीनासतना मुखार लंगडी घालीत वचप. लंगडी घालीत निमाण्या मिलांत पावतकीच भायर वचनासतना परत लंगडी घालीत येवन आपली कंवची घेवन भायर येवप. अशेतरेन एका फाटल्यान एक अशें सगळ्या मिलांनी कंवची उडोवप आनी कंवची आशिल्ल्या मिलांत पांय दवरीनासतना खेळत रावप. अशेतरेन हो खेळ खेळटात. जर कंवची उडयतना मिलांत पडनासतना चुकून भायर पडली जाल्यार खेळपी बाद जाता. उपरांत दुसऱ्याक खेळपाक डाव मेळटा. बाद जाल्ल्या खेळगड्यान बाद जाता त्याच मिलाकडसून खेळपाक सुरवात करप. जेन्ना एखाद्या खेळगड्याची पुराय मिलांत खेळून जातात, तेन्ना ताणे खुरीस घालप आसता. (खुरीस घालप म्हळ्यार मील पुरोवप). उपरांत त्या मिलांत कोणेंच पांय दवरप नासता. सात मिलांतल्यान फक्त दोन मिलां उरतात त्या खुरसाचो उपेग करप आसता. पूण प्रत्येकान आपापल्याच खुरसार पांय दवरप. दुसऱ्याच्या खुरसार दवरल्यार तो खेळपी बाद जाता.

खुरीस घालतना मिलाचे कुशीक फाट करून उबे रावप आनी आपले फाटीवयल्यान कंवची मिलांत उडोवप. पडली ना जाल्यार ताच्या फाटल्याक डाव मेळटा. ताणी मात कंवची पडसर उडयत रावप. सगल्या मिलांनी खुरीस घालून जातकीच खेळ सोंपता.

**जिखप आनी हारप** :

चड खुरीस घालपी जिखलो अशें मानतात. खुरीस घालपी खोशी आसता. पुण ताचे फाटल्यान खेळटल्याक दुःख जाता. कारण खुरीस ताचेर पडटात अशें म्हणटात आनी खुरीस पडप म्हळ्यार ती हारूच अशें मानतात.



# मीठ-फळण्यांनी / मीठ-पिको

| | | |
|---|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : | मीठ-फळण्यांनी |
| **खेळाचो प्रकार** | : | मैदानी / सांघिक. हो खेळ भुरगीं मैदानाचेर खेळटात. चडांत चड 10-12 जाणां खेळ खेळटात. |
| **खेळपाचो काळ** | : | गिमांत. |
| **खेळपाचो वेळ** | : | सांजवेळार. |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : | कमीत कमी एक वर. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : | 5 - 10 वर्सां. हो खेळ चले खेळटात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : | सुमार दोन वावां जायशी सुवात. लांबचे लांब चार ते पांच आडव्या रेगांच्या मदल्यान उबी एक रेग मारतात. आडव्या रेगांक फळण्यो म्हणटात. जाल्यार उबे रेगेक दाणो म्हणटात. |

**नेम आनी अटी** :

मीठ-फळण्यानीं खेळटना बरेच नेम पाळचे आसतात. देखीक दाणेकार फकत दाणो आनी पयलीं फळणी हाचेर भोंवता आनी रखवाली करता. ताज्यान एक पांय उबारून आनी ओणवो घालून फार (प्रतिस्पर्धी गड्यार थापट मारप) दिवंक जाता. फळणेकाऱ्यांनी फळण्यांच्यो रेगो सोडून भायर आयल्यार दाव कुसता. ताणी तायट उबें रावन, एकेच वाटेन देंवपी वा चडपी (मीठ घेवन) गड्याक फार दिवंक जाता.

दोन पंगड करपाची रीत - खेळ सुरू जावंचे पयलीं दोन पंगडाचे दोग जाण गडे मागूंक उबे रावतात. दुसरे गडे वचून वळखुपाची खूण एकमेकांच्या कानांत सांगतात आनी सांगप्यासरी येवन म्हणटात :

गडी - मात मात तिरयो, (तिरयो/हुरयो)मीठ घालून चीरयो.

मागपी - हिरयो

गडो - कोणाक फूल जाय काय कोणाक बोंगो जाय? (कोणे बोंगो, कोणे फूल जावपाचें आदीं थारायिल्लें उरता)

मागपी मागता, जशी मागणी तशी वांटणी. एक गडो सुबेज जालो तर तो दोस्को जाता. दोगंय पंगडांनी वांटून खेळटा. ओली, सुकी वा बावले कुरू जाता. (नळकुटेक एकेवटेन नुथी लावन ओली सुकी मागतात) (टॉस) जो पंगड जिखता तो मीठफळण्यो आडावन रावता.

**खेळपाची रीत** :

1. दर एके फाळणेर एक गडो रावता (पयले फळणेर कोण रावनात आनी दाण्यार एक गडो रावता ताका दाणेकार म्हणटात.
2. दुसरो पंगड मिठकार जाता. दाण्यावेलो हात फुडें

करता. मीठकारालो गडो ताच्या हातार ताळी दिता आनी दाणेकार धांवत वचून निमणे फळणेक पाय लावन येता. मागीर खेळ सुरू जाता.

3. मीठकार फळण्यो हुंपीत धावता. फळणेवेल्या आनी दाण्यावेल्या गड्याक चुकयत घोळयत, खेळयत, पलतडीं वतात.

4. अकस्मात रेगेवेल्यान कोणय मीठकाराक हात लायता जाल्यार मीठकार गडी वाद जाता, मरता, वाद केल्ल्या गड्याक दावांतल्यान भायर सरपाचें आसता. पलतडी पाविल्ले गडे मीठ-मीठ आड्डत मीठ घेवन येतात.

5. जे गडी फळण्यो हुंपून पलतडीं पाविल्ले नासतात, तांका सगळ्यांक मीठ दिवप (म्हणजेच हात लावप) आसता.

6. एकादां मीठ दितकीच चूकून कोणूय पलतडीं पावत जाल्यार दाव कुसता. फळणेकार कोणाक मीठ मेळचें न्हय म्हण शादूर आसता. ते तांका कोंड्यो करून एका जाग्यार थोपोवन धरतात. असल्यो कोंडी फोडपाक त्याच खेळगड्यांची गरज आसता.

7. फळणेकाराक आनी दाणेकाराक फटोवन आनी मीठ घेवन सगळे गडे आलतडीं पावत जाल्यार फळणेकारांचेर हार पडटा.



# मीठ - फळण्यांनी / मीठ - पिको



# मुठींनी

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : मुठींनी |
| **खेळाचो प्रकार** | : घरांतलो, सांघिक. हो खेळ भुरगीं सालांत खेळटात. हो खेळ उण्यांत उणी तीन आनी चडांत-चड चार भुरगीं खेळटात. |
| **खेळाचो काळ** | : हो खेळ भुरगीं पावसांत खेळटात. |
| **खेळाचो वेळ** | : चड करून सांजवेळार वा रातचो. |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : 5 मिणटां |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 5-10 वर्सां. चले-चलयो मेळून खेळटात (चडकरून चलयो) |
| **खेळपाक लागपी साहित्य** | : कांय ना |

**नेम आनी अटी** :

1. गोल आकारान बसप.
2. सगल्यांनी हाताच्यो मुठी करून एकार एक दवरप.

**खेळपाची रीत** :

सगल्यांनी भोंवताडो करून बसप. आपल्या हाताच्यो मुठी करून सगल्यांनी एकार एक दवरप. तातूंतल्याच एकट्यान प्रत्येक मुठीक हात लावन हें किदें अशें विचारप. विचारिल्या प्रस्नाक शीत, कडी, भाजी, रोस, लोणचें अशे तरेच्यो जापो दिवप. उपरांत जमनीर दवरिल्ल्यो मुठी वयर काडप आनी प्रस्न विचारप्यान मुठी पोंदच्यान जमनीर हात भोंवडावप आनी म्हणप - शेण काडूं काय मूत काडूं.

कोणेय तरी शेण वा मूत काड अशें म्हणप. निमणेकडेन प्रस्न विचारप्यानूच विचारप-कोयती मारूं की सुरी? मागीर तांतूतलोच एकटो कोयती मार अशें म्हणटा. तो भुरगो नेटान आपलो दुसरो हात मुठीर मारता.



मुठींनी



# म्हातारे म्हातारे किदें सोदता?

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : म्हातारे म्हातारे किदें सोदता? |
| **खेळाचो प्रकार** | : मैदानी / सांघिक. हो खेळ किमान 7-8 भुरगीं खेळटात. |
| **खेळपाचो काळ** | : गिमांत. |
| **खेळपाचो वेळ** | : दनपार, सांज. |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : सादारण अर्द वर. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 5-12 वर्सां. चलयो खेळटात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : कांय ना. |

**नेम आनी अटी** :

1. बेब्यान जमनीर सोदिल्ले भाशेन करप (म्हातारेचें सवंग घेवन)
2. वांगड्यांनी प्रस्न विचारप.

**खेळपाची रीत** :

खेळाचे सुरवातीक हेर खेळगड्यांनी बेब्याक प्रस्न करप

1. म्हातारे म्हातारे किदें सोदता? बेबो - सूय सोदतां.
2. सूय कित्याक ? बेबो - पिशवी शिवंक.
3. पिशवी कित्याक ? बेबो - बाजारांत वचूंक
4. बाजारांत कित्याक...

अशा जायत्या प्रस्नांक सुचता तश्यो जापो म्हातारी दिता. पूण उपरांत प्रस्न आयकून म्हातारेक तिडक मारता. ती हेरांचे फाटीक तांकां धरूक धांवता. ती जाका धरता तो उपरांतचो बेबो जाता.



## म्हातारे म्हातारे किदें सोदता?



# रिंगा रिंगा रोजी

**खेळाचें नांव** : रिंगा रिंगा रोजी

**खेळाचो प्रकार** : मैदानी / सांघिक. हो खेळ 10-12 भुरगीं खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : गिमांत, पावसांत, शियांत

**खेळपाचो वेळ** : सकाळ

**खेळाक लागपी वेळ** : सादारण 10-15 मिणटां.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 4-7 वर्सांची भुरगीं. चले-चलयो एकठांय खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : कांय ना.

**नेम आनी अटी** :
1. हाताक घट धरून गोल घुंवप.
2. बसपाचें आसता तेन्ना जो उबो उरता तांणे भायर सरप.

**खेळपाची रीत** :
सादारणपणान हो खेळ कितलींय भुरगीं खेळपाक शकतात.

सगळ्यांनी एकमेकांच्या हाताक घट धरून वर्तुळ तयार करप. उपरांत एका सुरान सगल्यांनी म्हणप.

रिंगा रिंगा रोजी
पॉकेट फुल्ला फोजी
आच्छा, उच्छा, हॅलो मॅनो (ऑल फॉल डावन)
अशें म्हळें म्हणटकीच सगल्यांनी एकदम सकयल बसप.
उबो उरता तांणे भायर उबो रावप. (बाद जावन)



# रिंगांनी

| | |
|---|---|
| खेळाचें नांव | : रिंगांनी |
| खेळाचो प्रकार | : सांघिक, मैदानी. हो खेळ भुरगीं रस्त्यार वा आंगणांत लेगीत खेळटात. ह्या खेळाक 4-4 जाणांचे दोन पंगड आसतात. (एक x एक असोय खेळूं येता) |
| खेळपाचो काळ | : हो खेळ भुरगीं गिमांत खेळटात. |
| खेळपाचो वेळ | : चडकरून सांजवेळार. |
| खेळाक लागपी वेळ | : कमींत कमी 15 मिणटां. |
| पिरायगट आनी लींगगट | : 8 ते 15 वर्सां. हो खेळ चले आनी चलयो खेळटात. (चडकरून चलयो) |
| खेळाक लागपी साहित्य | : 10 से. मी. घेराचें रबराचें रिंग. |

**नेम आनी अटी :**

1. समान गड्यांचे दोन पंगड.
2. मैदानाचे समान दोन भाग करप
3. बाद जातकीच दुसऱ्या पंगडाच्या फाटल्यान रावप.
4. जिखतना (कॅच धरतना) रिंग सुटत जाल्यार गडी बाद जाता.

**खेळपाची रीत :**

कोणूय दोन भुरगीं वा गडे आपखोशयेन फुडारी म्हण रावतात. तांचेकडेन दोन-दोन गड्यांची जोडी येता आनी म्हणटात मात-मात मिरयो कोणाक जाय चिरयो? कोणाक गुलाब, काय कोणाक दशीण? अशीं जाय तीं नावां वापरप. फुडारी जें नांव मागता तें बरोबर जालें जाल्यार तो गडो ताका वता. अशे तरेन दोन पंगड जातात.

दोनूय पंगड आपआपल्या राज्यांत (दोन भाग केल्ल्या चौकोनांत) येतात. दोनय पंगडांतले दोन गडी मुखार येतात आनी एकामेकांकडेन तीनदां रींग उडयतात. तिसरे फावटी रींग वता तो पंगड दुसऱ्या पंगडाक बाद करता. बाद करतना दुसऱ्या पंगडान रींग जिखलें जाल्यार त्या पंगडान पयल्या पंगडाक बाद करप. बाद करतना खंयच्याय भुरग्याक रींग आपटून सकयल पडलें जाल्यार तो गडो बाद जाता. बाद जाल्ल्या गड्यांनी आपल्या मुखावयल्या पंगडाचे शिमेभायर वचून रावप. रींग ज्या पंगडाक मेळटा तो पंगड दुसऱ्या पंगडाकडेन रींग दिनासतना आपल्याच पंगडाचो बाद गडो जो दुसऱ्या पंगडाच्या फाटल्यान राविल्लो आसता ताचेकडेन उडयता. ते एकमेकाकडेन रींग पास (उडोवप) करीत रावतात आनी नकळटा दुसऱ्या पंगडाच्या गड्याक बाद करतात.

**जिखप - हारप :**

ज्या पंगडांतले सगले गडे बाद जातात तो पंगड हारता. आनी ज्या पंगडातलो एक लेगीत गडो उरता तो पंगड जिखता.



# लगोऱ्यो

**खेळाचें नांव** : लगोऱ्यो

**खेळाचो प्रकार** : मैदानी, सांघिक. हो खेळ भुरगीं मैदानार खेळटात. चडांत-चड 10 भुरगीं.

**खेळपाचो काळ** : गिमांत चड खेळटात.

**खेळपाचो वेळ** : चड करून सांजे

**खेळाक लागपी वेळ** : सादारण एक वर.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 9 ते 16 वर्सां (चले खेळटात)

**खेळाक लागपी साहित्य** : सात कट्टयो. 1 बॉल.

**नेम आनी अटी** :

1. एका खेळप्याक तीन चान्स (डाव) आसतात.
2. बॉल हाताक धरून भोंवूक फावना.
3. बॉल मारून लगोऱ्यो फोडप.
4. बॉल पोटार, तोंडार, तकलेर मारप ना.
5. फाटीर, जांगडार, भुजांर मारलो जाल्यारूच बॉबो म्हणप.
6. बॉल घेवन धावून मारपाक मेळना.

**खेळपाची रीत** :

एक गोल काडप आनी ताचे मदीं एकारएक कट्ट्यो दवरप. अ पंगडांतल्या एकट्या खेळगड्यान लगोऱ्यां फाटल्यान उबें रावप. ब पंगडांतल्या एका खेळगड्यान बॉल घेवन शिमेर उबें रावप आनी 'मोखें' असो प्रस्न विचारत, अ पंगडातलो खेळगडो मोखे म्हणसर ताणे ताका मोखे अशें विचारत रावप. बॉल लागून लगोऱ्यो फुटल्यो जाल्यार ब पंगडांतल्या सगल्या वांगड्यांनी पयस धांवप. ब पंगडान पयस पडलेल्यो लगोऱ्यो एकठांय करप. पूण अ पंगडातल्या खेळगड्यान ताका तशें करपाक सफल जावंक दिवप ना. अ पंगडान ब पंगडाचे फाटीक बॉल घेवन लागप आसता. ब पंगडातल्या खंयच्याय खेळगड्याचेर फाटीर, जांगडार वा भुजार बॉल बसलो जाल्यार 'बॉबो पडलो' म्हणटात. उपरांत हो खेळ थंयच सोपता. अशेतरेन ब पंगडातले सगळे खेळगडी खेळून जातकीच अ पंगडाक खेळपाक संद मेळटा.

**जिखप आनी हारप** :

खंयच्या पंगडाचेर चड बॉबे पडटात तो हारता.

**हेर म्हायती** :

लगोऱ्यो म्हण कट्टयो वा नळ्याचे कुडके (नळकुट्यो) एकार एक मांडटात.



# लागीं लागीं - पयस पयस

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : लागीं लागीं - पयस पयस |
| **खेळाचो प्रकार** | : सांघिक / मैदानी. हो खेळ चडांत चड 20 जाणां खेळटात. |
| **खेळपाचो काळ** | : चडकरून गिमांत. |
| **खेळपाचो वेळ** | : दनपार वा सांज |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : सादारण अर्द वा एक वर. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 6 ते 12 वर्सां. हो खेळ चले आनी चलयो खेळटात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : एक शिपी आनी एक गुंडो |

**नेम आनी अटी** :

1. बेब्याक कळनासतना शिपी लिपोवप
2. शिपी सोदतना बाकीच्यानी 'लागीं लागीं पावलो, पयस पयस पावलो' म्हणप.

**खेळपाची रीत** :

शिपयेन ल्हानसो गुंडो घालून लिपोवन दवरल्या उपरांत डॅन आसता ताणे ती सोदून काडप. सोदप्याक त्रास जावंचे न्हय म्हण वांगड्यानी 'लागीं लागीं, पयस पयस पावलो' अशें म्हणचें आसता. ताचेवयल्यान आपूण शिपयेपासून कितलो पयस आसा तें ताका समजता. शिपी मेळ्ळी म्हणटकीच ताणें उरिल्ल्यांचे फाटीक लागप.

■■

# लागीं लागीं - पयस पयस



# लेंसांनी / कोणाच्या माथ्यार कीरकावळो / वेट्यांनी

**खेळाचें नांव** : लेंसानीं / कोणाच्या माथ्यार कीरकावळो / वेट्यांनीं

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक, मैदानी वा घरांत. हो खेळ चडांत चड 10-15 भुरगीं खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : गीमांत, पावसांत, शिंयांत.

**खेळपाचो वेळ** : सांजवेळार.

**खेळाक लागपी वेळ** : सादारण एक ते दोन वर.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 5 ते 10 वर्सां. चले आनी चलयो खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : एक लेंस

**नेम आनी अटी** :

1. गोल करून बसप.
2. कोणेंच फाटीं वळून पळोवप ना.
3. कोणेंच एकमेकांक सांगप ना.

**खेळपाची रीत** :

सुरवातीक बेबो सोदून काडप. ताणें गोल करून बशिल्ल्या खेळगड्यांच्या फाटल्यान लेंस घेवन भोवताडे काडीत रावप. बेब्यान लेंस आपल्या खोमसाक गुठलावन भोंवप. तेन्ना सगल्यांनी एकाच आवाजान म्हणप ..

आईचं पत्र हरवलं - हरवलं
ते मला सापडलं - सापडलं.

आनी नकळटां बेब्यान लेंस एखाद्याच्या फाटल्यान उडोवप. बसतल्यांनी आपल्या फाटल्यान हात लावन पळोवप. जाचे फाटल्यान लेंस आसता तांणी तो लेंस घेवन बेब्याचे फाटीं लागप. जर तो खेळगडो बेब्याक धरूक जैतीवंत जालो जाल्यार बेब्याक परतून बेबो म्हण खेळचें पडटा. जर बेबो त्या खेळगड्याचे सुवातेर येवन बसलो जाल्यार तो खेळगडोच बेबो जाता. बेब्यान येवन ताच्या जाग्यार बसप. उपरांत तो बेबो जाता. अशे तरेन खेळ चालूच उरता.



# लेंसांनी / कोणाच्या माथ्यार कीरकावळो / वेट्यांनी



# लंगडी

**खेळाचें नांव** : लंगडी

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक, मैदानी. हो खेळ भुरगीं मैदानाचेर, दारांत, भायर खेळटात. चडांत चड 10-20 आसपाक शकतात.

**खेळपाचो काळ** : गीम / पावस

**खेळपाचो वेळ** : सांजवेळार.

**खेळाक लागपी वेळ** : चडांत चड एक वर.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 8 ते 12 वर्सां. हो खेळ चलयो खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : कांय ना.

**नेम आनी अटी** : ह्या खेळांत एक अट आसा. ती म्हळ्यार जर तर कोणेय भुरग्यान खेळटना पांय जमनीर तेकयलो जाल्यार तें भुरगें त्या दावांतल्यान बाद (Out) जाता.

**दोन पंगड करपाची रीत** :

खेळ सुरू जावंचे पयलीं दोन पंगडांचे दोग जाण गडे मागूंक उबे रावतात. दुसरे गडे वचून वळखुपाची खूण एकमेकांच्या कानांत सांगतात आनी सांगप्यासरी येवन म्हणटातः

गडी - मात मात हुरयो, मीठ घालून चिरयो

मागपी - हिरयो

गडी - कोणाक नाल्ल जाय काय कोणाक माड जाय (कोणें नाल्ल आनी कोणें माड जावपाचें आदींच थारायिल्लें उरता)

मागपी मागता. जशी मागणी तशी वांटणी जाता. जर तर एक गडो सुबेज जालो जाल्यार आनी ताका वांगडी मेळना जाल्यार तो दोस्को जाता आनी दोगांय पंगडांनी वांटून खेळटा. मागीर एके नळखुटेक एके वटेन नुथी लायतात आनी दुसरे वटेन सुकीच दवरतात. एकटो कोणूय म्हणटा वोली जाय काय सुकी. मागीर ती नळकुटी हवेंत उडयतात (Toss). जो पंगड जिखता तो पयलीं धांवपाक रावता आनी दुसरो लंगडी घालता.

**खेळपाची रीत :**

1. पयलीं एक पंगड धांवपाक रावता आनी दुसरो पंगड लंगडी घालता.
2. मागीर पयल्या पंगडातली एक चली आपलो एक पाय वयर काडून लंगडी घालून येता. दुसऱ्या पंगडातलीं भुरगीं धांवपाक रावतात आनी मागीर लंगडी घातलेले चली त्या भुरग्यांक धरपाक धांवता. लंगडी घालून एका पांयचेरूच धांवचे पडटा अशिल्ल्यान केन्ना पुरो जावन वा केन्ना तोल वचून तांचो लंगडीचो पाय जमनीक तेंकता आनी अशे रितीन तें बाद जाता. एक / दोन जाणांक ते आफडून तांका 'बाद' करूंक पावता.
3. मागीर दुसरें भुरगें लंगडी घालून येता आनी उरिल्ल्या भुरग्यांक धरता. जितलीं भुरगीं लंगडी घालपाची उरतात तीतली प्रतिस्पर्धी पंगडाचेर लंगड पडटा.
4. मागीर दुसऱ्या पंगडातलें एक चली लंगडी घालून विरोधी पंगडाच्या वांगड्याक धरता.
5. जितलीं भुरगीं लंगडी घालपाचीं उरतात तितलीं दुसऱ्या पंगडाचेर लंगड पडटा.
6. ज्या पंगडाचेर चड लंगड पडटा तो पंगड हारता.



# लंगडी



# वर्तुळांनी

| | | |
|---|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : | वर्तुळांनी |
| **खेळाचो प्रकार** | : | मैदानी, सांघिक. हो खेळ भुरगीं मैदानार खेळटात उण्यांत-उणीं दोन आनी चडांत चड 5-6 भुरगीं. |
| **खेळपाचो काळ** | : | गीमांत आनी पावसांत (पावस आसरतकीच). |
| **खेळपाचो वेळ** | : | सकाळ, दनपार. |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : | 20-25 मिणटां लागतात |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : | 5-13 वर्सां मेरेनची भुरगीं. (चडकरून चलयो) |
| **खेळपाक लागपी साहित्या** | : | 1 वारीक शिंपी. |

**नेम आनी अटी** :

1. वर्तुळाच्या भायर पांय पडलो जाल्यार बाद.
2. खेळटना शिपी जमनीर पडपाक जायना.
3. शिंपी वर्तुळाच्या भायर उडयतकीच तिचेर पाय दवरपाक जाय.
4. हो खेळ उडक्यो मारुन खेळपाचो (1-2, 1-2)

**खेळपाची रीत** :

हो खेळ खेळपाक 9 वर्तुळां काडप. त्या वर्तुळांनी उडयो मारून खेळप. ह्या खेळांत लंगडी घालून शिपी फुडें व्हरपाक मेळना.

खेळाची सुरवात 10, 20... घालून जाता. जो खेळगडो पयलीं सुट्टा ताका पयलीं खेळपाक मेळटा. खेळपी व्यक्तीक पयलीं एका वर्तुळांत, मागीर फुडल्या दोन वर्तुळांनी उडक्यो मारीत खेळचें पडटा. 1-2, 1-2 अशें पाय घालीत खेळत रावप. निमण्या दोन वर्तुळांनी पांय दवरप आनी फाटल्यान वळप आनी गेल्लो तसोच परतो येवप. शिपी वर्तुळाचे भायर उडयतकीच तिचेर पांय दवरप.

ह्या खेळांत शिपी जमनीर उडय नासतना ती हाताचेर, माथ्यार, पायार, तायटार दवरून खेळप. देखीक ..

1. पयलीं उजव्या हाताच्या तायटार दवरून खेळप
2. परत्या हाताचेर.
3. हाताची मूठ करून परत्या हाताचेर.
4. हाताची मूठ करून आरत्या हाताच्या तायटाचे कुशीक दवरून.
5. हाताची मूठ करून आखण्या बोटाकडेन दवरून.
6. उजव्या खांद्याचेर शिपी दवरून.
7. उजवो दोळो धांपून दोळ्याचे कुशीक दवरून.
8. माथ्यार दवरून.
9. उजव्या पायाच्या बोटांच्या वयल्या भागाचेर दवरून. धावो डाव खेळटाना दोळे धापून 'बाद-वाद' काय म्हण विचारीत एका-एका वर्तुळांत वचत रावप. गेल्लो तसोच परत 'बाद-बाद' म्हण विचारीत परतो येवप.

इकरावो डाव उठी-वशी म्हळ्यार बसून आनी उठी म्हळ्यार उबो रावन फाटल्यान शिपी उडोवप.

जर ताची शिपी सांगिल्ल्या वर्तुळांत पडली जाल्यार तो वर्तुळ ताचो जाता आनी त्या वर्तुळांत ताका खेळचें पडना.

**इतिहास / परंपरा / वैशिश्टय :**

हो खेळ सांजेच्या वेळार दारांत वा आंगणात भुरग्यांक खेळपाक दिनात. कित्याक तर घरच्यांचो समज आसा की सांजेच्या वेळार घरांत लक्ष्मी येता आनी त्या वेळार दारांत फातरांनी खेळपाक जायना.



# वर्तुळांनी



# (i) व्हिरांनी

**खेळाचें नांव** : व्हिरांनी

**खेळाचो प्रकार** : घरांत, सांघिक. हो खेळ कमीत कमी 2-5 भुरगीं खेळटात

**खेळाचो काळ** : पावसांत आनी शियाच्या दिसांनी

**खेळाचो वेळ** : सांजवेळार

**खेळाक लागपी वेळ** : 15 मिणटां

**पिरायगट आनी लींगगट** : 6 ते 15 वर्सां. (हो खेळ चलयो खेळटात)

**खेळाक लागपी साहित्य** : 9 वेंतभर लांबयेचे व्हीर आनी 1 देड वेत लांबायेचो व्हीर तर्शेंच सरपट जाय पडटा.

**नेम आनी अटी** :

1. मोटवे व्हीर आडवे धरपाचे आनी तांचे मदीं लांब व्हीर लागता. तर्शेंच सरपट जमीन जाय पडटा.
2. सगळे व्हीर क्रॉस आकारांत धरपाचे
3. व्हडल्या व्हिराचेर एक तरी धाकटो व्हीर पडपाक जाय. जर व्हड व्हिराचेर ल्हान व्हीर पडलेनात जाल्यार खेळपी बाद जाता.

**खेळपाची रीत** :

हो खेळ खेळपाचे सुरवातीक व्हीर आडवे धरपाचे आनी तांचे मदीं लांब व्हीर घालपाचे. पूण तो उबो धरपाचो. सगळे व्हीर क्रॉस आकारांत धरपाचे. हो खेळ खेळपाक गडी बीन कांय लागना. कोणेंय सुरवात करपाची. खेळपी गडी व्हीर हातांत घेता आनी ते तशा तशे जमनीर शेंवटिता. मागीर तो एक ल्हान व्हीर दुसऱ्या व्हिरांक हालयनासतना काडटा. त्या एका व्हिरान तो हेर सगले व्हीर हालयनासतना काडटा. हेर व्हीर काडटा असतना दुसरे व्हीर हालपाक फावनात. जर हाल्लो जाल्यार तो खेळगडो बाद थारता. धाकट्या व्हिरांक 10-10 रुपया आनी व्हडल्या व्हिरांक 100 रुपया मोल आसता. जितले व्हीर काडटा तितले पैशे मेळटात. खेळ सुरू करचे आदीं खेळगड्यान जतनाय घेवपाक जाय की व्हडलो व्हीर ल्हान व्हिराचेर एक तरी धाकटो व्हीर पडपाक जाय पडटा. देखून व्हडलो व्हीर ल्हान व्हिरांचे मदीं धरतात. जर व्हड व्हिराचेर ल्हान व्हीर पडलेनात जाल्यार खेळपी गडो बाद जाता आनी खेळ दुसऱ्याच्या हातांत वता. खेळगडो सगळे व्हीर दुसऱ्या व्हिरांक हालयनासतना काडपाक यशस्वी जालो जाल्यार ताका परतून संद मेळटा. ह्या खेळांत चड पयशे मेळटात तो जिखता आनी थोडे पयशे मेळटात तो हारता.

**खाशेलेंपण :**

जाण्टेलीं हो खेळ घरांत खेळपाक दिनात. भुरगीं खेळटना दिसलीं जाल्यार तापयतात. तीं म्हणटात हो खेळ सांजवेळार खेळ्ळयार घरांत दळडीर येता. सांजवेळार घरांत लक्ष्मी येता देखून हो खेळ घरांत खेळपाक जायना अशेंय मानतात.

■■

# (ii) व्हिरांचे बाण

खेळाचें नांव : व्हिरांचे बाण

खेळाचो प्रकार : वैयक्तीक / घरांतलो

खेळपाचो काळ : गिमांत.

खेळपाचो वेळ : सांजवेळार

खेळाक लागपी वेळ : 10 मिणटां लागतात.

पिरायगट आनी लींगगट : 5 ते 9 वर्सां. चले खेळटात.

खेळाक लागपी साहित्य : व्हीर, सूत.

नेम आनी अटी : कांय ना.

खेळपाची रीत :

चुडटेच्या खेळाचो आनीक एक प्रकार म्हळ्यार व्हिरांचे बाण. एक चुडटेचो व्हीर घेवप आनी तो धनुश्य वाणाभशेन बागोवन ताका सूत बांदप. तसोच दोन वेंतभर लांब व्हीर घेवन तो भालो म्हण वापरप.



# व्हिरांनी



# शिपयांनी

| | |
|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : शिपयांनी (6 चौकोनाचो) |
| **खेळाचो प्रकार** | : मैदानी वा घरांत. सांघिक. उण्यांत-उणी दोन आनी चडांत चड 5-6 भुरगीं. |
| **खेळपाचो काळ** | : गीमांत आनी पावसांत (पावस आसरतकीच). |
| **खेळपाचो वेळ** | : दनपार आनी सांजवेळार. |
| **खेळपाक लागपी वेळ** | : 40-45 मिनटां लागतात. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : 5-13 वर्सांची भुरगीं. (चडकरून चलयो) |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : 3 फातराच्यो शिपयो (2 बारीक आनी 1 व्हड). |

**नेम आनी अटी** :

1. शिपी चौकोनाच्या भायर पडपाक जायना.
2. शिपी रेशेर पडपाक जायना. बाद जाता.
3. शिपी चुकून दुसऱ्या चौकोनांत उडयल्यार डाव वता.
4. तिसऱ्या आनी चवथ्या चौकोनांत दोनय पांय जमनीर दवरपाक मेळटात.
5. सय चौकोन खेळून जातकीच चौकोनांत उडयिल्ले शिपयेचेर पांय दिवपाक जाय.
6. पयल्या, दुसऱ्या, पाचव्या आनी सव्या चौकोनात लंगडी घालून खेळप.
7. बाद जाले उपरांत ज्या डावांत बाद जाला ताणे जर दुसरे फेरीत खेळपाचें चुकयलें जाल्यार तो परत बाद जाता.

**खेळपाची रीत** :

दोन फूट रुंदायेचे जोडयेन 6 चौकोन काडप (तीन जोडयो). खेळाची सुरवात 10, 20...घालून जाता. जो पयलीं सुट्टा ताका पयलीं खेळपाक मेळटा.

पयलीं व्हडली शिपी पयल्या चौकोनांत उडोवप. दावे वटेनच्यान तिचेर पांय दिवन ती लंगडी घालीत फुडें व्हरत रावप. तिसऱ्या आनी चवथ्या चौकोनांत दोनय पांय जमनीक लावप. परत पाचव्या आनी सव्या चौकोनांत लंगडी घालीत शिपी सव्या चौकोनाच्या भायर उडोवप आनी तिचेर पांय दवरप. अशे रीतीन ह्या खेळांतले 16 य डाव 4 चौकोनानी लंगडी आनी 2 चौकोनांनी चलत खेळपाचे.

पयले 6 डाव शिपी पायान धुकलत सगळ्या चौकोनांनी खेळप. उरिल्ले 10 डाव आंगाच्या हेर भागाचेर शिपी दवरून लंगडी घालीत खेळप. उरिल्ले 10 डाव अशे :

1. पयलीं उंजव्या हाताच्या तायटाचेर शिपी दवरून 6य चौकोन लंगडी घालून खेळप.
2. परत्या हाताचेर दवरून
3. हाताची मूठ करून परत्या हाताचेर दवरून.
4. हाताची मूठ करून आरत्या हाताच्या तायटाचे कुशीक दवरून.
5. हाताची मूठ करून आखाण्या बोटाकडेन शिपी दवरून.

मूठ उबी करून.

6. उजव्या हाताच्या कोपराच्या वयल्या भागाचेर शिपी दवरून.
7. उजव्या खांद्याचेर शिपी दवरून.
8. उजवो दोळो धांपून दोळ्याचे कुशीक शिपी दवरून.
9. माथ्यार शिपी दवरून.
10. उजव्या पायाच्या बोटांच्या वयल्या भागाचेर दवरून खेळप.

सतरावो डाव खेळटना दोळे धांपप आनी सगळ्या चौकोनांनी 'बाद-बाद' अशें विचारीत चलत रावप. जर रेशेर पांय पडलो जाल्यार हेर खेळगडी बाद म्हण सांगतात. तांणी बाद ना म्हण सांगल्या उपरांत फुडें वचप. हे सतराय डाव खेळ्ळ्या उपरांत हेर खेळगड्यांक विचारप उठी काय वशी. ताणीं वशी म्हळ्यार चौकोनांक फाट करून बसप आनी ते सांगतात त्या चौकोनांत शिपी उडोवप. तांणी उठी म्हणत जाल्यार उबो रावन शिपी उडोवप. जर ती शिपी सांगिल्ल्या चौकोनांनी पडली जाल्यार तो खेळगडो पुराय खेळ्ळो अशें म्हणटात. आनी शिपी पडिल्लो खेळगडो आपल्या चौकोनांत (X) अशी खूण करता. त्या चौकोनांत ताका चलून वचपाक मेळटा पूण हेर खेळगड्यांक मेळना. इतलेंच न्हय तर हेर खेळगड्यांक त्या चौकोनांत शिपी हाडूंक लेगीत मेळना.

**इतिहास / परंपरा / वैशिश्टय :**

घरचीं हो खेळ भुरग्यांक खेळपाक दिनात. कित्याक तर फातरांनी खेळ्ळ्यार भुरगीं शिकूंक पावनात, तीं सामकी ढ जातात असो तांचो समज. तीं भुरग्यांक हो खेळ सांजेचो खेळपाक दिनात.



# शिपयांनी



# शिल्ले पारांनी

| | | |
|---|---|---|
| खेळाचें नांव | : | शिल्ले पारांनी |
| खेळाचो प्रकार | : | सांधिक. भायर. हो खेळ भुरगीं झाडांचेर वयर चडून खेळटात. चडांत चड 10-12 जाणां खेळटात |
| खेळपाचो काळ | : | गीम / काजूच्या तेंपार. |
| खेळपाचो वेळ | : | सांजवेळार |
| खेळाक लागपी वेळ | : | कमीत कमी एक वर. |
| पिरायगट आनी लींगगट | : | 8 - 15 वर्सां. हो खेळ चले आनी चलयो दोगांय जाणा (वेगळीं वा मेळून) खेळटात. |
| खेळाक लागपी साहित्य | : | हाता-येदी एक बडी आनी एक बोदो (Circle) काडप |

**नेम आनी अटी :**

ह्या खेळांत भुरग्याक झाडाचेर चडपाक कळप गरजेचें. एका भुरग्यान दुसऱ्या भुरग्याक झाडावयल्यान धुकलून घालपाक जायना. बेब्याक झाडाचेर चडून त्या भुरग्याक धरपाक मेळटा.

**खेळपाची रीत :**

पयलीं सगळीं भुरगीं एकठांय रावतात आनी तातूंतले एकटें धा, वीस, तीस, चाळीस, पन्नास अशें शंबर आंकडे भुरग्यांचेर धरून मेजता. ज्या भुरग्याचेर शंबर आंकडो येता तो सुट्टा आनी जो कोण निमाणो उरता तो बेबो जाता.

1. पयलीं एक हातायेदी बडी घेतात आनी एक बोदो काडटा.
2. मागीर सगळीं भुरगीं झाडार चडटात आनी दोन भुरगीं सकयल रावतात. तातूंतलो एकलो बेबो.
3. सकयल रावलेलें भुरगें आपल्या दांगां पोंदच्यान बडी पयस शेंवटून मारता आनी तें झाडार वयर चडटा. मागीर जो बेबो जाल्लो भुरगो आसता, ती बडी हाडून त्या बोद्यांत दवरता.
4. मागीर बेबो जाल्लो भुरगो त्या झाडाचेर आशिल्ल्या भुरग्याक धरपाचो यत्न करता
5. बेबो जाल्लो भुरगो एकट्याक धरून धांवत वचून ते बडयेक हात लायता.
6. जर तांणे पयलीं एका भुरग्याक धरलो आनी दुसऱ्या भुरग्यान धांवून बडयेक हात लायलो जाल्यार तो पयलो धरिल्लो भुरगो बेबो (बाद) जायना. आदल्याच बेब्याक परतून बेबो जावचें पडटा.
7. बेब्यान जर सगळ्या भुरग्यांक धरले जाल्यार तो सुरवेक धरिल्लो भुरगो बेबो जाता.

**जिखप आनी हारप :**

ह्या खेळांत जिखप आनी हारप अशें कांयच ना. कारण ह्या खेळाक पंगड करून खेळपाक मेळना.

**हेर म्हायती :**

शिल्ले पारांनी हो खेळ आदलो खेळ जावन आसा. चड करून हो खेळ काजूच्या तेंपार खेळटात. भुरगीं झाडावेल्यान पडपाची शक्यताय आशिल्ल्यान जाणटेलीं ह्या खेळाक पसंती दाखयनात.



# शिल्ले पारांनी



# (3) इतिहास/धर्म हांचेकडेन जोडिल्ले पारंपारिक खेळ

## गडगडो

**खेळाचें नांव** : गडगडो

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक, मैदानी. हो खेळ मैदानार खेळटात. उण्यात उणीं 2 मनशां खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : नाटकां, जात्रा जातात त्या काळांत खेळटात

**खेळपाचो वेळ** : रातचो खेळटात

**खेळाक लागपी वेळ** : 2 ते 3 मिणटां लागतात.

**पिरायगट आनी लींगगट** : 12 ते 13 वर्सां उपरांतचे भुरगे. चले, दादले चड खेळटात. (बायलो खेळनात)

**खेळाक लागपी साहित्य** :

1. एक दाट धवो कागद
2. एक डवो. तातूंत 1-3 रब्बराचे षटकोनी आकाराचो कुडको. रब्बराच्या षटकोनाक 6 वटो आसतात. आनी तांचेर 1-6 बुराक आसतात.
3. त्या धव्या कागदाचेर 1 - 6 नंबर व्हड आकारांत वरयल्ले आसतात.

**नेम आनी अटी** :

1. ज्या नंबराचेर पयशे लायल्यात तोच नंबर आयलो जाल्यार दुपेट पयशे मेळटात.

**खेळपाची रीत** :

धनी मनीस धवो कागद मेजार वा जमनीर दवरता. ताचेर 6 नंबर आसतात. लोक आपल्याक जाय त्या नंबराचेर पयशे लायतात. उपरांत धनी (खाली) रित्या डब्यांत रब्बराचो षटकोन (गडगडो / पासो / लाकडाचो वा प्लॅस्टिकाचो षटकोनी, 6 वटो आशिल्लो ठोकळो, जाचे दर एके वटेचेर 1-6 आंकडे वरयिल्ले / कोरांतिल्ले (टिपक्यांनी) घातिल्ले आसतात). मातसो हालयता आनी त्या धव्या कागदार परतो मारता. रब्बराच्या षटकोनाचेर तितलो तो नंबर लायिल्ल्या मनशाक पयशे मेळटात. डब्यांत जेन्ना एक षटकोन घालून खेळटात ताका सिंगल पासो म्हणटात आनी डब्यांत तीन रब्बराचे षटकोन घालून खेळटात ताका तीन पाशे म्हण्टात. गडगड्यान दाखयल्ल्या आंकड्याचेर कोणेच पैशे लावंक नात जाल्यार ते सगले पैशे धनी मनशाक वतात. पैशे एखादल्या आंकड्याचेर लायतना ते पटींनी लायतात. खेळपी - जिखलो जाल्यार त्याच पटीन आपल्या बोल्सांतले दुडू ताका धनयाक. दिवंचे पडटा.

**इतिहास / परंपरा / वैशिश्टय :**

हो खेळ खूप आदींसावन खेळटाले आनी तो एक जुगार खेळ जावन आसा.

१. गडगड्याक लागून जायतीं कुटुंबा पिशीं जाल्यांत
२. जात्रा / काले हातूंत गडगड्याक लागुनूच गर्दी जाता.
३. एखाद्या काल्याक लाखांनी रुपयांची उलाढाल फकत गडगड्याक लागून जाता.

४. एकेवटेन काल्याचें नाटक आनी दुसरेवटेन गडगड्याचो खेळ, जो टेबलांचेर वा साक पातळावन चड करुन पेट्रोमॅक्साच्या उजवाडांत चलता. अशे तरेन कालो जाता.
५. सरकारान मटक्याचेर कायदेशीर बंदी हाडल्या. पूण जात्रा / काल्यांनी चलपी गडगड्याचेर मात कायदेशीर जावंक ना.

**हेर म्हायती :**

भुरगे, दादल्यांमदीं हो खेळ फामाद, तांका तो खूब आवडटा. एक-एकलो मनीस तर आपणे हाडिल्ल्या पयश्यांचे करीस दुप्पट घरा परतना, तर थोड्यांक खाली बोल्सां घेवन वच्चें पडटा. गडगडो हो नाटक, कालो, जात्रा असल्या उत्सवांनी चड फामाद. दादले चडकरून रातचे देवळाकडेन गडगडो खेळपाखातीर वतात. तो रातचो खेळटात. दिसाचे वा रातचे पुलिस आयले जाल्यार धनी मनीस पळून वता. तो तसो गेलोना जाल्यार पुलिस ताका धरून व्हरतात. घरचीं बायलां ह्या खेळाचो प्रतिकार करतात. कित्याक तर दादले सगले पयशे गडगडो खेळपाक वगडायतात. हो खेळ लोक परंपरेनुसार खेळत आयल्यात. ह्या खेळाचें सोरो-सिगाराभशेन मनशाक व्यसन जडटा आनी तेखातीर तो कितेंय विकूंक तयार जाता.

महाभारत काळासावन ह्या खेळाचो उल्लेख मेळटा. शकुनीमामा आनी धर्म हे दोग जाण ह्या खेळाचेर सामके पिशे जाताले. धर्मान ह्या खेळाक आपलें राज्य आनी बायल द्रौपदी लेगीत लायिल्ली. ह्या खेळाक महाभारतांत द्यूत अशें नांव आसा.



## गडगडो



# गोफ

| | | |
|---|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : | गोफ |
| **खेळाचो प्रकार** | : | मैदानी / सांघिक. |
| **खेळपाचो काळ** | : | गिमांत. (शिगम्याच्या वेळार) |
| **खेळपाचो वेळ** | : | रातचो (सांजवेळ) |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : | 20-25 मिणटा. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : | 15 वर्सां उपरांतचे दादले आनी चले हो खेळ खेळटात. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : | टिपऱ्यो, म्हेडी, साडयो वा दोरयो. |

**नेम आनी अटी :**

1. खेळगडे खेळटना मात लेगीत चुकूंक फावना.
2. गोफाची वेणी सोडयतना सुरवातेक घालपाची तराच उरफाटी घालप.

**खेळपाची रीत :**

ह्या नाचांत जितले लोक वांटो घेतात तितल्यो रंगीबेरंगी कपड्यांच्यो पट्ट्यो एकठांय करून ताच्या एका तोंकाक गांठ मारतात. ती गांठ माटवाच्या वांश्याक बांदतात. मागीर तातूंतल्यान एक पट्टी आनी एक तोणी, दर नाचपी आपल्या दाव्या-उजव्या हातांत घेता. मागीर एके लयींत दर एकलो एक-दुसऱ्याचे तोणयेचेर तोणी मारतात. कांय खिणांभितर सगळे नर्तक फेर धरतात आनी नाचाची सुरवात जाता. नर्तक फाटीं-फुडें वतात आनी आपलो जागो बदलतात. तातूंतल्यान त्या पट्टयांचो आपसुकूच गोफ विणून तयार जाता.

गोफ पुराय विणून जातकच नाचपी उरफाटी गती दितात. ताका लागून विणिल्लो गोफ हळूहळू सुटत वता. गोफ पुराय सुट्टकच नाच थांबता. नाचाच्या विंगड विंगड प्रकारां प्रमाण म्हळ्यार नर्तकांच्या वेगवेगळ्या पदन्यासाप्रमाण, गोफाचे तरेकवार वेंटे घडटात.

**इतिहास / परंपरा :** हो खेळ लोक खूब आर्दीसावन शिगम्याक खेळटात.

**हेर म्हायती :**

गोंय आनी महाराष्ट्रांतलो एक नामनेचो लोकनाच. हो नाच करपाक चार, स, आठ जोड्यो वांटो घेतात. नाच करपी लोक श्रीकृष्णाच्या गोपांचो भेस करतात. तबलें आनी झांज हांचे साथीचेर हो नाच जाता. हो नाच कलात्मक तेच परी सुंदर आसता. कोंकणांत आनी गोंयात ह्या नाचाक खाशेलें म्हत्व आसा. गोंयांत काणकोणच्या गोफाची बरीच नामना आसा. हो गोफ विण्टा आसतना एकेतरेचें गाणें म्हण्टात, तें म्हळ्यार,

शेंवते झाडाच्यो लांब ताळयो, लांब ताळयो,<br>
शेंवते फुलपाकळ्यो,<br>
दोरी वल्ली सुंभाची<br>
पूजा केली गोफाची.

■■

# जागर

**खेळाचें नांव** : जागर

**खेळाचो प्रकार** : मैदानी (थारायिल्ले सुवातेर) / सांघिक.

**खेळपाचो काळ** : गिमांत

**खेळपाचो वेळ** : रात

**खेळाक लागपी वेळ** : आख्खी रात

**पिरायगट आनी लींगगट** : 15 वर्सां उपरांतचे चले. दादले.

**खेळाक लागपी साहित्य** : वेगवेगळो भेस. वाजंत्रां.

**नेम आनी अटी** :

1. हो खेळ पुराय रात जागोवन खेळपाचो.

**खेळपाची रीत** :

गोंयात जागराचे तीन प्रकार दिसून येतात :

1. **गावडी जागर 2. पेरणी जागर 3. शिवोलेचो हिंदु-किरिस्तावांचो जागर**

1. **गावडी जागर** - पौश म्हयन्यांतले एके राती, गांवच्या मदीं अशिल्ल्या मांडार वा ग्रामदेवतेच्या माटवांत हो जागर मनयतात. म्हादळें, धोल, नगारो, घुमट, कांसाळें ह्या वाद्यावांगडा एक-दोन गावपी एकेकडेन बसतात आनी तेत्तीस कोटी देवांक नमन करतात. उपरांत एकेक सवंग कोयंडी करून वशिल्ल्या लोकांमदीं येवन नाचता, गायता. शेजारचे वाजोवपी संघाच्या गीतांचे ध्रुपद धरून सांगात दितात. ही सवंगां विंगड-विंगड जाती जमातींचीं आसतात. गावडी जागरांत बायलांची सवंगां दादले करतात. गावडी जागर नृत्यांतलो 'दांडलां' हें मुखेल पात्र आसा. हो कसबी कलाकार पायांक दांडे बांदून कोंड्याचेर नाचपी सवंग जावन आसा

**हेर म्हायती** : गावड्यांची चड वस्ती आशिल्ल्या पाळें, शिरदोन, करमळें, प्रियोळ, वेलिंग, खोर्ली, करमळी ह्या सुवातींनी हो जागर जाता. जागराचीं गीतां विनोदी आसतात पूण हो नाच रांगडो आसता.

2. **पेरणी जागर** - पेरणी समाजांतले लोक आपलो पेटारो घेवन रातचे देवळामुखार हो जागर करतात. ग्रामसंस्थांकडल्यान मेळपी तेल, तांदळाचे बिदागेन आनी पळोवपी लोकांकडल्यान मेळपी पयशांचेर समादान मानून घेवन हे पेरणी गांवांत रातभर जागयताले. ह्या जागरांत सवंगां लाकडांची रुपडीं वापरतात. ह्या जागरांत बायलांची सवंगां बायलांच करतात. दरेकाची नाचपाची रीत, तांच्या गावपाचें संगीत, तशेंच भेस लेगीत वेगवेगळो आसता. धोलकें, कासांळें, घुमट, मृदंग वाजोवपी वादकांवांगडा एक मुखेल सूत्रधार आसता. तो पात्रांमदलें दुवे सादपाचे काम करता. ह्या गांवांत गाणें, नाच, हांचेवांगडा संवादूय आसता.

**हेर म्हायती** : हो जागर फोंडे, केपें, वाघुर्मे, मडकय, मळकर्णे, काणकोण, पैगीण, लोलयें, काकोडें ह्या सुवातींनी पेरणी जागर मनयतात, थोडेच मनीस पुराय रातमेरेन विंगड-विंगड सवंगां करतना दिसतात.

निमार्णें मधुकैटभ ह्या राकेसाचो वध जातकच गाराणें घालून हो जागर सोंपता.

3. **शिवोलेचो हिंदु-किरिस्तावांचो जागर** - शिवोले हिंदु किरिस्तांव लोक एकठांय येवन नातालाच्या उत्सवा उपरांत पयल्या सोमारा हो जागर व्हडा उमेदीन मनयतात. ह्या जागराक हिंदु-किरिस्तांवाचो जागर अशें म्हण्टात. दोन समाजांमदीं एकचार जागोवपी हो एक प्रकार जावन आसा. हांगां कुटुंबांत थारिल्लीं अशीं सवंगां आसतात. ह्या जागरांत जागरयो हें देवाचें सवंग पयलीं नाचून वता. उपरांत गणेशवंदना जाता. मेरीच्या कुंवराची तोखणाय हिंदु लोक व्हडा भक्तीभावान करतात.

**हेर म्हायती** : ह्या जागरांतलीं सवंगां अशीं आसतातः भरभरैया, साईद, भोंवर, फिरंगीराजा, फुलकार, फुलकात्र, म्हार-म्हारिण आदी. हेर दर एकल्याचो भेस वेगवेगळो आसता. जागरांतलीं गीतां, संवाद लिखित रुपान वरयिल्लीं नात पूण परंपरेन, पाठांतरान तीं आयजमेरेन तिगून उरल्यांत.

**जागर** - जागर विंगड-विंगड प्रकारचे आसले तरी ताचे मूळ प्रकार दोनूच आसतात. 1) कुडींत संचारिल्ल्या मनशाक बरें दिसचें म्हण केल्लो जागर (2) सादारण मनशाच्या बरेपणाखातीर केल्लो जागर. पुराय रात जागून देवाचें नामस्मरण, मनोरंजन करपी लोककलेचो धार्मिक नृत्यप्रकार म्हळ्यारच जागार. गोंयचो जागर संस्कृतीक, तात्विक आनी राजकी बसका आशिल्लो आसा. तो फकत धार्मिक स्वरुपाचो ना.



# टिपऱ्यो

**खेळाचें नांव** : टिपऱ्यो

**खेळाचो प्रकार** : मैदानी (थारायिल्ले सुवातेर) / सांघिक. हो खेळ भुरगीं मैदानाचेर, दारांत, भायर खेळटात. चडांत चड 10-12 जाणां खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : गिमांत, शिगम्यावेळार गोफ खेळटानाय

**खेळपाचो वेळ** : सांजवेळार आनी रातीं.

**खेळाक लागपी वेळ** : चडांत चड दोन-तीन वरां

**पिरायगट आनी लींगगट** : 10-20 वर्सां. हो खेळ चले आनी चलयो खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** :

एक खेळाचें साधन : बारा ते चवदा इंच लांबायेच्यो लाकडाच्यो जित्या (कोंड्याच्यो) वडयो कांपून गोल करतात. तांचीं तोंकां तासून अशीर करतात तांकां टिपऱ्यो म्हणटात. त्यो रंगयतात आनी तांका रंगीत गोंडे बांदतात. फेर धरून नाचतना ताल धरपाखातीर ह्या टिपऱ्यांचो उपेग जाता.

**खेळपाची रीत** :

1. नाचतना आपले दावे उजवे वटेंतल्या नाचप्यांच्या टिपऱ्यांचेर आपली टिपरी मारतात.
2. कांय खेपे खेळचे पयलीं दोन-दोन नाचपी एकमेकांसामकार उबे रावतात आनी एकमेकाच्या टिपऱ्याचेर टिपरी मारतात आनी नाचतात.
3. ह्या नाचाच्यो विंगड विंगड गती आसात आनी ह्यो करतना तशीच वेगळी वेगळी पदां म्हणटात. ह्या नाचाक व्हड झांज आनी धोलक्याची साथ आसता.
4. कांय खेपेक टिपऱ्याच्या नाचावांगडा नाचपी गोफूय विणटात.

**हेर म्हायती** :

खूब पुर्विल्लो हो टिपऱ्यांचे खेळ, श्रीकृष्ण गोपींवांगडा खेळिल्ल्याचीं वर्णनां आसात. महाराष्ट्रांतल्या संतांनी कृष्णाचे टिपरेचेर अभंग वा पदां रचल्यांत.



# धालो

| | | |
|---|---|---|
| **खेळाचें नांव** | : | धालो |
| **खेळाचो प्रकार** | : | मांडार / सांघिक. कमींत कमी बारा जाणांच्या वयर आसूंये. |
| **खेळपाचो काळ** | : | शिंयाच्या दिसांनी |
| **खेळपाचो वेळ** | : | रातचो |
| **खेळाक लागपी वेळ** | : | दोन-तीन वरां लागतात. |
| **पिरायगट आनी लींगगट** | : | 15 -60 वर्सां वयर आसता. हो बायलांचो खेळ. |
| **खेळाक लागपी साहित्य** | : | कांयच लागना. |
| **नेम आनी अटी** | : | |

1. ह्या खेळांत आठूय राती बायलां मांडार येवन धालो खेळटात.
2. णवव्या दिसा धालो दनपारच्यो खेळटात आनी ते दिसाच्यान धालो सोंपता.
3. धालांक रंभांचेर अवसर येता.
4. धालांची निमाणी रात जागोवची पडटा.

**खेळपाची रीत** :

सगळ्यो बायलो रातच्या वेळार जमतात. मागीर गांवचो जल्मी वा गांवचो वांगडी देवाक नाल्ल, तांदळाची तळी उखलासून दवरता. पाटार एक दिवली पेटांवन दवरता. म्हऱ्यांत विडो, चुडो, गोड, केळीं दवरतात. तीळ, गंध, काजळ कुंकमाच्यो अक्षता वांट्टात. गांवाचे वतीन गाराणें घालतात. आनी गांवाचें बरें जांव अशें मागतात. जमिल्ल्यो बायलो हय सायबा म्हणून होरायतात आनी दिवलेर अक्षता उडयतात. आमी दाव्या हातान केलां तू उजव्या हातान मानून घे अशें देवाकडेन राखणेचें मागणे करतात. मागीर हळद कुकूम जातकच गंधाचे तिवे लायतात. गंधाचे तिवे लायतल्या बायलांनी धालांचे राती मांडार हाजीर रावूंकूच जाय पडटा. उपरांत जमिल्ल्यो बायलो नट्टून थट्टून मांडार जमतात आनी एकामेकांसामकार तोंड करून दोन ओळी करतात. ह्या रांगांक फांती म्हण्टात. फांतयेंत उब्यो राविल्ल्यो बायलो एकामेकांच्या हातांत वा कमराभोंवतणी हात घालतात. पदाचो एक चरण म्हणत बायलांची रांग फुडें पावली मारता, कमर बागयता आनी चरण म्हणत बायलांची रांग फुडें वता आनी बागवन परत आपल्या जाग्यार वता. धालांची सुरवात सदांच श्री धालो ह्या उतरान जाता. ह्या वेळार म्हणपाचो एक प्रकार असो-

श्री धालो गे धालो । धालांनी खेळूं
येयात गे धालो, धालांनी खेळूं येतात.
चान्नी खेळूं येयात गे धालो चान्नी खेळूं येयात.
रथा तुज्यो दांडयो साडेतीनशें गुडयो.
रथांत कोण देव बसे गे
रथांत कोण देव बसे गे
रथांत बसली शांतादुर्गा माया
जना लोकां दिसे, खेळूंक आयल्या मांडार गे

केन्ना केन्ना धालांची गती जलद आसता.

खंय गेलो म्हजो कवडुलो !
हांगा आशिल्लो कवडुलो ।

येयात गो रंभानो, झंपानी खेळया
आयली गे, आयली गे रंभाबाई
रंभानी फुगडी घाल धडाडी....

करून ताळ्यांच्या ठेक्यार फुगडी खेळटात. उपरांत रंभाचो आवसर येता. वारा वर्सां सकयल्यो आंकवार चलयो खुदतात. सात जाण आनी एक तांचो भाव खेतलो. भावार्थी लोक आपले प्रस्न विचारतात. रंभा प्रस्नांच्यो जापो सांगतात. मत येवंक नाशिल्ल्या, इल्ल्याशा भुरग्यांकडल्यान बुदवंतपणाच्यो जापो आयकून जमिल्ले लोक भारावतात. रंभाची खणानाल्लांनी होट भरतात मागीर तांचो अवसर निवळटा. कांय गावांनी व्हड बायलांचेरूय रंभा येतात.

धालांचो मांड सोंपता तेन्ना खूब खेळ जातात देखीक-

सावज मारप, घाडी खुदोवप, न्हवरो, भट-भटीण, मोरुलो आमयो, धोणशे पिलां, गावडी अंबाबाय, पिंगळी अश्यो जायत्यो भोगावळी जातात.

**घोणचें पील :**

हांगा आसा म्हाजें घोणचें पील !
हांगा ना तुजें घोणचे पील
हांगाच आसा म्हाजें घोणचें पील
सुपा तळा धाकलेंलें !
कोणें गो रापालान देखलेलें
वण्टीवयल्यान गेलेलें !
हांगाच आसा म्हाजें घोणचें पील
हांगा ना तुजें घोणचे पील !
हे पळय म्हाजें घोणचें पील !
हेंच म्हाजें घोणचें पील.

हातूंत बायलांचे दोन पंगड करतात. एकेवटेन घोण तर दुसरेवटेन कोंबये पिलांची आवय आनी तिच्या फाटल्यान पिलां. घोण पिलांक उबारूंक येता तिका आवय आडायता असो हो संवाद. शेवटाक घोण आपल्या पिलांक म्हणून व्हरूंक आयिल्लेकडेन कोंबयेच्या पिलांकूच उबारून व्हरता.

**वयल्या रानां (सावज) :**

वयल्या रानां
पिसय गेल्यां
सकल्या रानां
सोंसो गेला
तोंपून मारतलें
मामालें चेंडू हाडून
व्हनी करतलें
पिस्सय ढा ।
पिस्सय ढा ।

एका ल्हान भुरग्याक कांबळींत गुठलावन दवरतात ताका सावज म्हण मारपाखातीर शिले, भाले बी घेवन बायलां वतात.

**हेर म्हायती :**

कोंकण पट्यांत सिंधुदूर्ग धरून माजाळी-कारवारा मेरेन, गांवगिऱ्या वाठारांत हो उत्सव पळोवंक मेळटा. दर वर्सा पौप म्हयन्यात, चडकरून चाऱ्यारातींनी धालांची परब मनयतात. धालो ज्या जाग्यार खेळटात ते सुवातेक मांड म्हणटात. हीं सुवात पुर्वापार थारायल्ली आसता. कांयकडेन

तुळशी वृंदावनामुखार आंगणांत. खंयच्याय देवळाच्या प्राकारांत वा काय वाठारांनी शेणान सारयिल्ल्या खळार (आंगणांत) धालो खेळटात. माडांची सासाय जागोवप, वाड्यांचें नांव तिगोवन दवरप, वाऱ्यासुत्राक थंडावप, एकचारान खोशी मनोवप ही धालो खेळपाफाटली उद्‌दिश्टां आसात. पौष म्हयन्यांत पुनव धरून कृष्ण पक्षांतले सश्टी मेरेन धालो उत्सव मनयतात.

**धालो गीतां**

**रंभांची गीतां :**

आमी देवांच्यो रंभा गे
आमी मांडार खेळूं आयल्या गे
आल्यो जाल्यार बऱ्यो जाल्यो
सकयां साद घाला गे.

**रंभा - फुगडेचीं गीतां :**

आयल्यो गे रंभाबायो
झंपांनी खेळूं
झंपांनी खेळू !
दाद गेला बोणकी तळा,
शिंपल्यांनी खेळूं,
शिंपल्यांनी खेळूं,
फुगडी फू ! फूगडी फू !

**आवोलेच्या गोंडा, शेंवतेच्या देंठा (धालो - नाचाचीं गीतां):**

आवोलेच्या गोंडा
शेंवतेच्या देंठा
पुंडलीका भावा तुका खेळों येवपा जाय रे
पुंडलीका भावा तुका खेळों येवपा जाय

**गंदान मांड सारयला :**

**पयली रेग** - गंदान मांड सारयला हो,
गंदान मांड सारयला
**दुसरी रेग** - चंद्रेश्वर देवान खेळ खेळयला हो
चंद्रेश्वर देवान खेळ खेळयला
**पयली रेग** - चाफेलान मांड सारयला हो
चाफेलान मांड सारयला
**दुसरी रेग** - जल्मी देवान खेळयला हो,
जल्मी देवान खेळयला
**पयली रेग** - सरवय तेलांनी मांड सारयला हो
सरवय तेलांनी मांड सारयला
**दुसरी रेग** - सरवय देवांनी खेळ खेळयला हो
सरवय देवांनी खेळ खेळयला

**श्री धालो, धालांनी खेळूं या :**

श्री धालो रे धालो,
धालांनी खेळूं या रे धालो,
धालांनी खेळूं या
धालांच्या पांया सोलमुदी साजे
धालांनी खेळूं या रे धालो,
धालांनी खेळूं या
श्री धालो रे धालो
धालांनी खेळूं या
धालांच्या कमराक कमरपटो साजे
धालांनी खेळूं या रे धालो
धालांनी खेळूं या

**नक्षत्रांच्यो वोळी :**

वोळी बाये वोळी गे, ह्यो नक्षत्रांच्यो वोळी
खुंटीमाया भोळी गे, आमकां खेळूंक दिल्यो वोळी
वोळी बाये वोळी गे, ह्यो नक्षत्रांच्यो वोळी,
धर्तरीमाया भोळी गे, आमकां खेळूंक दिल्यो वोळी
वोळी बाये वोळी गे, ह्यो नक्षत्रांच्यो वोळी
वनदेवतामाया भोळी गे, आमकां खेळूंक दिल्यो वोळी.

**एक संबर गाती फिरती :**

एक संबर गाती फिरती, कुणाची नायी एक भिती
देवांनी कुणाची नायी एक भिती,
संबर गेले रायरस्ती संवसार सागरा,
देवांनी संवसार सागरा
इंद्रच्या कुंवरा रे, खुंटीमायेन खेळ गे मांडिला.
आत्ताळी वात्ताळी, देवांनी टाकला जगमोती
देवांनी टाकला जगमोती
शिवा शिवा शंकरा म्हणोनी, आले शरणागती
देवांनो आले शरणागती

**खेळ गीतां :**

**आयज दीस वोर्तोता**

आयज दीस वोर्तोता
व्हडल्या पास्कां फेस्ताचो
उगडास कोराय
आमच्या खेळाचो
वोवाळ चोल्ला वोराचो
बावटो लागला घेराचो.



# धालो



# धिरयो

**खेळाचें नांव** : धिरयो

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक, मैदानी. (बैलांचो खेळ) हो बैलांचो खेळ आनी तो मैदानार खेळयतात. दोन बैलांमदीं हो खेळ खेळयतात.

**खेळपाचो काळ** : धिरयो फेस्ता उत्सवाच्या निमतान शिंया तेंपार जातात. (डिसेंबर)

**खेळपाचो वेळ** : दिसाचो खेळटात.

**खेळाक लागपी वेळ** : 20-30 मिणटां लागतात.

**पिरायगट आनी लींगगट** : जवान बैल. हो खेळ फकत बैलांमदींच खेळयतात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : दोन झुंजीखातीर तयार केल्ले बैल

**नेम आनी अटी** :

1. जो बैल दुसऱ्या बैलाक आपल्या बळाच्या आदारान मैदानाभायर धुकलूंक पावता तो झूंज जिखता.

**खेळपाची रीत** :

दोनूय पंगडांतल्या बैलांक मैदानार हाडटात आनी तांचें झूज लायतात. दोनूय बैल एकामेकाचे तकलेन, शिंगानी झगडटात. पूण ताणीं मैदान सोडून भायर वचप नासता.

**इतिहास / परंपरा / वैशिश्टय :**

बैलाच्यो झूजी हो खेळ खूप आदींसावन खेळटात. गांवांत फेस्ताच्या निमतान वा उत्सवाच्या निमतान लोक हो खेळ घडोवन हाडटात. हो खेळ गांवांत खूब फामाद.

**हेर म्हायती** :

धिरयो हो बैलां झुजीचो एक प्रकार. बैल, रेडे, कोंबे सारकिल्ल्या मोनजातींमदीं झुजां आयोजीत करप हो मनशाचो खूब आदींसावन एक मन रिजोवणेचो छंद. गोंयांत धरून बऱ्याच वाठारांनी उत्सवाचो एक वांटो म्हणून अशी झुजां लोक आयोजीत करतात. झूज जिखतल्याक इनामां दवरतात. कांयकडेन प्रेक्षकांखातीर तिकेटीय आसतात. बैलांच्या आयोजीत केल्ल्या झुजाक गोंयात धिरयो म्हणटात. झुंजात वांटो घावपी बैलांचे भलायकेची खास वेवस्था करप जाता आनी तेप्रमाण तांका खाशेलें खाणजेवण, तशेंच प्रशिक्षण दितात. ह्यो धिरयो आदीं गांव पंगड धरून जाताल्यो. हालींसारा कांय व्यक्ती आपले बैल तयार करून धिरयांनी वांटो घेतना दिसतात. गोंयांत विशेश करून दक्षिण गोंयात अशो धिरयो फेस्ताच्या निमतान जाल्ल्यो दिश्टी पडटात. गांवाचे एके मेकळे सुवातेर, इत्सूक प्रेक्षकांचे हजेरेंत धिरयो आयोजीत जातात. धिरयांनी वांटो घेवपी बैलांक तांचे

पुरस्कर्ते आनी समर्थक उतरांनी, कुरवांनी आनी हातानी आपापल्या बैलांक विरुद्ध पंगडाच्या बैलाचेर धुरी घालपाक तशेंच जैत मेळोवपाक प्रोत्साहन दितात. धिरी लागचे पयलींच मैदान सोडून पळून गेल्ल्या बैलाक चुचकारून वा केन्ना बळाचो वापर करून परत मैदानाचेर हाडटात. जो बैल प्रतिस्पर्धी बैलाक आपल्या शिंगाच्या आदारान वा हेर उपायान मैदानाभायर धुकलूंक पावता तो बैल झूज जिखलो अशें समजतात.

संरक्षणाची वेवस्था करिनासतना अशो धिरयो आयोजीत केल्ल्यान कांय वेळार सुटिल्लो बैल धिरयांखातीर आंखून दिल्ले शिमेभायर सरून प्रेक्षकांक दुखापत जाल्ल्याचे वा मरण आयिल्ल्याचे प्रसंग खूब फावटीं घडिल्ले आसात. ते भायर वांटो घेवपी बैलाकूय दुखापत जाता.

धिरयो आनी युरोपी देशांनी जावपी बूलफायट हांचो तसो लागींचो संबंद दिसना. बूलफायट हे बैलांचे झुजीत बैल आनी मनीस वांटो घेता जाल्यार धिरयांनी बैलाबैलांमदींच झूज लायतात. बूलफायटीचो शेवट मनशाकडल्यान बैलांक जिवो मारप जाता.

बूलफायट तशेंच धिरयो ह्यो आप-आपल्या वाठारांनी लोकप्रिय आसल्यो आनी तांतूतल्यान साहस तशेच कुशलताय हांचें दर्शन जाता आसलें तरी आयच्या काळांत फकत मन रिजवणेखातीर मोनजातींचो पिडापीड करपी असल्या खेळांविशी कांय लोक नापसंती दाखयतात. ह्याच कारणाखातीर सध्याक गोंयांत अशा धिरयांचेर बंदी आयल्या.



# नाल्ल फोडच्यांनी

| | |
|---|---|
| खेळाचें नांव | : नाल्ल फोडच्यांनी |
| खेळाचो प्रकार | : मैदानी (थारायिल्ले सुवातेर) / वैयक्तीक. |
| खेळपाचो काळ | : गिमांत (शिगम्याच्या वेळार). |
| खेळपाचो वेळ | : तीनसांज / रात |
| खेळाक लागपी वेळ | : 5 ते 10 मिणटां |
| पिरायगट आनी लींगगट | : 15 वर्सां वयले भुरगे हो खेळ खेळटात. चले आनी दादले खेळटात. |
| खेळाक लागपी साहित्य | : एक तीन फूट लांव दांडो, एक नाल्ल, दोळ्यांक पट्टी बांदपाक लुगट. |

**नेम आनी अटी :**

1. दोळ्यांक पट्टी बांदुनूच नाल्ल फोडप.
2. नाल्ल फोडप्याक तीनदां घुंवडावप.
3. दांडो तीनदां नाल्लार मारप.
4. नाल्लार तीनूय फावटी दांडो बसलोना जाल्यार खेळटल्याचो डाव वता.

**खेळपाची रीत :**

मांडाचे चारूय वटेन लोक बशिल्ले आसतात. तांचेच भितरल्या एकट्यान आपखोशयेन मुखार येवन नाल्ल फोडपाच्या खेळांत भागीदार जावप. खेळप्याच्या हातांत दांडो दिवप आनी कोणूय एकल्यान ताका तीनदां नाल्ला म्हन्यांत घुंवडावप. खेळटल्यान अदमासान नाल्ल फोडपाचो यत्न करप. नाल्ल फोडपाक तो अपयशी थारलो जाल्यार ताचेफाटल्याक डाव मेळटा.

**इतिहास / परंपरा :**

हो खेळ शिगम्याच्या वेळार खूप आदींसावन मांडार खेळटात. ह्या खेळाक लागपी नाल्ल दर एके चुलीफाटल्यान एक-दोन अशे काडटात. मांडावयले खेळ सोपतकीच सगले नाल्ल फोडटात आनी चुन्न करुन लोकांक वाटटात.



# फुगडी

**खेळाचें नांव** : फुगडी

**खेळाचो प्रकार** : घरातलो वा मैदानी. (थारायिल्ले सुवातेर) / सांघिक. कमीत कमी धा जाणां खेळटात.

**खेळपाचो काळ** : पावस

**खेळपाचो वेळ** : रात

**खेळाक लागपी वेळ** : चडांत चड धा मिनटां

**पिरायगट आनी लींगगट** : पांच वर्सां ते जाण्टे. ह्या खेळाक वय तशेंच लिंग भेद ना. पूण मुखेलपणान बायलांचो खेळ.

**खेळाक लागपी साहित्य** : कांयच ना.

**नेम आनी अटी** :

1. फुगडी एकट्यान म्हणले उपरांत बाकीच्यांनीं म्हणप.
2. फुगडी घालतना सगळ्यांनी एकेचभाशेंन पांय मुखार व्हरप.

**खेळपाची रीत** :

हो बायलांचो - चलयांचो खेळ. हो खेळ चडकरून चवथीच्या वेळार खेळटात. कांय गांवांनी दादले लेगीत हो खेळ खेळटात. ह्या खेळांत चडशीं गीतां आसतात. फुगडे वेळार बायलो वांटकुळ्योच उब्यो रावतात आनी हातांनी ताळ्यो मारीत वांटकुळींच धुंवतात. ह्या नाचांत आंगूय चड मोडचें पडटा. फुगडेचीं कांय उतरां अशीं :

आंगणी घालीन फुगडी
काडीन चिकण माती
म्हाज्या मामाची बायल जशी
गळ्या घालीन पाटी

फुगडेचे कितलेशेच प्रकार आसतात. तातूंतले मुखेल हे :

कळशी फुगडी आनी कट्टी फुगडी. कळशी फुगडेंत बायलो तांब्या-पिळेच्यो कळशो घेवन तातूंत फू, फू करतात आनी संगीताचेर नाचतात. कट्टी फुगडेंत बायलांच्या दोनूय हातांत दोन कट्ट्यो आसतात आनी त्यो एकामेकांचेर आपटीत फुगडी खेळटात.

**इतिहास** :

आदल्या काळार भुरगें जावंचें म्हण नागडी फुगडी घालतां अशी आंगवण करताले. भुरगें जालें जाल्यार सटयेच्या भुरग्याच्या जल्माच्या सव्या दिसा बाळांतिणीचे कुडींत दारा बंद करून नागड्यांनी फुगडी घालताले. हेर संकश्टावेळार गणपती वा हेर थळाव्या देवांमुखार अशेतरेची आंगवण करताले.

**सादी फुगडी :**

**दारांतल्या तुळशी गे**

दारांतल्या तुळशी गे
पानान पान फुलशी गे
पानान पान फुलशी गे

माथ्यांतल्या फुलासाठी
किती लोक वनवासी गे
किती लोक वनवासी

दारांतल्या तुळशी गे
पानान पान फुलशी गे
पानान पान फुलशी गे

कपाळाच्या कुकमासाठी
किती लोक वनवासी गे
किती लोक वनवासी

दारांतल्या तुळशी गे
पानान पान फुलशी गे
पानान पान फुलशी गे

हातांतल्या कांकणासाठी
किती लोक वनवासी गे
किती लोक वनवासी

दारांतल्या तुळशी गे
पानान पान फुलशी गे
पानान पान फुलशी गे

गळ्यांतल्या मणयासाठी
किती लोक वनवासी गे
किती लोक वनवासी

**घालो फुगडी नाचतनाः**

**तुमी खंयच्या गांवच्यो नारी**

तुमी खंयच्या गांवच्यो नारी गे
तुमी खंयच्या गांवच्यो नारी?

आमी मडगांव गांवच्यो नारी गे
आमी मडगांव गांवच्यो नारी !

तुमी कित्यार बसून आयल्यांत गे
तुमी कित्यार बसून आयल्यांत !

आमी घोड्यार बसून आयल्यांत गे.
आमी घोड्यार बसून आयल्यात !

तुमचो घोडो कसो कसो धांवता गे
तुमचो घोडो कसो कसो धांवता !

आमचो घोडो असो असो धांवता गे
आमचो घोडो असो असो धांवता !

**जोडी फुगडी नाचतनाः**

**म्हजी फुगडी गो बाय**

म्हजी फुगडी गो बाय
म्हजी फुगडी

आलतडच्या कोल्या मामा
पलतडी वचूं जाय

सोन्या भाटी जड जाल्या
कोप तोंडाक लाय !

**उबी फुगडी नाचयताना**

**सोम शिवा**

सोम शिवा !
सिद्धा देवा !
राधे कृष्णा !
गोपाळ कृष्णा !
सुर्याच्या आसनार
घेतलाय प्राण
ते प्राण पावला
एका एकादशी !
एका एकादशी
खावं नये भाकरी
चिमण चाकरी यमाची !
सोम शिवा !
सिद्धा देवा !
राधे कृष्णा !
गोपाळ कृष्णा !
गोविंदो ! गोपाळो !

**दांड्यावयली फुगडी नाचताना**

**दांड्यावयर्ली फाग्लां**
दांड्यावयर्ली फाग्लां आमी
खेळयालो
दांडो मोडून आमी
वचयालो !
फू ! फू ! फू !

**कचे फुगडी नाचताना**

**केंस बाये केंस**
केंस बाये केंस
वल्लीभर वल्लीभर केंस
आमच्या गणपती
भांगराचे केंस
फू ! फू ! फू !

**बेबकी फुगडी नाचताना**

**एक नारींग**
एक नारींग
पिकलेलें ! पिकलेलें !
गवळ्यामामान,
गवळीमामा चोर,
आमगेर आसा मोर
फू ! फू ! फू !

**रगडो फुगडी नाचतनाः**

**दिता म्हण्टालें तें दी गे**
दिता म्हण्टालें तें दी गे सायबिणी
रगडो घुंवडायतां !
रगडो घुंवडायतां !

ना जाल्यार तुज्या पायांकडेन
कपल फोडितां !
कपल फोडितां !
फू ! फू ! फू !

**हेर म्हायती** :

आयज फुगडी म्हळ्यार वयल्या पावंड्यावयली जावन आसा. हाका कारण म्हळयार फुगड्यांच्यो सर्ती. फुगड्यांच्यो सर्ती व्हडा प्रमाणान दवरिल्ल्या कारणान आयज जी नवी पिळगी आसा ती लेगीत फुगड्यांत रुची घेता.

■■

# शिगमो

**खेळाचें नांव** : शिगमो

**खेळाचो प्रकार** : सांघिक / मैदानी .

**खेळपाचो काळ** : गीम

**खेळपाचो वेळ** : दनपरां वा सांजवेळार

**खेळाक लागपी वेळ** : 15-20 मिणटां

**पिरायगट आनी लींगगट** : 4 वर्सांचीं भुरगीं ते उपरांतचे दादले. फकत दादलेच खेळटात.

**खेळाक लागपी साहित्य** : धोल, तासो, कासाळें, घुडी

**नेम आनी अटी** :

1. शिगम्याची सुरवात आपल्याच गांवांत पयलीं करप.
2. खेळाची मुरवात गांवातल्या मुखेल घरांतल्यान सुरू जाता.

**खेळपाची रीत** :

शिगम्याच्या पयल्या दिसा म्हळ्यारूच नमी दिसा नमन घालपाची कार्यावळ जाता. गांवचे लोक मांडार जमतात. मांडावयले तुळशीमुखार उबे रावतात. तुळशीचे पेडयेर दिवली पेटयतात. पांच नाल्लांची तळी दवरतात. मांडाच्या गुरूक आनी थळाव्या देवदेवतांक गंध-फुलां, फळां दवरून भोवमान करतात. मांडाचेर धोल, ताशे, कांसाळे, जगांट ह्या वाद्यांची पूजा करतात. घुडी, अवदागिरी हांकांय गंध-फुलां घालतात. मागीर कांसाळें, धोल, तासो हांच्या ठोक्यार जती म्हणटात. आरंभाची जत नमनाची आसता. नमनाचे जतींत गणेश, मांडाचो गुरू, गांवपुरुष, सांतेर, जाग्याचो देंवचार आनी थळावीं दैवतां हाच्या नावांचो उल्लेख आसता. निमाणेकडेन पेडयेमुखार तळी म्हण्टात. तळी म्हणपी ती एका दमान म्हण्टात आनी बाकीचे भले भले म्हणत साथ दितात.

नमन जातकच दुसऱ्या दिसासावन खऱ्या शिगम्याक सुरवात जाता. सांजवेळच्या सुमाराक गांवचे दादले-भुरगे मांडार जमतात. हाका मेळ म्हणटात. धोल, ताशे, वाजयत, घुडयो, अब्दागीर, झाडांच्यो खांदयो, हुस्केच्या गोंड्याच्यो ताळ्यो नाचयत ओस्सय करीत मेळ मांडावयल्यान भायर सरता. पयलीं लागींच्या थारिल्ल्या देवळांत वचून थंय देवामुखार जत म्हणून नाचतात. मागीर दर एकल्याच्या आंगणांत खेळे खेळटात. खेळे दारांत येतकच घरांतली सवायशीण बायल पडवेर पावळेभितर ताटांत तांदूळ, नाल्ल आनी पयशे घालून तळी दवरतात. खेळे जती म्हण्टना आंगणाचे तुळशीक भोंवर मारून खेळटात. हे जतींत रामायण, महाभारत, पुराणां हातूंतले प्रसंग चितारिल्ले आसतात.

देखीक - *सकाळीं उठोन भट चडला पणसावरी*
*पणसाचो खांदो म्होडोन पडला जमनीवरी*
*वेंतभर बामणाची हातभर शेंडी*

अशेतरेन जत म्हणून जातकीच तळी म्हणटात, ती म्हळ्यार -

*तळी रे तळी सासणाची तळी*
*आरती आयली उतरली खेळ्यांनी*
*घरदार भरूं तुजें तीळतांदळांनी*

*आरती आली रे हासवंत*

*घरदार नांद्र तुजें सासवंत*

तळी म्हणून जातकच खेळे ताटांतले तांदूळ खेळळ्या त्या घराचेर उडयतात. ताटांत तळी म्हणून दवरिल्ले नाल्ल आनी तांदूळ एकलो साकांत पुंजायता. अशे तरेन मेळ थारिल्ल्या एका एका वाड्यार आनी एका एका गांवांत खेळटात.

शिगम्याचो दुसरो प्रकार म्हळ्यार रोमट. रोमट म्हळ्यार शिगम्यांचे वाजोवप. हातूंत व्हडलो नगारो आनी जगांट आसता. आकारान आनी वजनान ती व्हडली आशिल्ल्यान दांड्याचेर बांदून दोन दोन मनशां ही वाद्यां वाजयतात.

**हेर म्हायती :**

शिगम्याच्या मेळात जशें जती गावन नाचपी खेळे आसतात तशी तरेकवार वेशभूशा केल्लीं सवंगां आसतात. तातूंत राम, सीता, कृष्ण, हनुमान अशीं पौराणिक पात्रां तशेंच शिवाजी, मावळे अशीं इतिहासीक सवंगां, तेचबरोबर गवळी, राकेस, भूत, जाव्हेलो, वेबदो, माकड, वांस्वेल असलीं सवंगा आसतात. दादले बायलांची सवंगा करतात. तोंडाचेर रुपडीं घालून येतात तांका पोकळे म्हणटात. मेळांत तालगडी, तोणयामेळ, गोफ, नाच आदी नृत्यप्रकार जातात.



# शिगमो



# सांज्यांव

**खेळाचें नांव** : सांज्यांव

**खेळाचो प्रकार** : मैदानी (बांय वा न्हंयेचे देगेर) / सांघिक.

**खेळपाचो काळ** : पावस (जूनाचे 24 तारखेर)

**खेळपाचो वेळ** : सकाळ

**खेळाक लागपी वेळ** : हो खेळ खूप वेळ खेळटात

**पिरायगट आनी लींगगट** : 20 वर्सां उपरांतचे हो खेळ फकत दादलेच खेळटात

**खेळाक लागपी साहित्य** : -

**नेम आनी अटी** :

1. काय सुवातींचेर सोरो पिवन नशेंत खेळपाची चाल आसा.
2. शेवटाक सगल्यांनी गांवच्या न्हंयांनी, बांयांनी उड्यो मारून न्हावप.

**खेळपाची रीत** :

ह्या दिसा किरिस्तांव समाजांतले दादले, सांज्यावांचो उगडास करपी पदां म्हणत तांच्या नांवाचो जयजयकार करीत रस्त्यावयल्यान मिरवणुकेक वतात. मिरवणुकेंतले लोक कपलाक चुट्ट्यांची, काटयेची कपलपट्टी वांदतात. गांवचे लोक हे मिरवणुकेंतल्या पंगडाक आंबे, पणस, अनसां सारकेलीं ह्या मोसमांतली फळां आनी सोरो तशेंच पयशे दितात. उपरांत मिरवणुकेंतलो लोक बांयचेर वा न्हंयचेर वचून चिखल काडून एकामेकांचेर मारतात आनी बांयत वा न्हंयत उडयो मारून न्हातात.

**हेर म्हायती** :

सांज्यांव हे 'सां जुंवाव' म्हळ्यार सेंट जॉन ह्या उतरांचें थळावें रूप. सांज्यांव ही किरिस्तांव समाजांतली विशेश करून गोंयातली एक भौशीक परब. जून म्हयन्याचे 24 तारखेर ही परब मनयतात. प्रोफेट इसाहाकडच्यान वापतिज्मा मेळिल्लो, सेंट जॉन, हाच्या नांवान ही परब गोंयात व्हडा उमेदीन मनयतात. सेंट जॉन हाणें वाळवंटी विभागांत धर्मकार्याचो प्रसार केलो. लोकांनी एकामेकांक समजून घेवचें आनी बरेतरेन वागचें असो तांचो संदेश आशिल्लो.

नव्यानच लग्न जावन गेल्ल्यो गांवच्यो धुवो आपल्या घोवांवांगडा खासा सांज्यांव परबेक उपस्थिती लायतात. येतना जांवयान फळांचे वजें हाडपाची प्रथा आसा. हीं फळां गांवच्या लोकांक वांटप जाता. हे नवे जांवय सांज्यावाचे मिरवणुकेंत सामील जातात.

कांय न्हंयांचे देगेवयल्या गावांनी सांज्यावाच्या निमतान सजयिल्ल्या सांगोडावरवीं न्हंयेंतल्यान मिरवणूक काड्टात.



# (4) कांय उल्लेखनीय हेर खेळ

## झोपाळो

हो खेळ चले आनी चलयो खेळटात. भुरगीं मुटयेच्या दिसांनी काजीक वा आंब्याक लांबचे-लांब दोरयो बांदतात आनी त्या दोरयांचेर बसून झेले घेतात. तशेंच खांदयांक हुमकळे मारुनूय बी झेल घेतात.

## फस्कांचो खेळ

हो खेळ चले आनी चलयो खेळटात. रितें फस्क मॅजाचे कडेर (मातशें भायर) आरतें दवरप. ज्या भुरग्याचो डाव आसा ताणें येवन त्या फस्काचेर टिचकी मारप. टिचकी मारतकच फस्क उसळून दुसरेकडेन पडटा. तें फस्क जर आरतेंच पडलें जाल्यार 5 गूण, शिरेन पडलें जाल्यार 10 गूण आनी उबें पडलें जाल्यार 15 गुण. पूण जर तें फस्क परतें पडलें जाल्यार मात डाव वता. (4-5) भुरगीं मेळून हो खेळ खेळटात.

## बावल्यांचें लग्न

हो खेळ फकत चलयोच खेळटात. ल्हान भुरगीं बावल्याक घेतात आनी एके वावलेचें दुसरे बावलेकडेन लग्न लायतात. अशे तरेचे खेळ खेळपाक तांका ल्हान आसतना खूप आवडटा.

## कट्ट्यांनी / आयदनांनी

हो खेळ चले - चलयो कोणय खेळटात. भुरगीं हो खेळ झाडाच्या पोंदा वा घराचे भितोडेक खेळटात. ल्हान भुरगीं (4-7) कट्ट्यांनी रांदतात. बारीक फातरांची चूल घालतात. ते चुलीचेर आयदन म्हण कट्टी दवरतात. फातरांचें शीत, मातयेच्या उदकाची कडी, पानांचें नुस्ते अशे तरेचीं जायतीं पक्वान्नां भुरगीं करतात. हो खेळ भुरगीं दोन पंगड करुनय खेळटात. देखीक : एका पंगडान दुसऱ्या पंगडाचेर सोयरीं म्हण जेवपाक वचप. हो खेळ भुरगीं घोव-बायल जावन लेगीत खेळटात.

## काजुवियांनी / म्होवल्यांनी / भोट्यांनी

ह्या खेळांत कितलींय भुरगीं येतात. तशेंच हो खेळ चलेच खेळटात. ह्या खेळांत भुरगीं आपलेकडेन आसात· तितल्यो बियो लायतात. सगल्यांकडेन मोटी बी आसपाकच जाय. तिकाच म्होवलो म्हणटात. बारीक बियो मातयेचे लांब राशीर एका-फाटल्यान एक अशेतरेन लावपाच्यो आनी म्होवलो बियेन त्यो गड्ड्यांक मोखता ते तरेन मोखपाच्यो. जितल्यो बियो आडव्यो पडटात तितल्यो ताका (मोखतल्याक) मेळटात.
त्याच खेळगड्यान आपल्यो बियो मोखून जाले उपरांत दुसऱ्या खेळगड्यांच्यो बियो मोखप. जितल्यो बियो आडव्यो तितल्यो ताच्यो जातात. आनी जर एकय आडवी पडलीना जाल्यार ताचो डाव वता.

## गडे - फाडे

हो खेळ भुरगीं गजऱ्याच्या बियांनी वा चिंचाऱ्यांनी खेळटात. ह्या खेळांत एक गडो आपल्या हातांत बियो घेता / धरता आनी दुसऱ्या भुरग्याक विचारता, गडें काय फाडें? थोडीं गडे म्हणटात जाल्यार थोडीं फाडे म्हण्टात. गडें म्हळ्यार - 1, 3, 5, 7 आनी फाडें म्हळ्यार 2, 4, 6, 8.

## कांगानी

**साहित्य** :पाट, खडू, फातर, शिपयो वा फुटिल्ल्या कांकणाच्यो कंवच्यो

**मांडावळ** :पाट घेवंचो, खडू घेवन ताचेर तीन चौकोन काडचे, एक मोटो, ताचे भितर दुसरो आनी भितर तिसरो. सगल्यांत मदीं उदक. तीनय चौकोन जोडूंक व्हडली वळ आंखून घेवची.

वळी मेळटात थंय टींब काडचें.

**खेळाची रीत** : एकल्यान वारकेले 9 फातर, दुसऱ्यान शिपयो ना जाल्यार फुटिल्ल्या कांकणाच्यो कंवच्यो घेवंचें पयली एक फातर टिंबार दवरचो. दुसऱ्यान शिंपी अशेंतरेन ही प्रक्रिया चालू दवरची.

तीन फातर वा तीन शिपयो एकं वळींत आयल्यार एक कांग जाता. जाचें कांग जाता ताणे दुसऱ्याची घूल (देखीक फातर वा शिपी वा कंवची) आपल्याक घेवप. अखेरेक ताचेकडेन फकत दोनच घुलो उरतात तिसरी घूल ना. अशेंतरेन घुलो लावप की खेळटना दुसऱ्याक कांग करपाक दिवपाक फावना. उदकांत कांग करपाक मेळना.

## सोण्णांनी

**खेळपाची सुवात** : उक्तें मळ

**वट्ट खेळगडी** : कितलेय आसूं येता.

**खेळपाचें साहित्य** : बडयो आनी एक ल्हानशें सोण्ण

(सोण्ण नासल्यार कट्टी वा ल्हानसो वडयेचो कुडकोय चलता)

**खेळाची रीत** : जितले खेळपी आसात ताणी वाटकुळे उबे रावचें. एकल्यान धा, वीस, तीस, चाळीस अशे आंकडे शंबर मेरेन प्रत्येकाचेर मेजचे. अशेंतरेन सगले सुटसर खेळचें. जो एकलो सूट नासतना उरता तो खरो खेळपी. ताच्या हातांत सोण्ण दिवचें. उरिल्ल्यांनी तो रावला थंयच आपापली बडी घेवन उबे रावचें. बडी हातभर वो मात्शी चडूच उंचायेची आसपाक जाय. खेळप्यान आपले दोनूय पांय पयस करचे आनी मर्दीच्यान सोण्ण भिरकावन मारचें. सोण्ण पयस पडनाफुडें उरिल्ल्यांनी एक एक फातर सोदून फातरार पडलां थंय वचचें पूण वतना बडी फातराचेरूच आसपाक जाय. बडी जमनीर आसतना वो हातांत घेवन धांवतना खेळप्याक सापडलो जाल्यार ताणें धावंत वचून हात लावन ताका आवट करचो. बडी घेवन सगल्यांनी ल्हव ल्हव सोण्ण आसा थंय वचचें. खेळप्याची नदर चुकोवन सोण्ण आनिकूय पयस उडोवचें. अशें करतना आवट जाल्ल्याक परत खेळपाक मेळना.

## आसपाऽऽस

**साहित्य** : मात नळकुट्यो

**वट्ट खेळगडी** : कितलेय आसूं येता.

**सुवात** : खंयुय

**खेळाची रीत** : जितले खेळगडे आसात तातूंतल्यान तिगांनी उबे रावप. दोनूय हात हालोवन राम राय माय सुटल्योऽऽ अशें म्हणप. सुटल्यो म्हणून सोंपसर हाताची दोनूय तळटां एकमेकांचेर दवरप. दोगांनी आरती दवरली आनी तिसऱ्यान परतीं दवरली जाल्यार वेगळें तरेन हेर दोगांनी आनीक एकल्याक घेवप आनी परत तेंच. अशें तरेन सगले सुटसर खेळप. निमाणें दोग जाण उरतात तेन्ना आरतो हात केल्लो सुटत काय परतो केल्लो ते हेरांनी राम राय साय सुटल्योऽऽऽ जातकीर थारावप. निमाणो उरता तो खेळपाक. तो दवरतात. एकलो कोणूय येवन दाळाचेर खेंट मारता त्या खेळगड्याक सगल्यो नळकुट्यो एकठांय करून दवरीसर सगल्यांनी वचून लिपप. तो कितले वेगी नळकुट्यो दाळटा आनी हेर कितले बेगीन लिपतात हाचीच चुरस लागता. मागीर खेळगड्यान सगल्यांक सोदून काडप. जाका सगल्यांत पयलीं सोदून काडटात तो मागीर नळकुट्यो लावन लिपिल्ल्याक सोदून काडपी. पूण पयल्यो खेळगड्याचो डाव मात सगल्यांक सोदून काडसर सोपना. इतले मजगतीं कोणाय लिपिल्ल्याच्यान ल्हवूच नदर चुकोवन येवन दाळिल्ल्यो नळकुट्यो खोंट मारून फाफसुपाक जातात. तशें जाल्यार सोदून काडपी खेळगडेच आवट धरप आनी ताणे पर्थून नवो डाव खेळप. अशे तरेन जाय तितलो वेळ हो खेळ खेळपाक जाता.



# (5) बेबो सोदून काडपाची आनी खेळटल्यांक दोन पंगडांनी वांटपाची रीत

## बेबो सोदून काडपाची रीत :

1. 10, 20, 30, 40, 50, 60, 70, 80, 90, 100. ज्या, ज्या भुरग्याचेर 100 आंकडो येता तो सुट्टा आनी निमाणो उरता तो बेबो जाता.

2. 1, 2, 3, 4, 5, 6, 7, 8, 9, 10, 11, 12, 13, 14, 15 "पंधरा ऑगस्ट कसला रंग" ('ग' हे अक्षर ज्या भुरग्याचेर येता ताणें रंग सांगप देखीक - तांबडो, मागीर त्याच भुरग्याचें नांव घेवन गीताचो रंग तांबडो. 'डा' शब्द ज्या भुरग्याचेर येता तो सुट्टा.

3. इन मीन साडे तीन, एक रुपयाक बांगडे तीन

4. रिक्षावाला, रिक्षावाला किधर जाता है? (ज्या भुरग्याचेर येता ताणे खंयच्याय एका गांवाचे नांव सांगप) फोंडा - फोंडा से कितना पैसा लगता है? ( है येता तांणेच सांगप) - 10

5. 1, 2, 3, 4, 5, 6, 7, 8, 9, 10 सुरवातीक सगल्या खेळगड्यांनी रांगेत उबें रावप. उपरांत तांचेच भितरल्या एकट्यान आपल्या हातांत व्हीर धरप. जण एकल्यान व्हीर ओडप. जाच्या हातांत पुराय व्हीर येता तो बेबो अशें मानतात.

6. 'राम राय साय सुटल्यो'. ही एक म्हार सोदून काडपाची पद्धत. सुरवातीक सगळीं भुरगीं वर्तुळ आकारान उबीं रावतात आनी दोनूय हात हालोवन 'राम राय साय सुटल्यो' अशें म्हणटात. सुटल्यो म्हण्टना सगळीं भुरगीं दाव्या हाताचेर उजवो हात आरतो-परतो (आपल्याक जाय तसो दवरतात. जेन्ना सगळ्या भुरग्यांमदी एकटोच वेगळी खूण करता तो सुट्टा. अशे तरेन जेन्ना तिगांच उरतात तेन्ना तांचेमदीं जो कोण वेगळी खूण करता तो बेबो थारता.

## खेळटल्यांक दोन पंगडांनी वांटपाची रीत :

1. सगल्यांनी उबें रावप आनी जण एकल्यान 1, 2, 1, 2, अशे नंबर म्हणप. 1 नंबर म्हण्टल्यांनी एका पंगडात वचप आनी दोन म्हण्टल्यानीं दुसऱ्या पंगडात वचप.

2. पयलीं दोन पंगडांचें दोग जाण गडे मागूंक उबे रावतात. दुसरे दोन गडे वचून वळखुपाची खूण एकामेकांच्या कानांत सांगतात आनी गडी मागूंक बसलेल्यांक येवन म्हण्टात :-

   गडो - मात मात तिरयो, मीठ घालून चीरयो
   मागपी - हीरयो
   गडो - कोणाक फूल जाय काय फळ जाय ?
   मागणी करता ते प्रमाण एक - एक गडो त्या त्या पंगडाक वता.

# (6) पारंपारिक खेळांतली परिभाशीक उतरावळ

1. **आठको** - इस्पिकांच्या खेळात 8 क्रमांकाच्या (आनी मोलाच्या) येवपी कार्डाक आठको म्हण्टात.
2. **आखाणो** - हें उतर शिपयांनी खेळांत खेळपी स्थिती दाखयतना वापरतात ताका आखाणो म्हण्टात.
3. **आप्पड-पाप्पड** - हें उतर आप्पड-पाप्पड ह्या खेळांत वापरतात. त्या उतराचें एक गीत म्हण्टात.
4. **आफडप** - खेळगड्याक हात लावप. खेळटा आसतना बेबो गड्यान हात लायतकीच दुसरे खेळगडे बाद जातात. (आदल्या तेंपार जाचेर खेळ सोपतालो ताका बेबो म्हणटाले आनी अस्पृश्य मानताले देखून लोक तांका आफडी नाशिल्ले.)
5. **आटो** - कोंकणीत वाटकुळ्या चक्राक आटो म्हणटात.
6. **ओपन** - मेंढी कोट खेळटना जें पान लिपयतात तें उकतें कर म्हणचें बदला ओपन कर अशें म्हण्टात.
7. **आल्लो** - जेन्ना पंगड बाल जिखता तेन्ना ते बाल हुरीवटेन मारतात ताका आल्लो म्हण्टात.
8. **आमेच्यो** - खंयच्याय खेळांत भुरग्यांनी हाताक वयल्यान थुकी लावन आमेट्यो म्हणलें म्हण्टकीच बेबो तांका धरपाक शकना.
9. **इस्पिक** - इस्पिक म्हळ्यार खेळपाचीं 52 कार्डां.
10. **उठी** - हें उतर शिपयांच्या खेळांत वापरतात. फाट करून उबें रावन चौकोनांत पळयनासतना शिपी उडोवपाचे तरेक उठी म्हण्टात.
11. **एको** - इस्पिकांच्या खेळांत A अक्षर आसता त्या पत्त्याक एको अशें म्हण्टात. इस्पिकांच्या खेळांत एको ह्या पत्त्याक चड म्हत्व आसता.
12. **कपलपट्टी (कपेल)** - मेंढी कोट खेळटना जें पान लिपयतात तें उकतें कर म्हणचें बदला ओपन कर अशें म्हण्टात.
13. **कट्टी** - इस्पिकांच्या 52 कार्डांक थोडे लोक कट म्हण्टात.
14. **कांबी** - माडी कापून कांबी तयार करतात. त्यो कांबी लोक घराचेर घालपाक वापरतात. हे कांबीचो उपेग ताबुलफळें खेळपाक करतात.
15. **कमर** - कमर म्हळ्यार मनशाचे कुडीचो एक भाग.
16. **कापसाचो गुळो** - कापसाचो गुळो हें त्या खेळांचे नांव जावन आसा.
17. **किलवर** - इस्पिकांच्या खेळांत ज्या कार्डांचेर काळीं फुला आसतात त्या कार्डांक किलवर कार्डां म्हण्टात.
18. **किसप** - इस्पिकांच्या खेळांत कार्डां मिक्स करपाचे तरेक किसप म्हण्टात.
19. **कुटली** - हें उतर अटक-मटक ह्या खेळांत वापरतात. निमाणें बोट उरता ताचेर मूठ मारप ताकाच कुटली म्हण्टात.
20. **कुट्ट्यो** - हें उतर आपा-लिपा खेंळात खेळगडे आपूण लिपलें म्हण बेब्याक सादोवपाक म्हण्टात.
21. **कोट** - इस्पिकांच्या मेंढी कोट ह्या खेळांत ज्या भुरग्यांक मेंढी मेळना तांचेर कोट पडलो अशें म्हण्टात. कोट म्हणजेच सूट.

22. **किरकावळो** - लेंसानी खेळांत ज्या भुरग्याच्या फाटल्यान लेंस पडिल्लो आसता ताका किरकावळो म्हण्टात.
23. **कोंबो** - गुल मोगरेच्या कळ्यांतल्या भितल्ल्या दोरांक कोंबो अशे म्हण्टात.
24. **कोयबा** - गड्ड्यांच्या दुसऱ्या प्रकाराक कोयबा अशें म्हण्टात.
25. **केंगलें** - हे उतर गोफ ह्या खेळांत वापरतात. उबे म्हेडेक वयर V आकार आसता ताका केंगले म्हण्टात. ताचो उपेग दुसरे बडयेक आदार दिवपाक आसता.
26. **कंवची** - हाताक घालता त्या काकणाच्या कुडक्यांक कंवची म्हण्टात.
27. **कॅवो - मॅवो** - हें उतर आप्पड - पाप्पड ह्या खेळांत खुतकुल्यो करतना म्हण्टात.
28. **खेतलो** - खेतलो म्हळ्यार सात जाण रंभाचो भाव.
29. **खुरीस** - हें उतर मिलांच्या खेळांत वापरतात. खुरीस करप म्हळ्यार एक मील पुरोवप.
30. **खोले** - कोंयंडेबाल खेळांत बाल मारपी खेळगडे जेन्ना जिखपी खेळगड्यांवटेन कोंयंड्यान वावूडटा ताका खोले म्हण्टात.
31. **गडगडो** - गोंयात जुगार खेळाक गडगडो म्हण्टात.
32. **गड्डे** - गड्ड्यांनी खेळांत वापरपाच्या फातरांक गड्डे म्हण्टात.
33. **गडे** - दोन पंगड करपाक जी तरा वापरतात ताका गडे म्हण्टात.
34. **गुड्डी** - कोकच्या धाकणाक गुड्डी म्हण्टात.
35. **गोल** - भुरगीं वाटकुळ्या आकारान बसतात / उबीं रावतात ताकाच गोल म्हण्टात.
36. **गोफ** - गोफ म्हळ्यार शिगम्यांतलोच एक नृत्य प्रकार ज्या खेळांत वाद्यांच्या तालाचेर दोरयांचे विणप जाता.
37. **गिरगिरें** - हें उतर चुडटेच्या खेळांत वापरतात. व्हिराक दोन चुडट्यो तोपून खुरीस करप. तो वाऱ्यान गिरगिरें कसो घुंवता ताकाच गिरगिरें म्हण्टात.
38. **गुलाम** - इस्पिकांच्या खेळांत गुलामाचों चित्र आशिल्ल्या कार्डाक गुलाम म्हण्टात.
39. **घुलो** - ताबलांतले पाशे
40. **घूस** - आमी जिका हार म्हण्टात त्याच उतराक थोडेकडेन खेळगडे घूस हें उतर वापरतात.
41. **घोडो** - आखाणो बोट आनी सुचोवणी बोट जमनीक लायतकीच जी आकृती तयार जाता तिका घोडो म्हणटात.
42. **चौकट** - इस्पिकांच्या खेळांत ज्या कार्डाचेर तांबडे चौकोन आसतात त्या कार्डाक चौकट कार्ड म्हण्टात.
43. **चौको** - इस्पिकांच्या खेळांत खेळगडे चौथ्या पत्त्याक चौको म्हण्टात.
44. **चुन्न** - गोड आनी सोय मिक्स करून जो पदार्थ तयार करतात त्या पदार्थाक चुन्न म्हण्टात.
45. **छक्का** - चारूय शिपयो उदाऱ्यो पडटकीच ताका छक्का म्हण्टात.
46. **जागर** - पुराय रात जागून देवांचे नामस्मरण, मनोरंजन करपी लोककलेचो धर्मीक नृत्याप्रकार.
47. **जती** - शिगम्याच्या वेळार मांडार गावंचे लोक जी पदां म्हण्टा ताका जती म्हण्टात.
48. **जांगड** - पांयाच्या धोंपरा वयल्या भागाक जांगड

म्हण्टात.

49. **तार** - हे उतर आट्याच्या खेळांत येता. आटो फुडें धुकलपाक लोखणाची वारीक सरी वापरतात तिका तार म्हण्टात.

50. **तुरुप** - मेंढी कोट खेळांतल्या हुकमाच्या (Trums) ह्या कार्डाक तुरुप म्हण्टात.

51. **ताबुल** - ताबुल-फळें खेळांत ज्यो चार कांवींच्यो वड्यो वापरतात ताका ताबुल / ताबलां म्हण्टात.

52. **तिको** - इस्पिकांच्या खेळांत तिसऱ्या पत्त्याक तिको म्हण्टात.

53. **देव** - हें उतर फातरांच्या खेळांत वापरतात. फातरांच्या खेळांत 5 व्या डावांत दुसऱ्या भुरग्यान सांगिल्ल्या फातराक देव म्हणटात. हो देव फातर एकाच धपक्यान धुकलचो पडटा.

54. **दीस-मीस** - हें उतर दीस-मीस ह्या खेळांत वापरतात. जेन्ना ह्या खेळांत लिपलेल्याक सोदतकच बेबो धांवत येवन कट्टेक हात लायता तेन्ना हें उतर वापरतात.

55. **दोस्को** - खंयच्याय खेळांत एक गडी सुवेज जालो जाल्यार तो दोनय पंगडानी वांटून खेळटा ताका दोस्को म्हण्टात.

56. **दांग** - दोनय पांय पसरून उबे रावतकच तांचे मदीं जागो आसता ताका दांग म्हण्टात.

57. **दांडो** - लांब जाड कोंड्या बडयेक दांडो म्हण्टात.

58. **दुको** - इस्पिकांच्या खेळांत A पत्त्याच्या फाटल्या पत्ताक दुको म्हण्टात.

59. **धाको** - इस्पिकांच्या खेळांत धाव्या नंबरार येवपी कार्डाक धाको म्हण्टात. इस्पिकांच्या मेंढी कोट खेळांत धाक्याक मेंढी म्हण्टात आनी तिका म्हत्व आसता.

60. **टिपो** - हें उतर आपा-लिपा खेळांतले जावन आसा. जेन्ना बेबो भुरगो दुसऱ्या भुरग्याक सोदून काडटा तेन्ना तो आपल्या जाग्यार येवन त्या भुरग्याचें नांव घेवन टिपो म्हण्टा. टिपो म्हळ्यार बेब्यान त्या भुरग्याक धरलो, अशें मानतात.

61. **टायर** - हें उतर आट्याच्या खेळांत वापरतात. टायर हो सायकल, स्कूटर वा मोटारसायकलीचो आसता.

62. **ट्रम्स** - हें उतर इस्पिकांच्या मेंढी कोट ह्या खेळांत लिपयल्ल्या (हुकमाच्या) कार्डाक उद्देशून म्हण्टात.

63. **टोक** - एखादली दोरी वा हेर वस्तूच्या निमण्या पोताक टोक म्हण्टात.

64. **डाव** - डाव म्हळ्यार पाळी. (खेळपाचो क्रम)

65. **डब्बल पासो** - हें उतर गडगडो खेळांत वापरतात. फळ्यार डब्बल नंबर पडटात तेन्ना ताका डब्बल पासो म्हण्टात.

66. **णवको** - इस्पिकांच्या खेळांत णवव्या नंबरार येवपी कार्डाक णवको म्हण्टात.

67. **पिसपे** - इस्पिको मिक्स करपाच्या पद्धतीक पिसप म्हण्टात.

68. **पयशे** - इस्पिकांच्या पयशांनी ह्या खेळांत पयशें उतर वापरतात. देखीक (राजा, राणी, एक्को, गुलाम हांकां).

69. **पोचो** - दोनूय हात एकठांय करतकीच पोसो तयार जाता. हें उतर कंवच्यांनी खेळांत येता.

70. **पेणे**- एका गड्ड्यान दुसऱ्या गड्ड्याक मारपाचे कृतीक पेणो म्हण्टात.

71. **पांचको** - इस्पिकांच्या खेळांत पांचव्या पत्त्याक पांचको म्हण्टात.

72. **फांती** - धालांच्या मांडार दोनूय वटेन बायलो ओळ करून रावतात ताका फांती अशे म्हण्टात.

73. **फुल्यो** -

74. **फळें** - लाकडाच्या तयार केल्ल्या लांब-रुंद लाकडाक फळें म्हण्टात.

75. **फुटप** - लगोऱ्यांचो खेळ खेळटना लगोऱ्यांचेर बॉल बसता तेन्ना लगोऱ्यो फुटल्यो म्हण्टात.

76. **फार** - हें उतर मीठ-फळण्यांनी ह्या खेळांत दुसऱ्या गाड्याचेर थापट मारतना वापरतात.

77. **फळणे** - मीठ-फळण्यांनी ह्या खेळांत सगल्या आडव्या रेगांच्या मदल्यान एक उबी रेग दवरतात त्या रेगांक फळण्यो म्हण्टात.

78. **फेरी** - खंयच्याय खेळांत एक वर्तुळ काडून खेळटात त्या खेळाक फेरी म्हण्टात.

79. **बोदो** - गड्ड्याच्या खेळांत एक वर्तुळ काडून खेळटात त्या खेळाक बोदो म्हण्टात.

80. **बॉबो** - लगोऱ्यांच्या खेळांत बॉल खेळगड्यांचेर मारतात तेच कृतीक बॉबो मारप म्हण्टात.

81. **बोनस लायन** - मदले वळीचे भितर वळ आसता तिका वोनस वळ म्हण्टात. हे लायनीक स्पर्श केल्यार वोनस गूण मेळटात.

82. **बाद** - खेळटना गडो भायर पडटा म्हळ्यार आऊट जाता ताकाच बाद जालो अशें म्हण्टात.

83. **वशी** - हें उतर शिपयांच्या खेळांत वापरतात. फाट करून वसून शिपी पळयनासतना चौकोनांत उडोवपाचे तरेक वशी म्हण्टात.

84. **बार्रेज** - क्रिस्ती लोक इस्पिकांच्या 52 कार्डांक बार्रेज म्हण्टात

85. **भालो** - भालो म्हळ्यार व्हडलो वाण (तीर).

86. **मदली वळ** - ही वळ कबड्डी खेळांगणाची एक सारकी अर्दी करता. घुरी घालपी खेळगडो मदली वळ हुंपून हुतूतू हो सूर धरीत विरोधक पंगडाच्या अर्दांत घुरी घालपाक भितर सरता.

87. **मेळ** - दादले, भुरगे मांडार जमतात ताकाच मेळ म्हण्टात.

88. **मूठ**- हें उतर शिपयांच्या खेळांत वापरातात. पांचूय बोटां आवुळटकीच ती मूठ जाता.

89. **मोको** - हें उतर लगोऱ्यो ह्या खेळांत वापरतात. बॉल कट्ट्याचेर मारचे पयली मोके म्हणप.

90. **मांड** - मांड हो गांवात देवळाच्या, इगर्जेच्या दारांत आसता. मांड म्हळ्यार एक पवित्र जागो. त्या जाग्यार गांवचे वडील मनीस एकठांय जातात आनी देवाचीं बरीं कार्यां करतात.

91. **मीठकार** - मिठ-फळण्यांनी ह्या खेळांत मिठकार हें उतर पंगडाचें नांव जावन आसा.

92. **मील** - पांयाचे खोंटेन मातयेचेर गोल आकार काडटात ताका मील अशें म्हण्टात.

93. **मोखप** - एका गड्ड्यान दुसऱ्या गड्ड्याक मारप म्हळ्यारूच मोखप.

94. **रंभा** - धां वर्सां सकयल्यो आंकवार चलयो खुदतात ताका रंभा अशें म्हण्टात.

95. **रोमट** - शिगमो खेळटना जें वाजोवप जाता तांकां

रोमट अशें म्हण्टात.

96. **राणी** - इस्पिकांच्या खेळांत बारावो येवपी पत्त्याक राणी म्हण्टात. त्या कार्डाचेर राणयेचें चित्र आसता. इस्पिकांच्या खेळांत एक्क्या फाटल्यान दुसरो जागो राज्याक आसता.

97. **राजा** - इस्पिकांच्या खेळांत तेरावें येवपी कार्डाक राजा म्हण्टात त्या कार्डाचेर राजाचें चित्र आसता. इस्पिकांच्या खेळांत एक्क्या फाटल्यान दुसरो जागो राज्याक आसता.

98.**लावप** - फुटिल्ल्यो लगोऱ्यो / कट्ट्यो एकमेकाचेर दवरपाचे पद्धतीक लावप म्हण्टात.

99.**लोण** - कबड्डी खेळटना एखादल्या पंगडाचे पद्धतीक लावप म्हण्टात.

100. **वेंत / वेंत** - वेंत हें उतर चुडट्यांच्या खेळांत वापरला. वेंत म्हळ्यार एक हातभर लांब (बोटांकडच्यान तायटामेरेन) ताका वेंत म्हण्टात.

101. **वछ्छी** - तीन शिपयो परत्यो आनी एक उदारी पडल्यार वच्छी म्हण्टात.

102. **शंकराचे फूल**- गुलमोगरेच्या फुलांक शंकराची फुलां म्हण्टात.

103. **शेंवटून** - रिंग वयर काडून पयस मारप ताकाच शेंवटून मारप म्हण्टात.

104. **शिगमो** - मार्च-एप्रिल म्हयन्यांत जो दादल्यांचो उत्सव जाता आनी ज्या उत्सवांत दादले घराघरांनी वचून तुळशी मुखार गोल नाचतात ताका शिगमो म्हण्टात.

105. **सातको** - इस्पिकांच्या खेळांत सव्या नंबराच्या पत्त्याक सको म्हण्टात.

106. **सको** - इस्पिकांच्या खेळांत सातव्या नंबराच्या पत्त्याक सातको म्हण्टात.

107. **सूत** - हे उतर भुरगीं व्हिरांचे वाण करपाक वापरतात. हें सूत दुकानानीं कागदाक बांदपाक वापरतात.

108. **सुटप** - खेळटना जो खेळगडो जिखता (अपेक्षित वावर पुराय करता) ताकाच सुटलो हो शब्द वापरतात.

109. **सिंगलपासो** - हें उतर गडगडो ह्या खेळांत वापरतात.

110. **होळी** - होळीच्या वेळार जी माडी (झाड) कापतात ताकाच होळी असें म्हण्टात. ताका बदाम अशेंय नांव आसा.

111. **हटीण** - इस्पिकांच्या खेळांत ज्या कार्डाचेर तांबडें काळीज आसता त्या कार्डाक हटीण अशें म्हण्टात.

112. **हूर** - कोंयडेवाल खेळटना जमनीक जी चीर घालतात तिका हूर म्हण्टात.



## तकटो क्र. 1

खेळांचे प्रकार

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | घरांतलो | मैदानी | दोनीय | हेर |
|---|---|---|---|---|---|
| 1. | अटकमटक | ✓ | | | |
| 2. | आट्यांनी | | ✓ | | |
| 3. | आप्पडपाप्पड | ✓ | | | |
| 4. | आपालिपा | | ✓ | | |
| 5. | आबुलान बाबुलान | | ✓ | | |
| 6. | इति इति पाणी | | | ✓ | |
| 7. | इस्पिकांचे खेळ | ✓ | | | |
| 8. | उबो खो - खो | | ✓ | | |
| 9. | कबड्डी | | ✓ | | |
| 10. | कलर कलर वॉट कलर? | | ✓ | | |
| 11. | कानकुटुऱ्यांनी | ✓ | | | |
| 12. | कापसाचो गुळो | | ✓ | | |
| 13. | कोंब्यांनी | | ✓ | | |
| 14. | कोयंडेबाल | | ✓ | | |
| 15. | कंवच्यांनी | ✓ | | | |
| 16. | खांब्यांनी | | | | ✓ |
| 17. | गड्ड्यांनी | | ✓ | | |
| 18. | गांठींनी | | ✓ | | |
| 19. | गुड्ड्यांचो खेळ | ✓ | | | |
| 20. | चिटयांनी | ✓ | | | |
| 21. | चुडट्यांनी | ✓ | | | |
| 22. | छक्का - वच्छी | ✓ | | | |

## तकटो क्र 1

खेळांचे प्रकार

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | घरांतलो | मैदानी | दोनीय | हेर |
|---|---|---|---|---|---|
| 23. | तळ्यांत मळ्यांत | | | ✓ | |
| 24. | ताबुलफळें | ✓ | | | |
| 25. | दीसमीस | | ✓ | | |
| 26. | दोरयांनी | | | ✓ | |
| 27. | धांवचेल्यांनी | | | ✓ | |
| 28. | न्हंय-दोंगर | | ✓ | | |
| 29. | फातरांनी | ✓ | | | |
| 30. | 4 स्क्वेअर | | ✓ | | |
| 31. | बडयांनी | | ✓ | | |
| 32. | बाणांनी | | ✓ | | |
| 33. | मिठांनी | | ✓ | | |
| 34. | मिलांनी | | ✓ | | |
| 35. | मीठ फळण्यांनी | | ✓ | | |
| 36. | मुठींनी | ✓ | | | |
| 37. | म्हातारे म्हातारे कितें सोदता | | ✓ | | |
| 38. | रिंगा रिंगा रोजी | | | ✓ | |
| 39. | रिंगांनी | | ✓ | | |
| 40. | लगोऱ्यो | | ✓ | | |
| 41. | लार्गी लार्गी पयस पयस | | ✓ | | |
| 42. | लेंसांनी | | | ✓ | |
| 43. | लंगडी | | ✓ | | |
| 44. | वर्तुळांनी | | ✓ | | |

## तकटो क्र 1

खेळांचे प्रकार

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | घरांतलो | मैदानी | दोनीय | हेर |
|---|---|---|---|---|---|
| 45. | व्हिरांनी | ✓ | | | |
| 46. | शिपयांनी | | | ✓ | |
| 47. | शिल्लेपारांनी | | ✓ | | |
| 48. | गडगडो | | ✓ | | |
| 49. | गोफ | | ✓ | | |
| 50. | जागर | | | | ✓ |
| 51. | टिपऱ्यो | | | | ✓ |
| 52. | धालो | | | | ✓ |
| 53. | धिरयो | | ✓ | | |
| 54. | नाल्ल फोडच्यांनी | | | | ✓ |
| 55. | फुगडी | | | ✓ | |
| 56. | शिगमो | | ✓ | | |
| 57. | सांज्यांव | | | | ✓ |
| 58. | झोपाळो | | ✓ | | |
| 59. | फस्कांचो खेळ | ✓ | | | |
| 60. | बावल्यांचें लग्न | ✓ | | | |
| 61. | कट्ट्यांनी/आयदनांनी | | ✓ | | |
| 62. | काजुबियांनी | | ✓ | | |
| 63. | गडेफाडे | ✓ | | | |
| 64. | कांगांनी | ✓ | | | |
| 65. | सोण्णांनी | | ✓ | | |
| 66. | आसपास | | | ✓ | |

## तकटो क्र 2

खेळांचे प्रकार

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | सांघीक | वैयक्तीक | दोनीय |
|---|---|---|---|---|
| 1. | अटकमटक | ✓ | | |
| 2. | आट्यांनी | | | ✓ |
| 3. | आप्पडपाप्पड | ✓ | | |
| 4. | आपालिपा | ✓ | | |
| 5. | आबुलान बाबुलान | ✓ | | |
| 6. | इति इति पाणी | ✓ | | |
| 7. | इस्पिकांचे खेळ | | | ✓ |
| 8. | उबो खो - खो | ✓ | | |
| 9. | कबड्डी | ✓ | | |
| 10. | कलर कलर वॉट कलर? | ✓ | | |
| 11. | कानकुटुन्यांनी | ✓ | | |
| 12. | कापसाचो गुळो | ✓ | | |
| 13. | कोंब्यांनी | ✓ | | |
| 14. | कोयंडेबाल | ✓ | | |
| 15. | कंवच्यांनी | ✓ | | |
| 16. | खांब्यांनी | ✓ | | |
| 17. | गड्ड्यांनी | ✓ | | |
| 18. | गांठींनी | | ✓ | |
| 19. | गुड्ड्यांचो खेळ | ✓ | | |
| 20. | चिटयांनी | ✓ | | |
| 21. | चुडट्यांनी | | ✓ | |
| 22. | छक्का - वच्छी | ✓ | | |

## तकटो क्र 2

खेळांचे प्रकार

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | सांघीक | वैयक्तीक | दोनीय | |
|---|---|---|---|---|---|
| 23. | तळ्यांत मळ्यांत | ✓ | | | |
| 24. | ताबुलफळें | ✓ | | | |
| 25. | दोसमीस | ✓ | | | |
| 26. | दोरयांनी | | | ✓ | |
| 27. | धांवचेल्यांनी | ✓ | | | |
| 28. | न्हंय-दोंगर | ✓ | | | |
| 29. | फातरांनी | ✓ | | | |
| 30. | 4 स्क्वेअर | ✓ | | | |
| 31. | बडयांनी | ✓ | | | |
| 32. | बाणांनी | ✓ | | | |
| 33. | मिठांनी | ✓ | | | |
| 34. | मिलांनी | ✓ | | | |
| 35. | मीठ फळण्यांनी | ✓ | | | |
| 36. | मुठींनी | ✓ | | | |
| 37. | म्हातारे म्हातारे कितें सोदता | ✓ | | | |
| 38. | रिंगा रिंगा रोजी | ✓ | | | |
| 39. | रिंगांनी | ✓ | | | |
| 40. | लगोऱ्यो | ✓ | | | |
| 41. | लार्गी लार्गी पयस पयस | ✓ | | | |
| 42. | लेंसांनी | ✓ | | | |
| 43. | लंगडी | ✓ | | | |
| 44. | वर्तुळांनी | ✓ | | | |

## तकटो क्र 2

खेळांचे प्रकार

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | सांघीक | वैयक्तीक | दोनीय |
|---|---|---|---|---|
| 45. | व्हिरांनी | ✓ | | |
| 46. | शिंपयांनी | ✓ | | |
| 47. | शिल्लेपारांनी | ✓ | | |
| 48. | गडगडो | ✓ | | |
| 49. | गोफ | ✓ | | |
| 50. | जागर | ✓ | | |
| 51. | टिपऱ्यो | ✓ | | |
| 52. | धालो | ✓ | | |
| 53. | धिरयो | ✓ | | |
| 54. | नाल्ल फोडच्यांनी | | ✓ | |
| 55. | फुगडी | ✓ | | |
| 56. | शिगमो | ✓ | | |
| 57. | सांज्यांव | ✓ | | |
| 58. | झोपाळो | | ✓ | |
| 59. | फस्कांचो खेळ | ✓ | | |
| 60. | बावल्यांचें लग्न | ✓ | | |
| 61. | कट्‍ट्यांनी/आयदनांनी | ✓ | | |
| 62. | काजुबियांनी | ✓ | | |
| 63. | गडेफाडे | ✓ | | |
| 64. | कांगांनी | ✓ | | |
| 65. | सोण्णांनी | ✓ | | |
| 66. | आसपास | ✓ | | |

## तकटो क्र 3

खेळांचे प्रकार (लींगभेद)

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | स्त्री. | पु. | दोनूय | हेर |
|---|---|---|---|---|---|
| 1. | अटकमटक | | | ✓ | |
| 2. | आट्यांनी | | ✓ | | |
| 3. | आप्पडपाप्पड | ✓ | | | |
| 4. | आपालिपा | | | ✓ | |
| 5. | आबुलान बाबुलान | ✓ | | | |
| 6. | इति इति पाणी | | | ✓ | |
| 7. | इस्पिकांचे खेळ | | ✓ | | |
| 8. | उबो खो - खो | | ✓ | | |
| 9. | कबड्डी | | ✓ | | |
| 10. | कलर कलर वॉट कलर? | ✓ | | | |
| 11. | कानकुटुऱ्यांनी | | | ✓ | |
| 12. | कापसाचो गुळो | | | ✓ | |
| 13. | कोंब्यांनी | | | ✓ | |
| 14. | कोयंडेबाल | | ✓ | | |
| 15. | कंवच्यांनी | ✓ | | | |
| 16. | खांब्यांनी | | | ✓ | |
| 17. | गड्ड्यांनी | | ✓ | | |
| 18. | गांठींनी | ✓ | | | |
| 19. | गुड्ड्यांचो खेळ | | ✓ | | |
| 20. | चिटयांनी | | | ✓ | |
| 21. | चुडट्यांनी | | | ✓ | |
| 22. | छक्का - वच्छी | | | ✓ | |

## तकटो क्र 3

खेळांचे प्रकार

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | स्त्री. | पु. | दोनूय | हेर |
|---|---|---|---|---|---|
| 23. | तळयांत मळयांत | | | ✓ | |
| 24. | ताबुलफळें | | ✓ | | |
| 25. | दीसमीस | | | ✓ | |
| 26. | दोरयांनी | ✓ | | | |
| 27. | धांवचेल्यांनी | | | ✓ | |
| 28. | न्हंय-दोंगर | | | ✓ | |
| 29. | फातरांनी | ✓ | | | |
| 30. | 4 स्क्वेअर | | ✓ | | |
| 31. | बडयांनी | | | ✓ | |
| 32. | बाणांनी | | ✓ | | |
| 33. | मिठांनी | ✓ | | | |
| 34. | मिलांनी | ✓ | | | |
| 35. | मीठ फळण्यांनी | | ✓ | | |
| 36. | मुठींनी | ✓ | | | |
| 37. | म्हातारे म्हातारे कितें सोदता | ✓ | | | |
| 38. | रिंगा रिंगा रोजी | | | ✓ | |
| 39. | रिंगांनी | ✓ | | | |
| 40. | लगोऱ्यो | | ✓ | | |
| 41. | लार्गी लार्गी पयस पयस | | | ✓ | |
| 42. | लेंसांनी | | | ✓ | |
| 43. | लंगडी | ✓ | | | |
| 44. | वर्तुळांनी | ✓ | | | |

## तकटो क्र 3

खेळांचे प्रकार

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | स्त्री. | पु. | दोनूय | हेर |
|---|---|---|---|---|---|
| 45. | व्हिरांनी | ✓ | | | |
| 46. | शिंपयांनी | ✓ | | | |
| 47. | शिल्लेपारांनी | | | ✓ | |
| 48. | गडगडो | | ✓ | | |
| 49. | गोफ | | ✓ | | |
| 50. | जागर | | ✓ | | |
| 51. | टिपऱ्यो | | | ✓ | |
| 52. | धालो | ✓ | | | |
| 53. | धिरयो | | | | ✓ |
| 54. | नाल्ल फोडच्यांनी | | ✓ | | |
| 55. | फुगडी | ✓ | | | |
| 56. | शिगमो | | ✓ | | |
| 57. | सांज्यांव | | ✓ | | |
| 58. | झोपाळो | | | ✓ | |
| 59. | फस्कांचो खेळ | | ✓ | | |
| 60. | बावल्यांचें लग्न | ✓ | | | |
| 61. | कट्ट्यांनी/आयदनांनी | | | ✓ | |
| 62. | काजुबियांनी | | ✓ | | |
| 63. | गडेफाडे | | | ✓ | |
| 64. | कांगांनी | ✓ | | | |
| 65. | सोण्णांनी | | ✓ | | |
| 66. | आसपास | | ✓ | | |

## तकटो क्र. 4

| | | खेळपाचो वेळ | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | सकाळ | दनपार | सांज | रात |
| 1. | अटकमटक | | | ✓ | ✓ |
| 2. | आट्यांनी | | | ✓ | |
| 3. | आप्पडपाप्पड | ✓ | ✓ | ✓ | |
| 4. | आपालिपा | ✓ | | ✓ | |
| 5. | आबुलान बाबुलान | | | ✓ | |
| 6. | इति इति पाणी | | | ✓ | |
| 7. | इस्पिकांचे खेळ | | ✓ | | |
| 8. | उवो खो - खो | ✓ | | | |
| 9. | कबड्डी | ✓ | | ✓ | |
| 10. | कलर कलर वॉट कलर? | | | ✓ | |
| 11. | कानकुटुन्यांनी | | | ✓ | |
| 12. | कापसाचो गुळो | ✓ | | ✓ | |
| 13. | कोंब्यांनी | | | ✓ | |
| 14. | कोयंडेबाल | ✓ | | ✓ | |
| 15. | कंवच्यांनी | ✓ | ✓ | ✓ | |
| 16. | खांब्यांनी | ✓ | | ✓ | |
| 17. | गड्ड्यांनी | ✓ | | ✓ | |
| 18. | गांठींनी | | | ✓ | |
| 19. | गुड्ड्यांचो खेळ | ✓ | | ✓ | |
| 20. | चिटयांनी | | | ✓ | |
| 21. | चुडट्यांनी | ✓ | | | |
| 22. | छक्का - वच्छी | | | ✓ | |

## तकटो क्र. 4

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | खेळपाचो वेळ | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| | | सकाळ | दनपार | सांज | रात |
| 23. | तळयांत मळयांत | ✓ | | ✓ | |
| 24. | ताबुलफळें | | | ✓ | |
| 25. | दीसमीस | | | ✓ | |
| 26. | दोरयांनी | ✓ | | ✓ | |
| 27. | धांवचेल्यांनी | ✓ | | ✓ | |
| 28. | न्हंय-दोंगर | | | ✓ | |
| 29. | फातरांनी | ✓ | | ✓ | |
| 30. | 4 स्क्वेअर | | | ✓ | |
| 31. | बडयांनी | ✓ | | ✓ | |
| 32. | बाणांनी | ✓ | ✓ | | |
| 33. | मिठांनी | | | ✓ | |
| 34. | मिलांनी | ✓ | ✓ | ✓ | |
| 35. | मीठ फळण्यांनी | | | ✓ | |
| 36. | मुठींनी | | | ✓ | |
| 37. | म्हातारे म्हातारे कितें सोदता | | | ✓ | |
| 38. | रिंगा रिंगा रोजी | ✓ | | | |
| 39. | रिंगांनी | ✓ | | ✓ | |
| 40. | लगोऱ्यो | ✓ | | ✓ | |
| 41. | लागीं लागीं पयस पयस | | | ✓ | |
| 42. | लेंसांनी | | | ✓ | |
| 43. | लंगडी | | | ✓ | |
| 44. | वर्तुळांनी | ✓ | ✓ | | |

## तकटो क्र. 4

| | | खेळपाचो वेळ | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | सकाळ | दनपार | सांज | रात |
| 45. | व्हिरांनी | | | ✓ | |
| 46. | शिंपयांनी | | ✓ | ✓ | |
| 47. | शिल्लेपारांनी | | | ✓ | |
| 48. | गडगडो | | | ✓ | |
| 49. | गोफ | | | | ✓ |
| 50. | जागर | | | | ✓ |
| 51. | टिपऱ्यो | | | ✓ | ✓ |
| 52. | धालो | | | | ✓ |
| 53. | धिरयो | ✓ | | | |
| 54. | नाल्ल फोडच्यांनी | | | | ✓ |
| 55. | फुगडी | | | ✓ | |
| 56. | शिगमो | | ✓ | ✓ | |
| 57. | सांज्यांव | ✓ | ✓ | | |
| 58. | झोपाळो | | | ✓ | |
| 59. | फस्कांचो खेळ | | ✓ | | |
| 60. | बावल्यांचें लग्न | | ✓ | | |
| 61. | कट्ट्यांनी/आयदनांनी | ✓ | ✓ | | |
| 62. | काजुबियांनी | | | ✓ | |
| 63. | गडेफाडे | | ✓ | | |
| 64. | कांगांनी | ✓ | ✓ | | |
| 65. | सोण्णांनी | | | ✓ | |
| 66. | आसपास | | | ✓ | |

## तकटो क्र. 5

खेळाचो रुतू

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | पावस | गीम | शीं | केन्नाय |
|---|---|---|---|---|---|
| 1. | अटकमटक | ✓ | | | |
| 2. | आट्यांनी | | ✓ | | |
| 3. | आप्पडपाप्पड | | | ✓ | |
| 4. | आपालिपा | | ✓ | ✓ | |
| 5. | आबुलान बाबुलान | | ✓ | | |
| 6. | इति इति पाणी | | ✓ | | |
| 7. | इस्पिकांचे खेळ | | | ✓ | |
| 8. | उबो खो - खो | | ✓ | | |
| 9. | कबड्डी | | | ✓ | |
| 10. | कलर कलर वॉट कलर? | | ✓ | | |
| 11. | कानकुटुन्यांनी | | | ✓ | |
| 12. | कापसाचो गुळो | | ✓ | | |
| 13. | कोंब्यांनी | | ✓ | | |
| 14. | कोयंडेबाल | ✓ | | | |
| 15. | कंवच्यांनी | ✓ | | | |
| 16. | खांब्यांनी | ✓ | ✓ | | |
| 17. | गड्ड्यांनी | ✓ | | | |
| 18. | गांठींनी | | ✓ | | |
| 19. | गुड्ड्यांचो खेळ | | | | ✓ |
| 20. | चिटयांनी | | | | ✓ |
| 21. | चुडट्यांनी | | ✓ | | |
| 22. | छक्का - वच्छो | ✓ | | | |

## तकटो क्र. 5

खेळाचो रुतू

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | पावस | गीम | शीं | केन्नाय |
|---|---|---|---|---|---|
| 23. | तळयांत मळयांत | | ✓ | | |
| 24. | ताबुलफळें | ✓ | | | |
| 25. | दीसमीस | | ✓ | | |
| 26. | दोरयांनी | | ✓ | | |
| 27. | धांवचेल्यांनी | | | ✓ | |
| 28. | न्हंय-दोंगर | ✓ | ✓ | | |
| 29. | फातरांनी | ✓ | | | |
| 30. | 4 स्क्वेअर | | ✓ | | |
| 31. | बडयांनी | | ✓ | | |
| 32. | बाणांनी | | | ✓ | |
| 33. | मिठांनी | | ✓ | | |
| 34. | मिलांनी | ✓ | | | |
| 35. | मीठ फळण्यांनी | | ✓ | | |
| 36. | मुठींनी | ✓ | | | |
| 37. | म्हातारे म्हातारे कितें सोदता | | ✓ | | |
| 38. | रिंगा रिंगा रोजी | | | ✓ | |
| 39. | रिंगांनी | | ✓ | | |
| 40. | लगोऱ्यो | | ✓ | | |
| 41. | लागीं लागीं पयस पयस | | ✓ | | |
| 42. | लेंसांनी | ✓ | ✓ | | |
| 43. | लंगडी | ✓ | ✓ | | |
| 44. | वर्तुळांनी | | ✓ | | |

## तकटो क्र. 5

खेळाचो रुतू

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | पावस | गीम | शीं | केन्नाय |
|---|---|---|---|---|---|
| 45. | व्हिरांनी | ✓ | | ✓ | |
| 46. | शिंपयांनी | | ✓ | | |
| 47. | शिल्लेपारांनी | | ✓ | | |
| 48. | गडगडो | | ✓ | | |
| 49. | गोफ | | ✓ | | |
| 50. | जागर | | ✓ | ✓ | |
| 51. | टिपऱ्यो | | ✓ | | |
| 52. | धालो | | | ✓ | |
| 53. | धिरयो | | | ✓ | |
| 54. | नाल्ल फोडच्यांनी | | ✓ | | |
| 55. | फुगडी | ✓ | | | |
| 56. | शिगमो | | ✓ | | |
| 57. | सांज्यांव | ✓ | | | |
| 58. | झोपाळो | | ✓ | | |
| 59. | फस्कांचो खेळ | | | | ✓ |
| 60. | बावल्यांचें लग्न | ✓ | | | |
| 61. | कट्ट्यांनी/आयदनांनी | ✓ | | | |
| 62. | काजुबियांनी | | ✓ | | |
| 63. | गडेफाडे | ✓ | | | |
| 64. | कांगांनी | | | | ✓ |
| 65. | सोण्णांनी | | ✓ | | |
| 66. | आसपास | | ✓ | | |

## तकटो क्र. 6 (आज खेळटात वा ना)

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | हय | ना |
|---|---|---|---|
| 1. | अटकमटक | ✓ | |
| 2. | आट्यांनी | ✓ | |
| 3. | आप्पडपाप्पड | ✓ | |
| 4. | आपालिपा | ✓ | |
| 5. | आबुलान बाबुलान | ✓ | |
| 6. | इति इति पाणी | | ✓ |
| 7. | इस्पिकांचे खेळ | ✓ | |
| 8. | उबो खो - खो | ✓ | |
| 9. | कबड्डी | ✓ | |
| 10. | कलर कलर वॉट कलर? | | ✓ |
| 11. | कानकुटु-यांनी | ✓ | |
| 12. | कापसाचो गुळो | | ✓ |
| 13. | कोब्यांनी | | ✓ |
| 14. | कोयंडबाल | | ✓ |
| 15. | कंवच्यांनी | ✓ | |
| 16. | खांब्यांनी | ✓ | |
| 17. | गड्ड्यांनी | | ✓ |
| 18. | गांठीनी | | ✓ |
| 19. | गुड्ड्यांचो खेळ | ✓ | |
| 20. | चिटयांनी | ✓ | |
| 21. | चुडट्यांनी | | ✓ |
| 22. | छक्का - वच्छी | | ✓ |

## तकटो क्र. 6 (आज खेळटात वा ना)

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | हय | ना |
|---|---|---|---|
| 23. | तळयांत मळयांत | ✓ | |
| 24. | ताबुलफळें | | ✓ |
| 25. | दीसमीस | ✓ | |
| 26. | दोरयांनी | ✓ | |
| 27. | धांवचेल्यांनी | ✓ | |
| 28. | न्हंय-दोंगर | ✓ | |
| 29. | फातरांनी | ✓ | |
| 30. | 4 स्क्वेअर | ✓ | |
| 31. | बडयांनी | ✓ | |
| 32. | बाणांनी | ✓ | |
| 33. | मिठांनी | ✓ | |
| 34. | मिलांनी | ✓ | |
| 35. | मीठ फळण्यांनी | | ✓ |
| 36. | मुठींनी | | ✓ |
| 37. | म्हातारे म्हातारे कितें सोदता | | ✓ |
| 38. | रिंगा रिंगा रोजी | ✓ | |
| 39. | रिंगांनी | ✓ | |
| 40. | लगोऱ्यो | ✓ | |
| 41. | लार्गी लार्गी पयस पयस | | ✓ |
| 42. | लेंसांनी | | ✓ |
| 43. | लंगडी | ✓ | |
| 44. | वर्तुळांनी | ✓ | |

## तकटो क्र. 6 (आज खेळटात वा ना)

| अनुक्र. | खेळांचीं नांवां | हय | ना |
|---|---|---|---|
| 45. | व्हिरांनी | | ✓ |
| 46. | शिंपयांनी | ✓ | |
| 47. | शिल्लेपारांनी | | ✓ |
| 48. | गडगडो | ✓ | |
| 49. | गोफ | ✓ | |
| 50. | जागर | ✓ | |
| 51. | टिपऱ्यो | ✓ | |
| 52. | धालो | ✓ | |
| 53. | धिरयो | | ✓ |
| 54. | नाल्ल फोडच्यांनी | ✓ | |
| 55. | फुगडी | ✓ | |
| 56. | शिगमो | ✓ | |
| 57. | सांज्यांव | ✓ | |
| 58. | झोपाळो | ✓ | |
| 59. | फस्कांचो खेळ | | ✓ |
| 60. | बावल्यांचें लग्न | ✓ | |
| 61. | कट्ट्यांनी/आयदनांनी | | ✓ |
| 62. | काजुबियांनी | ✓ | |
| 63. | गडेफाडे | | ✓ |
| 64. | कांगांनी | | ✓ |
| 65. | सोण्णांनी | | ✓ |
| 66. | आसपास | ✓ | |

## निश्कर्श

**गोंयांतले पारंपारिक खेळ** अभ्यासतकीच आदल्या तेंपावयले जीणेचो सरळसरळ परिणाम जिविताच्या हेर मळांप्रमाण खेळांचेर लेगीत जाल्लो म्हणपाचें कळटा. समाजांतल्यो चालीरीती, भेस, भास, भावबंधनां, आचारविचार, रुढी ह्या सगल्यांचो जशाक तसो प्रभाव खेळांचेर दिश्टी पडटा.

आदल्या तेंपावयले एकवटीत कुटूंबपद्धतीक लागून आसत वा शेजारधर्म आनी रासवळ वृत्तीक लागून आसत, पारंपारिक खेळ मुखेलपणान सांघिक. सहनाभवतु सहनौ भुनक्तु हे उक्तीचेर जाणटेल्यांचो पिळग्यान पिळग्यांचो विस्वास.

पारंपारिक खेळ चडशे मैदानी (outdoor). मातयेंत - रेब्यांत - चिखलांत - धुल्लांत - दोंगरार - तळ्यांत - मळ्यांत - भाटांत - काजींनी खेळपाचे. पूण घरांतल्या घरांत - वासरेर - सालांत - कुडींत - खेळपाच्या खेळांचेंय प्रमाण उणें ना. पावसाळ्यांत भायर वचपाक मेळना म्हण आनी तीनसांजे उपरांत घराभायर सरपाची वृत्ती (आनी कारणूय) नाशिल्ल्यान घरांतल्या घरांत मनरिजवण आनी वेळ पासार करपाची ही तजवीज. चड-उण्यो कुडीच्यो हालचाली आशिल्ले खेळ, रुतूप्रमाण लेगीत बदलतात. देखीक शिंयाच्या दिसांनी कुडीक चड हालचाल जाय देखून धालो, फुगड्यो खेळपाची चाल पडल्या.

पारंपारिक खेळांमदीं 20 खेळ फकत चलयांनी जाल्यार 22 फकत चल्यांनी खेळपाचे आसात, जाल्यार 23 खेळ दोगांयनी एकठांय खेळूं येतात असलेय आसात.

चडशे खेळ सांजवेळार खेळपाचे. शेतां-भाटां-कुळागरांतलीं कामां सोंपून घरा येतकीच कांयच काम नासतालें. विजेचो सोद लागूंक नाशिल्लो. दिवट्यो-चुडी-मशाली हांच्या उजवाडांत एकतर उत्सवी खेळ थारायिल्ले सुवातेर (मांडार बी) अख्ख्या गांवान खेळपाचे आनी पळोवपाचे वा पैशांकडेन संबंदीत खेळ (देखीक इस्पीक, गडगडो बी). देखून भुरग्यांचे चडशे खेळ तीनसांजे आदीं खेळपाचे.

कोंकणपट्टेंत पावस भरपूर. देखून चडशे खेळ गीम आनी शिंयांत. घरांतली गर्मी नाका जाता म्हणून वा काजी-आंबे हेर रानमेवो उपलब्ध आसता. शेतांत पीक तयार जाल्ल्यान - खोशयेचें वातावरण आसता देखून घराभायर खेळप.

ह्या पारंपारिक खेळांचें पिराय गटाप्रमाण अशें वर्गीकरण करूं येता.

1) शिशू गट (2-4 वर्सां) - 03 खेळ

2) बाल गट (5-8 वर्सां) - 29 खेळ

3) किशोर / कुमार गट (9-18 वर्सां) - 26 खेळ

4) युवक गट (18 आनी वयर) - 04 खेळ

हे सगले खेळ उणें खर्चीक आसात. चडश्या खेळांक साहित्य कांयच लागना. कांय खेळांक जें साहित्य लागता

तें कंवच्यो, फातर, व्हीर, शिंपयो - असलें भोंवतणी फुकट मेळपासारकें. Best out of waste ह्या न्यायान निसर्गांतल्यान अवतीभोंवती मेळपी गजालींचो वापर करून हे खेळ खेळूं येतात. ह्या खेळांक म्हारग अशें प्रशिक्षण (coaching) लेगीत लागना. हे खेळ खेळूंक ल्हानशें आंगण लेगीत पुरो. देखून 'नाचतां येईना अंगण वाकडे' अशी पाळी कोणाचेर येवपाचो प्रस्न ना.

ह्या खेळांतल्यान सामुहिकताय (collectiveness), पंगडभावना (team spirit), दुसऱ्याचो विचार ह्यो भावना चालीक लागतात. हातूंतल्या चडश्या खेळांक हार-जीत ना. देखून match-fixing, वैयक्तिक सुवार्थ, भ्रश्टाचार हांका सुवात ना. हे खेळ म्हळ्यार एक सामुहिक आनंद घेवपाचो बऱ्यांत बरो उपाय.

अशे आनीक कितलेशेच खेळ आसात. पतंग, भोंवरे, पावसांतलीं व्हडीं अशो खेळांच्यो आनीकूय जायत्यो तरा आसात. आयज 21 व्या शेंकड्यांत खेळ-संस्कृताय वाडीक लागपाची गरज आसा. 'वेळार वेळ आनी शिगम्यार खेळ' हे म्हणणेप्रमाण शालेय शिक्षणांत लेगीत वेळावेळार, गरज थंय 'खेळ' आनी 'खेळांतल्यान शिक्षण' (चडकरून मूल्य-शिक्षण) दिवंक जाय. पारंपारिक खेळांनी आशिल्ले अचाट कल्पकतायेचो वापर भुरग्यांचें कल्पनाविश्व आनी भावविश्व रुंदावंक आमी करूंक शकतले काय? पिरायेच्या 8 वर्सांमेरेन जशें मायभाशेंतल्यान शिक्षण जाय, तशेंच खेळ लेगीत मायभाशेंतलेच - हे मातयेंतलेच जाय हो विचार रुजतलो काय?

■■

# संदर्भावळ

1) कोंकणी विश्वकोश - संपा. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

2) आमोणे : एक लोकजीण - जयंती नायक

# उपकार

1) प्रा. प्रकाश वजरीकार

2) डॉ. पांडुरंग फळदेसाय

3) सौ. उषा नायक

4) प्रा. प्रकाश पर्येकार

5) श्री. अरुण तळेकार

6) श्री. दिलीप धामस्कार

7) डॉ. अनिल डिंगे

8) श्री. रघुवीर देसाई

## गोंयांतले पारंपारिक खेळ

मनशाच्या जिवितांत खेळांक सुमाराभायलें महत्व आसा. खेळ कुडीक व्यायाम तर दिताच पूण चपळताय आनी शिटूकपणूय दिता. खेळांत कल्पकते बरोबर बुद्धिमत्तेचोय वापर जाता. खेळांत स्वता खेळटल्याक आनंद मेळटा आनी खेळ पळयतल्याकूय आनंद मेळटी. खेळांत स्पर्धात्मक उमेद वाडीक लागता.

अश्या खेळ ह्या विशयावेलें हें पुस्तक उजवाडायतना अकादेमीक खोस भोगता .......... खंयचेय तरेच्या लोकसाहित्यांत त्या-त्या वाठाराची संस्कृताय, इतिहास, परंपरा, चालीरिती, हावेस, स्त्रद्धा, समजण्यो हांची झलक पळोवंक मेळटा. पारंपारिक नदरेन गोंयांत (म्हणचेपरस कोंकण किनारपटीत) खेळत आयिल्ले हे खेळ अशेच तरेन खूब आदल्या तेंपावयल्या लोकांची जीण, चालीरिती, स्वभाव वैशिष्ट्यां बी दाखयतात. परंपरांच्यो कांय खुणो आनी कुरवो तांचेभितर सोदूं येतात.

अकादेमीच्या पानांतल्यान ....

---






गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी, पणजी-गोंय - 403 001
फोन : 0832-2437385/87